BIMB/ August 2021/ Vol 20/ISSUE08/Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/ 202 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल :₹50/-

२० वें वर्स

# बिम्ब

मासिक

आगोस्त 2021

## नव्या वर्सा गोंय विधानसभा अधिवेशन परवरे न्हय

## तें भरतलें गोंयच्या चार कुटुंबांनी...



# कोंकणी मासिक बिम्ब

२० वें वर्स



**नव्या वर्सा**
**गोंय विधानसभा अधिवेशन**
**परवरें न्हय**
**तें भरतलें गोंयच्या चार कुटुंबांनी...**
- दिलीप बोरकार



वर्स 20:अंक 08
आगोस्त 2021
मोल 50 रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर :
वर्सुकी वर्गणी 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर रु. 2000

BANK DETAILS :
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

संपादकीय

# थर्ड क्लास? शी...! नीच...!!

हालींच गोंयचे वीज मंत्री नीलेश काब्राल आनी दिल्लींतल्या आप सरकारांतले वीज मंत्री सत्येंन्द्र जैन हांचे मर्दी 'गोंयांत फुकट वीज दिवपाचेर आनी वीज दरा विशीं' एक उक्ती डिबेट जाली. आपाचें दिल्लींतलें सरकार दिल्लीच्या नागरीकांक फुकट वीज दिता आनी तशें दिवप गोंयाकूय शक्य आसा म्हणपाचें दिल्लीचे वीज मंत्री सत्येंन्द्र जैन हांचें मत जाल्यार तशें शक्य ना म्हणपाचें गोंय राज्याचे वीज मंत्री नीलेश काब्राल हांचें मत. दिल्लीन तें शक्य आसा म्हणपाचें सिद्ध करून दाखयलां जाल्यार गोंयाक तशें करूं येता हाची सादी कल्पनाय ना. तें करूं येता काय ना हाचेरच ह्या दोन मंत्र्यांची डिबेट आशिल्ली आनी तातूंत जर दिल्लीचो वीज मंत्री जिखिल्लो जाल्यार आपाचें सरकार येवन गोंयकारांक फुकट वीज मेळचे आदींच आपाची येवजण उसणी घेवन वा फारावन काय जायना, चालीक लावन गोंय सरकारान वीज फुकट दिवपाची घोशणा केल्ली जाल्यार काब्रालाक जैनान हारयलो म्हूण ताका कोण चाळोवंचो नाशिल्लो. उरफाटें व्हड काळजान विरोधकाचें म्हणणें समजून घेवन काब्रालान गोंयाक वीज फुकट दिवपाची येवजण चालीक लावपाचें थारायलें म्हूण म्हारगायेक लागून त्रस्त जाल्ले गोंयकार काब्रालच्याच पक्षा वटेन रावपाचे . म्हणटकच येता ते वेंचणुके उपरांत ह्या पक्षाचे हेर पक्षांतल्या जैतिवंत आमदारांक फारावपाचे त्रास तरी वाचपाचे! पूण दुर्दैवाची गजाल म्हणल्यार हे कर्मकट्टे डिबेटीच्या मूळ मुद्याचेर चर्चा करपा बदला दिल्लीच्या वीज मंत्र्यान 'गोवाज पॉलिटिशन्स आर थर्ड क्लास' अशें म्हणलें ताचेरूच वाद घेवन बसले आनी डिबेटीची फलश्रुती निश्पन्न जावंक पावली ना.

सत्येंद्र जैन हांणी गोंयच्या राजकारण्यांक थर्ड क्लास म्हणलां काय राजकारणांक हें आदीं आमकां थारावंचें लागतलें. गोंयचे गरीब जनतेच्या फायद्याक पडूं येता अशी एक म्हत्वाची डिबेट चालू आसतना , ती शितीद दिवन आयकचे बदला, ती बरे तरेन घडून येवंची म्हूण वातावरण तयार करचे बदला काब्रालचे समर्थक जावन जमप आनी जैनाच्या विराधांत घोशणा दिवप हें फस्टक्लास राजकारण न्हय. तें थर्ड क्लास राजकारण आनी तें पळोवनूय ताका खंयचोच राजकारणी हरकत घेना, तें चलूंक प्रोत्साहन दितात ते थर्ड क्लास राजकारणी. म्हणटकच गोंयचें राजकारण आनी राजकारणी हाचे विशीं जैनाचें जें निरिक्षण आसा तें आमकां तशें चुकीचें दिसना. तांणी दिल्लीकारांची आनी आपल्या पक्षाची सभ्यताय मतीत घेवन फकत थर्ड क्लास इतलेंच म्हणलां. खरें पळोवंक गेल्यार गोंयचे राजकारणी आनी तांचें राजकारण हाका तसो कसलोच क्लास उरूंक ना. दर्जो नाशिल्लें हें राजकारण आनी राजकारणी हांकां आमचे कालेती प्रमाण सांगचें जाल्यार तें नीच राजकारण्यांनी चलयल्लें नीच राजकारण अशेंच म्हणचे पडटलें. गोंय आनी गोंयचें राजकारण रसातळाक पावोवन ताका नीच स्तरार व्हरपाचें काम गोंयच्या भारतीय जनता पक्षान मुखेलमंत्री प्रमोद सावंत हांच्या मुखेलपणा खाल केलां आनी गोंयचें नीच राजकारण ह्या माथाळ्या खाल ताची नोंद गोंयच्या राजकी इतिहासांत जाल्या. ज्या पक्षाक गोंयचे जनतेन वेंचणुकेक पूर्ण भोवमत दिनासतना ताका ताची राजकी सुवात दाखयल्ली त्या पक्षान रातोरात हेर पक्षांतल्या आमदारांक विकते घेवन , तांकां दुडवांचें आनी सत्तेचें हांयस दाखोवन आपल्या पक्षाचें सरकार घडोवप हाका थर्डक्लास राजकारण म्हणपाचें नासता जाल्यार तें नीचपणूच थारता.

मतदारांचो विश्वासघात करून, एका पक्षाचीं ध्येय धोरणां आनी तत्वां भिसक्यार मारून फकत सत्ता आनी संपत्ती पासत दुसऱ्या पक्षांत वचप हाका आम च्यानी थर्डक्लास कशें म्हणूं येता? तें तर ह्या नीच राजकारण्यांचें नीच कर्म! खरें म्हणल्यार असल्या नीच राजकारण्यांक कायद्या प्रमाण अपात्र थारावन राजकारणांतल्यान धांवडावन घालूंक जाय आशिल्लें. पूण अपात्र आसुनय हे आमदार फाटलीं दोन वर्सां सत्ता भोगतात आनी बेकायदेशीरपणान गोंयाक लुटतात. हाका नीच राजकारण म्हणप ना?

हातूंत उणें म्हूण काय कितें, गोंयचे वेळे देगेर भोंवपाक गेल्या सान चलयांचेर जाल्ल्या बलात्काराचेर म खलाशी करतना गोंयचे मुखेल मंत्री प्रमोद सावंत, 'ह्यो चलयो रातचे वेळार भायर कित्याक भोंवतात?' काय म्हूण विरोधी आमदारांच्या प्रस्नाक प्रतीप्रस्न करून बलात्काऱ्यांक जेल दिता. खरें म्हणल्यार , 'आपूण घरमंत्री आनी म्हज्या राज्यांत गोंयचो दरेक नागरीक भंयां विरेत केन्नाय खंयीय भोंवपाक शकता, ते पासत समाजघातक्यांक रातचें फिरूंक मेळचें ना' अशी तांची जाप आसूंक जाय आशिल्ली. पूण नीच राजकारणांतल्या नीच राजकारण्यां कडल्यान कोणें आनी कसली अपेक्षा बाळगुपाची? ●●●

# बायल घरची लक्ष्मी...!




बायलमनीस ही घराची पाटी, म्हेड अशें हांव म्हजे भुरगेपणांतल्यान आयकत आयलां. हय, आतां म्हाका ताचो अर्थ कळूंक लागला आनी अणभवूय येवपाक लागला.

8 मार्चाक आंतरराष्ट्रीय बायलांचो दीस मनयतात. ह्या दिसा खुबशे सुवातेर बायलांचो भोवमान करतात. अशे वेळार म्हाका एकूच प्रस्न पडटा, बायलांक मान-सन्मान त्याच दिसा आसता? काय सदांच??

तुमी जाणांत, ज्या समाजांतली बायल साक्षर आनी सुरक्षीत आसा, त्या समाजाची उदरगत जावपाक वेळ लागचो ना. तशेंच गांवगिऱ्या वाठारांतली बायल रांदप, वाडप, उश्टीं काडप, भुरग्यांक सांबाळप अशीं कामां करताली अशें पयलींच्या काळार आसतालें. पूण आतां सरकाराचे मजतीन बायलां शिक्षीत जाल्यांत. तीं कामाक वतात, कांय जाणां जाल्यार घरांत ल्हान ल्हान उद्देग सुरू करून आपल्या पांयार उबीं आसात. आपापल्या घोवांक संवसार उबो करपाक मजत करतात. कांय सुवातेर गांवगिऱ्या वाठारांतली बायल शेतांत काम करून अन्नधान्य पिकयता. तशेंच भाटां, पोरसां कसोवपाक वांटो घेतात.ह्यो बायलो आपले उपजिविके खातीर शेतांचेर आनी सैमीक साधन सामुग्रीचेर निंबून आसतात. ही बायल अशिक्षीत आसून लेगीत आपलें ल्हानशें चार वणटींचें घर कशें निवळ नितळ दवरून सूख, शांती, समाधान आपल्या घराब्याक कशें मेळटलें हे गजालीची तजवीज करपाचो यत्न करतना दिसता.

अशें म्हणटात, देवाचे मुर्ती बगर देवघर ना, तशेंच बायले बगर घराक वा सुंदर बंगल्याक लेगीत सोबा ना. खंयचीय बायल जावं मागीर, शिक्षीत वा अशिक्षीत, ती आपलीं भुरगींबाळां, घोव, घरचीं मनशां हांचे खातीर खूब कश्ट घेतात. सकाळच्या पांचांक सुरू जाल्लीं कामां रातचीं बारा जालीं तरीय सोंपनात. सगल्या कुटुंबाक सूख समाधान मेळचें हो एकूच तिचो हेत. स्वताच्या जेवणा -खाणाचें लेगीत तिका भान उरना.

जाय जाय तेन्ना ती आवय बापायची धूव, घोवाची बायल , भुरग्यांची आवय, भावाची भयण आनी मांय-मांवाची सून हीं सगळीं कर्तव्यां बेस बरीं सांबाळून आपल्या घराब्याक एकठांय दवरपाचो प्रयत्न करता.

पयलींच्या काळांत दादले बायलांक पांयांची व्हाण समजताले. पूण तो काळ उरूंक ना. आतां बायल आनी दादलो एका बराबर एकाच मळार काम करतात. खूबशे दादले आपापले रितीन आपले बायलेक वा आपल्या कुटुंबाक घरांतलीं कामां करपाक मजत करतात. ह्या सगल्या दादल्यांक म्हजो काळजांतल्यान नमस्कार. आमचो संवसार हो एका रथावरीं! जशीं ताका दोन चाकां आसतात तशींच बायल आनी घोव हीं तांच्या संवसाराचीं दोन चाकां. तीं दोनूय वांगडाच चलत जाल्यार तांचो संवसार सुखाचो जातलो.

आयच्या युगांतूय बायल रांदचे कुडींतलें सामान आनीक कितलें जाय, घरच्या मनशांच्यो आवडी निवडी सम जून घेवन कोठा करता. आपल्या घोवाक कसो सुखी दवरचो ह्या गजालींचेर सदांच तिचो दोळो आसता. आपले परस आपल्या भुरग्यांच्या फुडारा कडेन लक्ष दिवन तांकां बरे संस्कार, शिक्षण आनी तांक तांचे भितर निर्माण करप ही गजाल तिका म्हत्वाची आसता.

आमच्या पुर्वजां कडल्यान अशें आयकूंक आयलां, ज्या घरांत बायल मनशेचो मान-सन्मान , आदर सत्कार जाता थंय देव देवता प्रसन्न जातात. त्या घरांत सूख-समृद्धी नंदता.

निमाणे कडेन एकूच सांगपाक सोदतां, घराची सोबीतकाय वाडोवपाक आनी घराबो एकठांय दवरपाक घरचे बायलेचो आदार आसता. हे खातीर घरची बायल हीच घराची खरी लक्ष्मी.



-डॉ. रीना लवंदे
कळंगूट-गोंय.
मो. : 98239 98884

# म्हातारपणाचो आधार.....!

'चली नाका चलोच जाय, म्हातारपणाचो आधार म्हणून!'

आतांचे आवय बापूय चलो वा चली असो भेद करी नात, अशें भायल्यान दिसता! पूण...

तश्यो आयच्यो चलयो शैक्षणीक उद्योगीक, राजकीय, सामाजीक, खेळ बी सगळ्याच मळार तांणी नामना मेळयल्या म्हणपाचें पळोवपाक मेळटा, तरी लेगीत शिक्षीत समाजांतले लोक,'चलो ना?' अशें विचारतात. 'दोनूय चलयोच? चली जालें?' हो सूर लेगीत वेगळोच आसता. 'दुसरेंय चली?' हें हांव म्हज्या अणभवान सांगतां.

आयज कायद्यान चल्यां बराबर चलयांक लेगीत वडिलोपार्जीत संपत्तीचो वांटो मेळपाचो हक्क तिका मेळ्ळा.

तशें आमी आतां 21 व्या शतमानांत जगतात. पूण 'चलो हो वंशाचो दिवो!' आनी चली ही 'वंशाची पणटी' मानपी लोक अजून लेगीत आसात.

चलो हो आवय-बापायच्या म्हातारपणाचो आधार! चलोच आवय बापायचो सांबाळ करूंक शकता, तेच प्रमाण आवय बापूय मरतकच तांकां अग्नी दिवपा खातीर चलोच जाय असो समज! चल्यान अग्नी दिल्यार खंय आवय बापूय सर्गार पावतात अशें मानपी लोक आज लेगीत आसात. आवय बापायचे सुरक्षताये पासत चल्याचो आग्रो धरतात अशें दिसता.

चल्याचोच अट्टाहास कित्या खातीर? जर आमी आतांचो विचार केलो जाल्यार चलयो शिक्षणाच्या, बुद्धीमत्तेच्या तशें आर्थीक नदरेन चल्या इतल्योच सक्षम-समर्थ आसात.

आमकां चलो नाका अशें मुळीच ना.पूण जर चलो जालो ना तर ताचे खातीर दुख्खी जावंक फावना.

आयज आमी जेन्ना परिवर्तन जाय म्हणटात तेन्ना परिवर्तन कसलें जाय हो विचार करपाची आज गरज आसा.

आमकां दिसता जो पर्यंत ह्या शिक्षीत, सक्षम, समर्थ समाजांत परिवर्तनाची नवी प्रेरणां, नवी दिका दिवचे नात तो पर्यंत हो समाज असोच चलो ना म्हणून दुख्खीच उरतलो काय कितें? आज आमी आमच्या सरभोंवतणी पळयतात, कितलेश्याच घरांनी चलो आसून लेगीत आवय-बापूय 'वृद्धाश्रमां'नी आसतात. कारण आवय बापाय कडेन पयशे आसतात. पूण तांकां सांबाळपी कोण नात. तांचे पासत वृद्धाश्रम होच एक पर्याय जावन आसा.

आवय-बापायक चली लेगीत म्हातारपणार आधार जावंक शकता. आमकां परिवर्तन जाय. आमी 'जांवयाक' आपलो चलो मानपाक जाय. आनी चल्याच्या आवय-बापायन सुनेक आपली धूव मानपाक जाय. आदलींच्यो प्रथा, परंपरा आमी कालांतरान बदलपाक जाय. तेन्नाच आमी एक नवो आदर्श समाज घडोवंक पावतलीं अशें म्हाका दिसता.

चलो-चली असो लिंगभेद करूंक फावना. एक आवय चलो-चलयेक जल्म दिता त्या वेळार तिका ज्यो यातना जातात त्यो ती आपलो चलो वा चलयेक पळयतकच सगळें विसरता. आनीक एक गजाल सांगची दिसता ती म्हणल्यार, चलो जायना हो दोश दादल्याचो! पूण अशें आसतनाय आयज लेगीत चलो भुरगो जायना जाल्यार बायलांक छळटात.

आमी आयज आमचे फुडले पिळगेक घडयतना चलो/चली असो भेदभाव करी नासतना दोगांकूय समान वागणूक, समान अधिकार, समान शिक्षण दिवन एक नवो समाज निर्माण करपाचो यत्न करूं या!

•••



- भारती बांदोडकार,
चिंबल, तिसवाडी.
मो. 88058 22276

## बो र का री




आमचें सखू सामकेंच पिशांतूर शें जालां!
आमचें म्हणल्यार तशें तें म्हजें कोण न्हय.

गांवचें म्हणटकच आमचें अशें म्हणप जाता!

कोण कोण प्रमोद आमचो म्हणटात!

कोण दिगंबर आमचो म्हणटात! जाल्यार कोण बाबुश आमचो म्हणटात!

तशें हांव सखूक आमचें म्हणटां!

खरेपणी एक्साचो कोण कोणाचो नासता!

आपूण आपणाक, देव समेस्तांक हेंच खरें!

तशें सखू आदीं गरजेक पावतालें!

पूण बीजेपीन बायलांक कसली तरी येवजण राबयली आनी पुराय गांवान 'सखी गेली पंढरपूरा' म्हणलें!

तशें सखू पंढरपूराक आषाढीक वचपी.

कोणा आमदारा खुस्तार न्हय, आपल्याच नाड्यार 'ईठ्ठल ईठ्ठल ' करीत!

पूण ओंदू करोनान सगळ्यांचीच एक्स मारली.

तरी तांतल्या कांय जाणांनी विठ्ठलाचेर कविता रचून आपली खाज भागयलीच.

आमचें सखू मात कविताय ना आनी वारीय ना जावन वाऱ्यार पडलें!

पूण विठ्ठल भक्तांक पावले बगर रावना. विठ्ठलाचें एक आसा, ताणें कोणाकूय पावपाचें चिंतलें जाल्यार तो ताका पावताच. मागीर तो कोमाच्याय रुपान जावं! पूण जांकां तो पावता त्या भक्तांकूच जर पावला तो विठ्ठल हें कळना जाल्यार विठ्ठलान तरी कितें करप!

पूण सखू हें विठ्ठलाचें आगळें भक्त! ताका विठ्ठालाचें रूप वळखऊंक नाका येवं,पूण तें सगळ्यांकूच विठ्ठल मानून टेन्शन देंवयता. आतांच पळयात, सखूक आमंत्रण येयलें ईमानतळार वचपाचें. सखून येवजीलें, आमंत्रण दुसऱ्या तिसऱ्याचें कोणाचें न्हू. त्या ईठ्ठलाचेंच. नातर गोंयांत बुडटी येवन सांवार चलता आसतना मरपाक कोण मसणो येतलो? बरोऽऽ आसलो पोलीटीशन पासून तरी कितें जालें! हो येता तो ˙ प्रेजीदेंत जावं वा जावं कोणूय मसणो!आषाढांतल्या उटांगराच्या पावसांत येता मूं? म्हणटकच ईठ्ठलूच जातलो!

देव तो ! भक्तांक कोणायच्याय रुपान दर्शन दिताच!

सखू बीजेपीचे गाडयेन आयरापोर्तार गेलें.

थंय ईठ्ठलाक हेर सवायशीणी सांगातान ओवाळ्ळो,

धोल ताशांर नाचलें आनी उमेदीन घरा येयलें.

पूण सखूचें घर खंय आसलें?

उटंगराच्या पावसांत आनी हुंवारांत तें बुडलेलें!

घराचें बरें आसा, सरकार दितलो बांदून कशेंय! प्रेजीदेंतीक येवकारपाक गोंयभर बावटे लावप्यांक तें कठीण न्हूं!

पूण आपान पोती भरून पीठ,मीठ आनी थोडें कड्डणूय दिल्लें. वचपा बोवाळात तेणें तें आलमारीर दवरिल्लें. आतां पळय तर फुगून कोंबेल्लें.

ताचें कितें करचें हें ताका कळना जावन सखू पिशांतूर शें जालें आनी हुंवाराक सोडून त्या एक्साच्या प्रेजीदेंतीक संवक लागलें!

•••

शी र्श क था



दिलीप बोरकार

# नव्या वर्सा गोंय विधानसभा अधिवेशन पर्वरी न्हय! तें भरतलें गोंयच्या चार कुटुंबांत..!

पणजेचो आमदार बाबूश तर आपली राजकी तांक दाखोवंक सदांच मुखार. 'मैं जो बोलता हूँ वो करता हूँ और जो करता हूँ वो बोलता नहीं हूँ' अशें कितें तरी सतत इंग्लीशींतल्यान गुणगुणत ताचो वावर चालू आसता

कोंकणीं आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले **दिलीप बोरकार** ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यीक जावन आसात. तांच्या प्रवासवर्णनाक आनी बालसाहित्याक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार लाबल्यात.

गोंयचे प्रस्न लोकशाय प्रणालीन विधानसभेंत चर्चेक येवंचे, सभाघरांत तांचेर चर्चा जावंची, गोंयचे जनते पासत कायदे घडचे हाचे पासत आदली आदीलशाह पलास उणी पडूंक लागली , कांय लोकप्रतिनिधींच्या बोडार ते पालाशींत आदीलशाहच्या सरकारांतल्या अधिकाऱ्यांचीं आनी पुर्तुगेझ फिदाल्गांचीं भुतां बसून ते लोकशाय विरोधी नाका जाल्लीं फित्रिकां, तड्डकां, गुड्डुलसांवां आनी नाडपेन्ना करूंक लागिल्ल्यान ते वास्तुंतल्यान लोकप्रतिनिधींक वेगळे सुवातेर स्थलांतरीत करपा पासत मांडवी न्हंयचे तडीर एके दोंगुर्ले र नवी विधानसभा उबी केली. ती उबारपाक बरेच दुडू खर्चीले. कितले ते कळपाक मार्ग ना. कागदार हिशेब एक दाखयल्लो आसलो तरी त्या प्रकल्पाक कागदार दाखयला तितलो खर्च केन्नाच येना. तो खर्च वेगळो





आसता. कोणाकूय जर ताचो अदमास जाय जाल्यार तांणी दाखयल्ल्या खर्चांतल्यान आयच्या दरा प्रमाण जर वीस टक्के वेगळे केले जाल्यार तें कळूं येता. ते उरिल्ले वीस टक्के खंय गेले तें मात कोणें सोदपाचे भानगडींत पडूंक फावना. जर तो सोद सुरू जायत जाल्यार गोंयांत कसलींच सरकारी बांदकामां जावंचीं नात, कला अकादमीचे वास्तुचें, रवीन्द्र भवनांचें जावं हेर प्रकल्पांचें रुपांतरण जावंचें ना, नवे रस्ते, नवे पूल आनी हेर कांयच उबें रावचें ना. आनी वेंचणुकेक उमेदवारां कडल्यान मतदारांच्या हातार जें किर्ते पडटा तातूंत ताका लागून बरीच मर्यादा येवं येता. हेच पासत कोणें उबे जाल्ले प्रकल्प पळोवंचे, ताच्या खर्चाच्या मुळांत निखालूस वच्चें न्हय. तें ह्या सरकारच्या निती भायलें थारूं येता.

हातूंतच आनीक एक प्रस्न कोणाचेय तकलेंत येवं येता! खर्च खंयीय पावूं, कोणेंय कितलेय टक्के खावं! तळें राखता तो उदक चाखताच! तें आतां व्हडलेंशें घेवन बसपाचें ना! पूण येदी व्हडली विधानसभा संकुल आसतना 2022 सावन अधिवेशन तातूंत भरोवप ना म्हणल्यार किर्ते? ताचो कित्या खातीर वापर करपाचो तर?

ह्याय प्रस्नाक तसो अर्थ ना. जम्मू-काश्मीर हो गोंयचे परस ल्हान प्रदेश. त्या प्रदेशांत आतंकवादाचो सांवार चलता आसतनाय लोकशायेचो आदर राखूंक थारायल्ल्या काळार विधानसभा भरताच. पूण दोन कडेन. एक काश्मीराक जाल्यार दुसरी जम्मूक. वाचपी विद्वानातलो कोणूय एकलो विद्वान म्हणटलो, शिंयाळ्याच्या काळा पासत तशी ती वेवस्था आखल्या. महाराष्ट्रांतूय ती तशी आसा. मुंबय आनी नागपूर हांगा वातावरणा प्रमाण विधानसभेचीं अधिवेशनां भरतात. पूण गोंयांत तसली कसलीच परिस्थिती ना . गरमेचो रखरख आसता आब्रील-मायाक. पूण त्या दिसांनी विधानसभेचें अधिवेशन नासता. शिंयाळ्यांत सरकाराचो मूड बरो आसत जाल्यार राज्यपाल अधिवेशन आपयता. पूण शिंयांचो पत्तो नासता. पावसाळी अधिवेशन तर सगळ्यांनी हे खेप पळयलां. तें केन्ना घेतलें आनी केन्ना उलगलें तेंच कोणाक कळ्ळें ना.

तशें पळोवंक गेल्यार फुडाराक विधानसभा अधिवेशनाची गरजूय पडपाची ना. हे खेप सगळ्यांनी पळयलां आनी अणभवलांच, तें तीन दीस घेवपाची गरजय ना म्हूण ! पावसाळी अधिवेशन 40 दीस घेवंचें अशी मागणी चार-पांच आमदारांच्या विरोधी पक्षान आनी सरकारा वटेन नाशिल्ल्या आमदारांनी केली. पूण तांचें कोणेंच काना मनार घेतलें ना. निमणें तांणीच बें म्हणत निदान एक सप्तकभर तरी अधिवेशन घेयात म्हूण पराथलें. तरी तांकां सरकारान किंकोंत केलें आनी आपले मर्जी प्रमाण तीन दिसांचें घेवन आपल्याक जाय तेंच केलें. विरोधकांनी आपले परीन बोबो मारल्यो. पूण तांकां केर करपाची तशी सरकाराची मानसिकताच ना.

हें अशें कित्याक घडटा? तर आयज सरकारा कडेन फक्त पूर्ण भोवमत न्हय तर संपूर्ण भोवमत आसा आनी ताच्याच नाड्यार सरकार विरोधकांक भिसक्यार मारता.

लोकशायेंत जेन्ना असो प्रकार घडटा वा लोकशाय असले अवतिकायेक पावता तेन्ना सरकार विरोधी पक्षाक आयकना वा विरोधी पक्ष सरकाराचे पांगेंत आसा अशें दिसूंक लागता. तेन्ना लोक तरी लोकशाय वाचोवंक

सरकाराक आपल्या शिंगार घेतात. पूण आयज गोंयचो भौस म्हणल्यार पेज जावन गेला आनी ताकाय कशें हाताळचें हाचें पुराय प्रशिक्षण आर्‌एस्‌एस्‌चे मुर्शीत तयार जाल्ल्या मुख्यमंत्र्यांक बेस बरें खबर आसा. गोंयांत जीं आंदोलनां हालींसराक जातात तीं सरकाराच्या नांवान हुयेली मारीत जातात आसलीं तरी तीं खरेपणी सरकार विरोधी नासतात तर जांकां आपल्या अस्तित्वाची भिरांत दिसूंक लागल्या वा जांचे खंय ना खंय कसले हितसंबंध गुंतल्यात ते थोडो वेळ आपलें अस्तित्व दाखोवंक उचंबळीत जातात आनी आपलो हेत साध्य जालो काय तांचें तें आंदोलन अळम्यावरी वयर सरून परत नाच्च जाता. सरकाराकूय जेन्ना खबर आसता, आंदोलनाच्या नांवान ह्या भुरग्यांनी जी मळणी सुरू केल्या ते मळणेक बींय ना आनी भातूय ना म्हूण, तेन्ना सरकार असल्या आंदोलनाक व्हडलेंशें गांभिर्यान घेना. फाटल्या दिसांनी जितलीं आंदोलना जालीं तीं केन्ना वयर सरलीं आनी केन्ना मातयेंत मुंगरलीं तेंच कोणाक कळळें ना. तीं आंदोलनाय अडेचीं हें जनतेक खबर आशिल्ल्यान लोकांनीय तीं तशीं गांभिर्यान घेतल्यांत अशें दिसना. कित्याक ह्या आंदोलकां कडेन कसली दुरगामी कार्यावळ आसा अशें दिसलेंच ना. जशें हांवें आदीं म्हणलां तशें हीं आंदोलना फुडाऱ्यांच्या अस्तित्वाची धडपड आशिल्ली. तें दाखोवन दिवन नव्या वर्सा येवपी विधानसभा वेंचणुकेक वर्णी लावपाक आमीय आसां, आमचेरूय उपकार करात, आमीय तुमकां हें दिवं आनी तें दिवं अशें सांगपा खातीरूच हो सगळो खटाटोप आशिल्लो आनी आसा.

आसूं बाबड्यांचें आमदार जावपाचें सपन! पूण आमदार जावपाक तशे खूब कश्ट घेवचे लागतात. जेन्ना खंयचेंय पद हें चड फायद्याचें आनी फुडार घडोवपी आसता तें सहज कोणाक हातासपाक मेळना. खूब कश्ट काडचे पडटात. मोतयां जर हातासपाचीं आसत जाल्यार खोल दर्यांत वच्चेंच पडटा. ते पासत कुशळ बुडी आसचें पडटा. धडेर उबो रावन हातार आमदारकीचीं मोतयां पडनात. ते पासत मतदारसंघ म्हूण जो दर्या आसा तातूंत उडी मारून सगळो धवळून काडचो पडटा. त्या दर्यांत खंय माणकां आनी खंय मोतयां आसात आनी खंय करपां आसात हें कळळें म्हणटकच मागीर तो अणभवी बुडी वेवस्थीत बूड मारून माणकां मोतयां जमयता आनी तांचो आम दारकीचो हार करून गळ्यांत घालता आनी मिरयता. एकदां हो हार गळ्यांत पडलो काय दर वेंचणुकेक ताचेर हक्क गाजोवंक कठीण वचना. ती ताची म क्तेदारीच जावन वता. कित्याक ताणें पुराय दर्या धवळून काडून खंय मोतयां आनी माणकां आसात हाचो सोद लावन ताचेर आपली खुंटी मारिल्ली आसता. साम, दाम, दंड, भेद वापरून ताणें इतलें काम केल्या उपरांत ताचें काम आसता जाग्याच्या सोरपा वरीं मतदार रुपी ह्या माणकां मोतयांच्या हांड्याचेर नदर लावन रावप. कोण चोरीत, कोण फारायत ह्या भंयान दिसरात ताचेर ताका पारो दवरचो पडटा. इतलें केल्या उपरांतूच ताका ती खण फावो जाता. समजा नशीब सारख्यान ते खणीची पावणी कोणा दुसऱ्याच्या हातांत गेली आनी ताका चिटमिटे पडले तरी व्हडलेंशें दुख्ख लागना. कित्याक माजी आमदार म्हूण तांकां जें निवृत्ती वेतन मेळटा तें दिसरात अभ्यास करून, पदवी घेवन उपरांत पुराय जीण विद्यादानांत सारून निवृत्त जाल्ल्या खंयच्याय शिक्षकाक



मेळटा त्याय परस चड आसता. हें इतलें भाग्य पदरांत पाडून घेवपा पासत हे कश्ट एक खेप उस्तुंवचेच लागतात. मागीर मात जिवीतभर चांदीच चांदी न्हय तर भांगरच भांगर!

हें जालें एका आमदाराचें फळफळील्लें नशीब. जर ताका कोणेंय विकतो घेवन सरकार घडयलें आनी ताका मंत्रीय केलो जाल्यार तर विचारपाचेंच ना. दोनूय हातांनी लुटतलो म्हणल्यार दोन हात ताका पावना जातात. त्या भायर हें सगळें करूंक ताका जो मान मेळटा तोय आयुश्यांत केन्ना मेळचो नासलो इतलो!

मंत्र्याक जर इतलो मान आनी संद, जाल्यार मुख्यमंत्र्याक कितलो? मुख्यमंत्री म्हणल्यार तर राजा! ताणें अख्खें सावज आपल्या मुखार घेवन बसपाचें आनी मुखार कोण लालेतात तांचे मुखार तांची लायकी पळोवन कोणाक मांसाचो वा कोणाक हाड, हाडकूट बी उडोवन तांकां संतुश्ट दवरपाचें. तेच पासत जे हाडकूट चगळटात तेय राजा जावपाचीं सपना रंगयले बगर कशे रावत? पूण राजा जावप तशें सोपें ना. ते पासत आपले वटेन कांय आमदार जाय आसतात, जांचे बळाचेर सरकार घडोवं येता आनी उडोवं येता. फक्त आसले म्हूण उपकारना, ते खंयचेय परिस्थितींत आपल्याक कसोच दगो दिवपाचे नात, सरकार पडून सत्ता आनी आम दारकी गेली तरी सांगात सोडपाचे नात असो विश्वास आशिल्ले लोक जाय पडटात! पूण आयच्या खरेदी-विक्रीच्या घोड्यांबाजारांत असले विश्वासू सांगाती खंय आनी कशे मेळटले? ते पासत अशी वेवस्था राबवपाची गरज आसता, जी गुलाम



ाक लेगीत दिसूंक फावो, आपली जीण बरी म्हूण! सरकारान वा वेंचणूक आयोगान बायलांची काकूट येवन ग्राम सरकारांत बायलां पासत कांय वार्ड आरक्षीत केल्यात. त्या वार्डाचेर पारो सोरोप कसो बरोच काळ ठाण मारून बशिल्लो दादलो निरुपाय म्हूण आपले बायलेक त्या वार्डांत उबी करता, वेंचून हाडटा आनी तिच्या नांवान आपूण कारभार चलयता. बायल घोवाची गुलाम कशी थंय फकत नांवा पासत वावुरता म्हणपाचें दिसता.

एक धंदो म्हूण जे कोण राजकारणांत आयिल्ले आसतात आनी तांकां मुख्यमंत्री जावपाचे दुवाळे लागिल्ले आसत जाल्यार तांकां गोंयच्या मतदारसंघांत असले आपले कांय गुलाम वेंचणुकेक दवरून आमदार करचे पडटात. ह्याच गुलामांच्या बळार वा संख्येचेर हो धंदेकार राजकारणी मुख्यमंत्रीपदाचो दावो करूंक शकता आनी तांचे हातांत आपले मर्जीतले गुलाम वृत्तीचे आमदार आशिल्ल्यान तांकां हेर कोणाक फोडपाची कापाजदाद नासता. तेच पासत सरकार चलोवपाची मातूय कळाशी नाशिल्लो बोंडो मुख्यमंत्री जावप कठीण न्हय. असलेंच हें वातावरण गोंयच्या नीच राजकारणाक पुरक आशिल्ल्या कारणान 2022 चे वेंचणुकेक अशें घडलें जाल्यार अजाप न्हय आनी ताचे संकेत आतांच मेळूंक लागल्यात.

मुख्यमंत्रीपदाचेर दोळो दवरून आशिल्ले गोंयात चार राजकीय धंदेकार आसात. गोंयचे उत्तरेक तीन आनी दक्षिणेक एक. आपले रयतेक

तांचेच सुवातेर दवरून तांच्या मतांचेर राज्य करपी परंपरेंतल्यान राजकारणांत आपलो ठसो दवरिल्लो विश्वजीत राणे हो मुख्यमंत्री पदाचो दावेदार. तो मुख्यमंत्रीपदाचें बाळकोडू पियेवनूच ल्हानाचो व्हड जाल्ल्यान हें पद आपल्या हक्काचें असो ताचेर प्रभाव आसल्यार अजाप न्हय. सद्या ताच्या अधिपत्या खाल सत्तरींतले पर्ये आनी वाळपय अशे दोन मतदारसंघ आसात. प्रतापसिंग रावजी राणे हांणी आपली ही निमणी आमदारकी म्हणपाचें जाहीर केलां. फाटलो अर्द शेकडो एकाच मतदारसंघाचेर अधिपत्य चलोवन निवृत्त जावपी खाशे आपल्याक जाय म्हूण न्हय, मतदारांक जाय म्हूण न्हय तर आपली भलायकी सांगात दिना म्हूण आमदारकीचो त्याग करतात. ताका लागून येता ते वेंचणुकेंत पर्ये बाबा कडेन वतलो आनी हाका लागून इतलीं वर्सां ज्या पर्येंत हेर नवें राजकी फुडारपण वयर सरूंक पावलें ना थंय सिनियर राणेंचे निवृत्ती उपरांतय त्या कुटुंबा भायलें नेतृत्व विधानसभेंत प्रतिनिधीत्व करतलें म्हणपाची निम णी आस्तूय पालवतली. बाबा पर्ये मतदारसंघाक घास मारून बसतलो, वाळपय आपले घरकान्नी सुवादीन करतलो आनी आशिकुशिचे आनीक दोन मतदारसंघ आपल्या पांखां पोंदा घेवपाचो येत्न करतलो. ताका तें सहज शक्य आसा. जो मांद्रें आनी पेडण्या आपली वट सांगूंक शकता ताका साखळी हातासप कठीण न्हय. प्रमोद सावंतान आपूण योग्य मुख्यमंत्री न्हय म्हणपाचें ह्या दोन वर्सांत सिद्ध केल्लें आसतलें. ताच्या नशिबांतलो ह्या पदाचो योग फुडल्या पांच- स म्हयन्यांत केन्नाय वचूं येता जो फुडाराक परत येवप शक्य ना. मुख्यमंत्रीपदाच्या ह्या काळांत ताणें आपली वाचा आनी कृतींतल्यान आपलो राजकी फुडार इतलो अरिश्टांत घाला, तो परत निवडून आयलो जाल्यारूच अजाप. हेच संदीचो लाब बाबा घेतलो आनी ताका मतदारांक बाबा-पुता करपाक चड तकालस पडची ना. तातूंत ताचे कडेन इतलीऽऽ'माया' आसा, जिचो वापर करून 'मनी टॉक बुलशीट वॉक' ही ताच्या तोंडांतली आनी मनांतली इंग्लीश म्हणणी खरी करून 'बुलशीट' मतदान केंद्रा मेरेन हाडपाची शक्त ताणें नक्कीच सुगूर केल्या. हीच शक्त ताका मुख्यमंत्रीपदार बसोवंक पुरो!

कलंगुटच्या लोबोन तर आपूण आपले बायलेक साळगांवच्यान आनी म्हापशें तशेंच हेर मतदारसंघांतल्यान आनीक तीग जाणांक वेंचून हाडटलों म्हणपाच्यो बोबो बऱ्याच काळा सावन मारूंक आरंब केल्यात आनी ताचे कडेन आडनदर करून चलपाचें ना.

पणजेचो आमदार बाबूश तर आपली राजकी तांक दाखोवंक सदांच मुखार. 'मैं जो बोलता हूँ वो करता हूँ और जो करता हूँ वो बोलता नहीं हूँ' अशें कितें तरी सतत इंग्लीशींतल्यान गुणगुणत ताचो वावर चालू आसता आनी जे कोण स्वयंभू नासतात पूण जांचे कडेन आपल्या वावराक सारें घालपाक सारेंय आसा आनी मानायपणूंय आसा असल्यांच्या तो सतत संपर्कांत आसता. ताळगांव ताणें



फाटलीं धा वर्सां आपले बायलेच्या नांवार केलांच. ताची इत्सा आसा सर तो मतदारसंघ तिचे हांडीर आसतलो. पणजे आपले लागीं दवरून थंयची म्हानगरपालिका 'बाबा म्हजो खेळूं!' म्हणत ताणें आपल्या पुता कडेन दिल्या. फुडल्या स म्हयन्यांत बाबुशाच्या ह्या बाबूची राजकी भूक वाडूं येता. टोनी सांताक्रूज मतदारसंघातल्यान बीजेपीचे तिकेटीर वेंचून येतलो काय कितें हें ताकाच खबर ना. ताची सगळी भिस्त बाबुशाचेर. पूण बाबूश टोनीचेर फाटल्यान केन्ना तोणको मारीत आनी आपल्या बाबूक थंय उबो करीत हें कोणाच्यान सांगू येना. आपलो सांत आंद्रे मतदारसंघ आपले सुवादीन दवरूंक फ्रांसिस सिल्वेरा त्या मतदारसंघांत पयसो घालीत आसा. बाबूश तोय मतदारसंघ आपलोच म्हूण

मागता मिन्वेर ताचो माडलीक म्हण गावपाक एका पायार उबो आशिल्ल्यान ताणें तशी धारणा करून घेतल्या.

दक्षिणे कडलो आयच्या काळाचो चक्रवर्ती म्हणल्यार कवळेंकार. कवळेंकार हें आडनांव कवळें ह्या गावा वयल्यान आयलां अशें जरी वयलेतराक दिसलें तरी तें दुडवांचे 'कवळे' हाचे वयल्यान आयलां अशें जाणकार सांगतात. मटक्याच्या दुडवांचे कवळ मासपूंक जांची जीण सरल्या ताकांच पदवी म्हूण हें बिरूद फावो जाता जें कालांतरान आडनांव जावन उरता. म्हणटकच नांवांतूच जाच्या कवळे आसात, घरतली सावित्रीय सर्ग गांठपाचे तांकीची आसत जाल्यार ताका यमदरबार लेगीत आपल्या अधिपत्या खाल हाडप कठीण न्हय!

अशे तरेन गोंयच्या चाळीस मतदारसंघांतले पांच-स मतदार संघ आपल्या चोपक्यांत घेवपाक दुडवांच्यो मुठी सदळ केल्यो आनी तांचो आपूण धनी जालो जाल्यार हांच्या बुडा खाल 2022 वर्सांतलो गोंयचो राजकारभार वचप कठीण न्हय. तेच नदरेन जणेकल्याचो वावर चलता. आनी गोंयच्या नशीब सारक्यान जर म्हजें हें भाकीत खरें जालें जाल्यार जाच्या हातांत चड आमदार तो मुख्यमंत्री जातलो. मागीर तो सत्तरीचो आसूं येता, कळंगुटचो आसूं येता, केपेंचो आसूं येता वा ताळगांवचो! हे सगळे धंदेकार राजकारणी आपल्या ह्या धंद्यांत फिशाल. धंद्या पासत आनी तातूंतल्यान तयार जाल्लो घरावे संबंद हाका लागून ह्या सगळ्यांचें एकमेकांच्या बंगल्यार येवप-वचप तशें संवकळीचें. म्हणटकच एक दोन दिसां पासतच्या विधानसभा अधिवेशनाचो फार्स करूंक हांणी जांबावलेंच्यान गोंय लागीं करीत पवरि वचूंकच जाय अशें ना. तांणी केन्ना सत्तरी, केन्ना कळंगुटे, केन्ना ताळगांव वा केन्ना केप्यां जमून च्या पितां पितां हें नाटक सोबोवन व्हरूं येता. वांट्याक भोवमत आसत जाल्यार कोणूच कांय करूंक शकना हें जुलाय अधिवेशनान दाखोवन दिलां. हातूंत ह्या फुडें बदल ना. लोक तर सत्वहीण, वीर्यहीण जाल्यात. विरोधक तर हेरा परस आपल्याक कितें आनी कशें चड मेळू येता हाचोच विचार करपान दंग आसात. हाकाच लागून ह्या थर्डक्लासांचें वा म्हणूं या नीच राजकारण्यांचें फावलां. तांकां कोणाचोच भय उरूंक ना. तांचे घरावरनी कडडणाच्यो पोतयो पावोवप, लग्नाक, वग्रदाक, सोऱ्याक, मटको खेळपाक वेळावेळार पयशे दिवपाचें काम चालूच आसा म्हणटकच मतदार तांणी केल्ल्या उपकारांक नेगार वचपाचे नात. ते वेंचून येतलेच. विधानसभा फुडारांक चार लोकांच्या बगल्याचेर भरतली हाचीय कोणाक खंत ना. 'अशें जाल्यार पर्वरीचें विधान भवन उबें करूंक जनतेचो वापरिल्लो दुडू आतां उदकांत मरे!' अशें म्हजे सारक्या 'चिंता'ग्रस्तांक चिंता करपाचीय तशी गरज ना. आग्वाद किल्लो बी तसो धंदेकारांक धंद्या पासत दिल्लोच आसा. मांडवी न्हय कॅसिनोंनी भरून गेल्या. थंय आनीक कॅसिनोक सुवात ना. पर्वरी मॅजेस्टीकवालो कॅसिनोक आपल्याक सुवात पावना म्हणटालो. ताका सद्याचें विधान भवन लागीं पडटा. ताचे कडेन दिल्यार ताचें मेन्टेन्सूय जातलें, सरकाराक भाड्या रुपान दुडूय मेळटले आनी कॅसिनो वाल्यांचोय प्रस्न सुटटलो.

म्हणटकच भिवपाची गरज ना!

•••



स्मरण



दिलीप बोरकार

# एक सुंदर सांजवेळ दिलीपकुमारा सांगाताक

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले **दिलीप बोरकार** ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यीक जावन आसात. तांच्या प्रवासवर्णनाक आनी बालसाहित्याक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार लाबल्यात.

एक सुंदर सांजवेळ एका म्हान कलाकारा वांगडाच न्हय तर एका व्हड मनशा वांगडा सारिल्ली ती म्हाका सासणाची उर्बा दिवपी थारली. एका लेखकाच्या पांयांक हात लावपाक वाकपी ही व्यक्ती मळबाकूय ल्हान करून गेली अशें म्हाका खीणभर दिसलें.. असल्या किरदाराक कशें विसरूं येत...!

दिलीपकुमार गेल्याची बातमी आयली. तशी ती बातमी चार वर्सां आदींय आयिल्ली. तेन्ना हांव दक्षिण कोरियाचे भोंवडेर आशिल्लों. ही बातमी कळोवन गोंयच्या एका दिसाळ्याच्या संपादकान म्हजे लागीं दिलीपकुमाराचेर लेख मागिल्लो. संपादकाक दिलीपकुमारा कडले म्हजे संबंध खबर आशिल्ले. हांवें लेख धाडलो खरो पूण ताचो वापर जालो ना. तेन्ना ती फकत एक वावडी थारली आनी फाटल्या म्हयन्यांत जुलायांत ती सुमार चार वर्सांनी खरी थारली.

दिलीपकुमार हो आकांताचो कलाकार. सात दसकां ताणें वेगवेगळ्या चित्रपटांतल्यान वेगवेगळ्यो भुमिका साकार करून अभिजात अभिनयाचो साक्षात्कार घडयलो आनी एक कलाकार अभिनयाचें

विद्यापीठ कशें धारूं येता हाची देख घालून दिली. अशें आसलें तरी शेवटी दिलीपकुमार हो हे धर्तरे वयलो एक प्राणीच आशिल्लो. केदोय व्हडलो आनी कितलोय बरो कलाकार आसलो तरी ताका नियती अमरपट्टो दिना. ताका आपल्या जिविताची लांबाय वाडोवपाची संद दिता आनी ती व्यक्ती सामकीच निरुपेगी थारूंक लागली काय नियती ताचो लायफ सपोर्ट काडून घेता. दिलीपकुमार 98 वर्सांचे पिरायेर हो संवसार सोडून गेलो. तो आसून ताका आनी समाजाकूय तसो उपेग नाशिल्लो, पूण ताची घरकान्न सायराच्या म्हणण्या प्रमाण तो तिचे जिणेचो 'मकसद' आशिल्लो. ताच्या वचपान सायराचें जगप नक्कीच निरस जातलें. कितेंय आसूं अभिनयाच्या मळार दिलीपकुमार ही आख्यायिका जावन उरतली हें मात खरें!

दिलीपकुमारा कडेन म्हजो राजेश खन्ना जावं सुनिल दत्ता लागीं आशिल्लो तसो लागशिल्लो संबंध नाशिल्लो. पूण राज कपूर, राज कुमार हांचे वांगडाच दिलीपकुमाराक एकदां तरी मेळूंक जाय ही म्हजी एक सुप्त आस्त आशिल्ली. राज कपूर आनी राजकुमाराक मेळपाची संद म्हाका गावली ना. पूण दिलीपकुमारा कडेन एकदां फोनार उलोवपाची आनी दुसरे खेप वर भर गजाली मारपाची संद मेळ्ळी. ह्या दोनूय घडणुका वयल्यान हो अभिनय सम्राट मनीस म्हुणणूय सम्राट म्हणपाचो अणभव म्हाका आयलो.



गोंय सरकारच्या म्हायती खात्याचे संचालक शिवाजी प्रभुगांवकार आसतना गोंयांत थळाव्या चित्रपटांचो महोत्सव करपाचो विचार मुखार आयलो. पयलोच महोत्सव जाल्ल्यान ताच्या शुभारंभाक उद्घाटक म्हूण कोणाक हाडचो हो प्रस्न शिवाजीक सतायतालो. हांवें दिलीपकुमाराचें नांव सुचयलें. जर तो आयलो जाल्यार त्या निमतान ताका मेळप जातलें हो म्हजो सुवार्थ!

मुंबय वचून वा पत्र धाडून ताका निमंत्रीत करपा इतलो वेळ नाशिल्लो. म्हजे कडेन ताचो फोन आशिल्लो. हांवें फोन केलो आनी ताका कारण सांगलें. अत्यंत नमळायेन ताणें आपल्याक नक्कीच येवपाक आवडटलें आशिल्लें म्हणपाचें सांगलें आनी कित्याक येवंक शकना ताचेंय कारण सांगलें. ते वेळार ताचें आनी शिवसेनेंचें वाजलेलें. शिवसेनेन ताका धमकी दिल्ल्यान नाका म्हणटा आसतनाय ताका झेड सेक्युरिटी दिल्ली. उपरांत धर्मानंद वेर्णेकारान बी महेश भटाक आपोवन महोत्सव शार्नी व्हेलो.

उपरांतच्या काळांत गोंय सरकारान रस्तो सुरक्षा ह्या विशयाचेर दुरदर्शनाचेर वितरावपाक फिलर करपाचें थारायलें आनी तातूंतले कांय म्हाका आनी धर्मानंद तशेंच आनीक कोणाक मेळिल्ले. धर्मानंद आनी हांवें सांगातान ते करपाचे थारायले आनी एडीटींगाक मुंबय बब्बू मेहराचो स्टुडियो बूक केलो. तो वावर चालू आसतना मदींच हांव सिगरेट ओडपा पासत स्टुडियोंतल्यान भायर आयलों. तेन्नाच दुसऱ्या स्टुडियोंतल्यान सायरा बानू गडबडीनशी भायर आयली. आतां पिराये प्रमाण आंगान जरी ती सुटिल्ली आसली तरी धव्या फुल्ल कमीज सलवारींतल्या सायरा बानूक हांव वळखलों. एका काळा वयली ती म्हजी आवडीची हिरोइन आशिल्ली.

ती भायर सरल्या बराबर थंय आशिल्ले सगळेच उठून अदबीन उबे रावले. म्हाका दोडटकच हांवें तिका 'हॅलो सायराजी' म्हणलें. तशी ती

हांसली आनी 'जरा रुकिए, मैं पहले युसूफ से बात कर के आपको मिलती हूँ' अशें म्हणत काऊंटरा वयले लँड लायनीचेर फोन घुंवडावंक लागली. बरोच वेळ ती दिलीपकुमारा कडेन कितें तरी उलयताली. हांव भायर उबो रावून तिची फाटली आकृताय नियाळटालों. ती फोन बंद करतली आनी हांव तिका मेळून तिचे लागीं उलयतलों म्हूण आशिल्लों.

इतल्यांत एक काळीच गाडी येवन स्टुडियो भायर रावली. फुडलें दार उगडून काळ्याच ड्रेसांतलो एक कमांडो हातांत मसीनगन काय कितें तरी घेवन सकयल देंवलो. ताणें फाटलें दार उगडलें आनी पळयत जाल्यार दिलीपकुमार! काळ्याच सुटांत मोबायलाचेर उलयत गाडयेंतल्यान देंवतालो. म्हजी आनी ताची नदरा नदर जातांच ताणें हांसत्या मुखामळान दोळे मोडिल्ले वरीं केले. तसोच सायरा बानूच्या फाटल्यान वचून उबो रावलो. तो आयला म्हणपाची अजून तिका कल्पना नाशिल्ली. तिणें फोना वयल्यानूच ताका प्रस्न केलो, 'युसूफ कहा हो तुम?' 'मैं तो तुम्हारे पीछे ही हूँ' अशें ताणें तिच्या खांदार हात दवरून म्हणल्या बराबर सायरा बानू कानाक रिसिव्हर लावनूच फाटल्यान घुंवली आनी 'क्या मजाक करते हो युसूफ?' म्हणत रिसिव्हर सकयल दवरलो. आपल्या खांदा वयलो ताचो हात कुशीक काडीत, स्टुडियोंत वतां वतां तिणें म्हणलें, 'जरा ठहरियो, मै काम निपटाके तुरंत आती हूँ'

सायराजी दार उगडून स्टुडियोंत गेली. फ्लॅप आशिल्लो तो ल्हानसो मोबायल बंद करून बोल्सांत घालता आसतना ताणें आपले खास अदाकारीन म्हाका 'हॅलो' म्हणलें. हांव सायरा बानूक मेळपाक, तिचे लागीं उलोवंक आशेल्लों. आनी आतां पळयत जाल्यार दिलीपकुमारूय म्हजे मुखार फकत हाताच्या अंतरार उबो आशिल्लो. रातचो णवाचो वेळ आशिल्लो. दिलीपकुमाराक पळोवन सगळे तटाकून उबे आशिल्ले. सायरा ये सर ताकाय थंय तिची वाट पळयत उबो रावपाकूच जाय आशिल्लें. तीच संद हांवें घेतली. हांवें मुकार सरून ताका हात दिलो. हांव खंयचो आनी कोण हें सांगलें आनी म्हजी वळख दिली. हांवें ताका गोंयच्या चित्रपट महोत्सवाक आमंत्रीत केल्ल्याची याद केली. ताका याद आशिल्ली काय कितें हें देवाक खबर! कितें उलोवंचें तें खबर नासून आबूज जाल्लों हांव कितें तरी उलयतालों. 'अरे गोवा कौन नही आना चाहता ? लेकिन इन लोगों को लेकर कहाँ कहाँ घुमू?' सुरक्षा रक्षका कडेन हात करीत ताणें हांसत हांसत म्हणलें. बरोच वेळ हांव ताचे कडेन उलयलों. ताचीं पिक्चरां आवडटात, म्हाकाय पिक्चरांची आवड आसा, हांगा हांव एडिटींगाक आयलां बी कितें कितें सांगलें. सायरा ये म्हणसर ताकाय वेळ काडपाचो आशिल्लो आनी येद्या म्हान कलाकाराचो सहवास असो आलायतो मेळटा तो सोडपाक हांव तयार नाशिल्लों.

इतले म्हणसर दिलीपकुमार आयला म्हणपाची सुलूस धर्मानंदाक लागली आसतली! तोय स्टुडियोंतल्यान भायर येवन आमच्या म्हऱ्यांत आयलो. दिलीपकुमाराक हात दियत ताणें ताका सांगलें, 'ये बी दिलीपही है, कोंकणी के बहुत बडे साहित्यकार है. बहुत किताबें लिखी हैं'

आयकल्या बराबर दिलीपकुमार म्हज्या पांयांक हात लावंक अक्षरशा वाकलो. धर्मानंदान ताच्या हाताक धरीत ताका म्हणलें, 'आप ये क्या कर रहें हैं? ये तो आप से उम्र में बहुत छोटे हैं.'

त्या बराबर धर्मानंदा कडेन वळून ताणें म्हणलें, 'यहाँ उम्र का सवाल नही है... आप लिखते हैं तभी तो हम किरदारी निभाते हैं..'

मागीर म्हजे दोनूय हात आपल्या हातांत घेवन सायराजी भायर ये मेरेन बरोच वेळ तो म्हजे लागीं वेगवेगळ्या विशयांचेर हांगा थंयचें कितें कितें उलयतालो. सायराजीन भायर येवन ताका, 'चलेंगे ना?' म्हणलें तेन्ना, 'हाँ चलते हैं' म्हणत तो नमस्कार करून गाडयेंत बसूंक गेलो. बसल्या उपरांत दार बंद करचे आदीं ताणें म्हणलें, 'आप का इन्वीटेशन मुझे याद है, अगली बार मैं जरूर आऊंगा..' मागीर हांसत ताणें हात हालयलो आनी आपणेंच दार ओडून घेतलें. गाडी फाटीं सरली आनी वाटेक लागली. एक सुंदर सांजवेळ एका म्हान कलाकारा वांगडाच न्हय तर एका व्हड मनशा वांगडा सारिल्ली ती म्हाका सासणाची उर्बा दिवपी थारली.

एका लेखकाच्या पांयांक हात लावपाक वाकपी ही व्यक्ती मळबाकूय ल्हान करून गेली अशें म्हाका खीणभर दिसलें.. असल्या किरदाराक कशें विसरूं येत...!



जिबेवेली जतनाय



सखाराम
शेणवी बोरकार

कोंकणी कवितेंत [illegible] सखाराम शेणवी बोरकार काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

# कोंकणी म्हणी आनी वाक्यप्रचारांतली जीब

जेन्ना एखाद्रो आपल्याक जाय तेंच काम करून घेता तेन्ना 'जिबे जिबे तुका किदें जाय?' म्हणप आनी काम करप. बाकी ताका विचार थोडोच आसा?, ह्या अर्थाची ही म्हण. हीच म्हण मालवणींत 'जिभे तुका काय होया? म्हणायचा आणि करायचा, फुडें काय जाता ता जावंदे.'

हालींच म्हजो 'कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचारांतलें दोळे' हो 'बिम्ब' म्हयनाळ्या वयलो लेख वाचून भौ. मनोहरबाब धुंगट, जांकां हांव 'कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचार' ह्या मळा वयलो म्हजो गुरु मानतां, तांणी म्हाका सांगलें, त्या लेखांत हांव 'आयकात रे कानांनू, पळयात रे दोळ्यांनू, जिबे पापणी मट्ट बस' ही फामाद ओपार घालपाचों विसरलां म्हण. हांवें तांकां सांगलें, ती म्हण 'जीब' ह्या विशयाचेर हांव जेन्ना बरयतलों तेन्ना घालपाक दवरल्या.

तांणी म्हाका सांगलें, गांधीजीं कडेन जो तीन माकडांचो धाकटुलो पुतळो आसलो, तातूंतलें एक माकड कानार हात दवरून, दुसरें दोळ्यांर हात दवरून आनी तिसरें तोंडार हात दवरून आसात. तीं आमकां सांगतात, वायट आयकुंचें न्हय, वायट पळोवंचें न्हय आनी वायट उलोवंचें न्हय. पूण आमची 'आयकात रे कानांनू, पळयात रे दोळ्यांनू, जिबे पापणी मट्ट बस' ही नीज कोंकणी म्हण आमकां सांगता, तुमी बरें वायट सगळें पळयात, आयकयात पूण तुमचें तोंड मात बंद दवरात. तोंड उगडलें काय सगळें 'ओमफस्स' जालें. हीच म्हण 'आयकात रे कानांनू, पळयात रे दोळ्यांनू, जिबे रांडे मट्ट बस' अशीय घोळटा.

आमचे कोंकणींत हे जिबेचेर खूब म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

'जिबेक हाड ना/ लगाम ना म्हण कितेंय उलोवंचें न्हय', कित्याय कितें पचकें उलोवपी वा सांगपी मनशाक ही म्हण वापरतात. 'जिबेक हाड ना म्हण बरें, ना जाल्यार मोडून वतलें आशिल्लें' अशेंय' म्हणटात.

'जिबेक हाड ना तरीय दांत उडयता', जिबेन एक वायट उतर उलयल्यार दांत पडपाची भिरांत आसता. ज्याका वायट उतर उलयलां तो रागान त्या मनशाचे दांत उडोवपाक फाटींफुडें चिंतना. 'जिबे फुडें दांत आनी दांता फुडें जीब', हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण. ढहश 'पर्सीश लीशरज्ञश 'हिश लेपश 'हीसह ळीशश्रष हरीश पेपश. ही ह्याच अर्थाची इंग्लिश म्हण. 'जिणिमरण जिबे आदीन', 1566 वर्साची ह्याच अर्थाची ही ओपार.

'एके जिबेन सगलो संवसार आप करूंक येता', मनशाची ही अडेच इंचाची जीब मनशाचें नशीब बदलूंक शकता. खावप आनी उलोवप ह्यो दोनय गजाली जिबच करता. मनशान जिबेचेर ताबो दवरलो तर ताचें आरोग्य बरें उरुंक शकता. तशेंच जिबेरूय ताबो दवरून संयमान उलयलें जाल्यार लोकांची मनां तो जिखपाक शकता हें सांगपी ही म्हण. 'जेणी जीभ जिकली तेणी विश्व जिकला', ह्याच अर्थाची ही मालवणी कोंकणी म्हण.

'जिबेचें पोंत आनी चोटलेचें पोंत हातांत दवरीत तो ब्रह्मांड जिखीत',

उलोवप, खावप आनी भोगप ह्या तीन मुखेल गजालींचेर जो ताबो दवरूंक जाणा तो ब्रह्मांड जिखूंक पावता असो हे म्हणीचो अर्थ.

'जिबेक बाटून वचत', संवसारांतले कांय लोक खूब खादाड आसतात. तांकां दोळ्यां मुखार खंयचीय खांवचेली वस्त दिश्टी पडली जाल्यार फाटलो फुडलो परिणाम पळयनासतना ती वस्त खातात आनी मागीर त्रासांत पडटात. असल्या लोकांक लेखून ही म्हण वापरतात.

'जिबेन केल्लें फाटीर आयलें', तोंडान नाका जाल्लें उलयलो आनी फाटीर मार बसलो. होच मार तकलेर बसल्यार 'जिबेन केल्लें ताळवेर आयलें' अशेंय म्हण्टात.

'जीब व्हाण कर नये', जोत्यांक चलतना कितेंय लागता तशें आपली जीब नाकाशिल्ले गजालींत घालून म्हेळी करची न्हय अशें ही म्हण आमकां सांगता.

'जीब आसा म्हण नाकाक लावं नये', जीब नाकाक लावप म्हळ्यार दुसऱ्याक चाळोवप. बरे वस्तीचो वायट कामाक उपेग करचो न्हय अशें ही म्हण आमकां सांगता.

'जिबेवेलें हशाळें', तोंडानच गोड पदार्थ करप. जी वस्त गडबडीन करतात ती केन्नाच सारकी जायना हें सांगपी कर्नाटक वाठारांतली ही म्हण.

'जीब नात्तिल्लो केप्याक किरु करता', 'जीब नाशिल्लो भेऱ्याक कीर करता'. कीर करप म्हळ्यार फकाणां करप. आपलें उणेपण विसरून दुसऱ्याचें उणेपण वयर काडटा ताका ही ओपार मारतात. कर्नाटक वाठारांतली ही म्हण. 'केपो' म्हळ्यार भेरो. 'दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलें किसळ दिसता, आपल्या दोळ्यांतलें मुसळ दिसना'. हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण. दुसऱ्याचे बारीक सारीक दोश दिसतात, आपले आनी आपल्या मनशांचे व्हड दोश दिसनात असो हे म्हणीचो अर्थ.

'आडजीब खाता पडजीब बोब मारता' (वाट पळयता), जिबेक एक खावपाची वस्त मेळटगीर ती खाता पूण पडजिबेक ताळ्या कडेन पावसर वाट पळोवंची पडटा. एका कामाक दोन वांगडी आसतगीर जाका पयलीं फायदो मेळटा तो ओगी रावता आनी जाचे मेरेन फायदो पावना तो करंदाय मारता हें सांगपी ही म्हण.

'आपल्याच दांतान आपलीच जीब चाबल्यार फिर्याद कोणा कडेन करप?', आपलेच लागींचे मनीस आपल्याकच त्रासांत घालतात तेन्ना ही ओपार मारतात. 'आपली जीब आपले दांत कोपचें कोणाचेरि सांग?', कर्नाटक वाठारांतली ही ह्याच अर्थाची म्हण.

'जीब चोकारी, नशीब भिकारी', जिबेक खूब कितें खायन दिसता, पूण नशिबांत नासत जाल्यार जिबेक तें मेळना.

'उखल्ली जीब लायली ताळ्याक', उतावीळपणान, फाटलो फुडलो विचार करिनासतना कित्याय कितें उलयता ताका ही ओपार मारतात.

'जीब शिंदळ खांद्यार कुदळ', जो अभद्र, नाका जाल्लें उलयता ताका सदांच त्रास सोंसचे पडटात हें सांगपी ही म्हण.

'जिबेक जाय पूण भाणो (पोट) घेना', जिबेक खूब कितें खायन दिसता पूण पोटांत जागो नाशिल्ल्यान पोट तें घेवंक कांचवेता. हें सांगपी ही म्हण. 'जीब घेता पूण भाण्याक (पोटाक) नाका जालां', वयले म्हणीचो दुसरो रुपकार.

'जीब आळोवंची आनी भुरगें खेळोवंचें', ही म्हण चड करुन ल्हान भुरगें आशिल्ले आवयक मारतात. जें भुरगें आवयच्या दुदाचेर आसता, ते आवयन खाता जेवता आसतना पथ बाळगप गरजेचें, आपले जिबेचेर ताबो दवरप गरजेचें. आवयन कितेंय अचमट मचमट खाल्यार ताचो परिणाम त्या ल्हान भुरग्याचे भलायकेचेर जावपाचो संभव आसता. ते खातीर आवयन पयलीं जतनाय घेवंक जाय हें सांगपी ही म्हण.

'जिबेन तीळ चाटलो आणि बामण मात्र बाटलो', एका ल्हानशा गुन्यावां खातीर व्हडली ख्यास्त भोगची पडटा तेन्ना ही ओपार मारतात.ही एक मालवणी कोंकणी म्हण.

'जिबेर गोड, पोटान कडू', जो मनीस तोंडान गोड उलयता पूण भितरल्यान कोडसाण आसता ताका लेखून ही म्हण मारतात.

'जिबेर इंगळे पूण मनाचें बरें' जो मनीस सभावान तापट आसता पूण मनाचो बरो आसता ताका लेखून ही ओपार मारतात. 'जिबेर इंगळो, पोटांत घरो', हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण.

'जिबेक बोटां लायल्यार पोटां भरनात', किरकोळ काटकसर करून कांयच उपेग ना. काम तडीक वतलें जाल्यार योग्य ती तयारी जाय. 'दांत कोरून (धोंकून) पोट भरता?', हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण.

'जिबे जिबे तुका किदें जाय?', जेन्ना एखाद्रो आपल्याक जाय तेंच काम करून घेता तेन्ना 'जिबे जिबे तुका किदें जाय?' म्हणप आनी काम करप. बाकी ताका विचार थोंडोच आसा?, ह्या अर्थाची ही म्हण. हीच म्हण मालवणींत 'जिभे तुका काय होया? म्हणायचा आणि करायचा, फुडें काय जाता ता जावंदे.' म्हणजे जिवाची वाट लागल्यार मागीर पळोवंया सद्याक जिबेक जाय तें दिवंया. म्हणजे परिणामाचो हुस्को करिनासतना जाय तें काम करून घेवप.

कोंकणींत हे जिबेर आमकां साबार वाक्प्रचार मेळटात.

- जीब आडवी पडप: जीब जड जावप, जिबेक आर जावप, खूब सोरो पिल्ल्यान उतर आडखळप.
- जीब कुसप: फाजील आनी नाका जाल्लें उलोवप.
- जीब मोटवी करप: जिबेर ताबो दवरप, थोडें उलोवप.
- जीब लांब जावप: फाजील उलोवप.
- जीब वांकडी पडप: वायट उलोवप.
- जीब वाऱ्यार घालप: गुपीत फोडप.
- जीब शिंदळ जावप: सुवार्था खातीर फट उलोवप.
- जीब हुळहुळप: गरज नासतना चड उलोवप.
- जीब चाबप: कितेंय म्हणपा पसून आपणाकूच आडावप.
- जीब काडप, चाटप: आशेन पळोवप.
- जीब वळवळप: भलतेंच उलयत रावप.



- जीब फुटप: जिबेर फोड येवप,फाजील उलोवप.
- जीब झडप: वाचा वचप.
- जीब धरप: जीब आडवी पडप, उलोवणें फुटनासप.
- जीब मेकळी सोडप: मनाक मारता तें उलोवप.
- जिबे मङ्यार घालप: इत्सा पुराय करप.
- जीब मुतप: तोंडांत लाळ येवप, रूच सुटप, लाळेवप
- जीब लवलवप/जिबेक उदक सुटप: खावपाचो पदार्थ पळोवन रूच येवप.
- जिबेर सुण्या पेटे पडप: मेळटा ताचेर आड्डप/भूक सोंसूंक ना जावप.
- जिबेर आसप/जिबेच्या तोंकार आसप: तोंडपाठ आसप.
- जिबेची फोंत चालूच दवरप: थांबनासतना उलयत रावप.
- जिबेन बाट/दाट: कित्याय कितें उलोवपी/तोंडार सदांच वायट उतरां आमपी.
- जिबेर उरप: खाल्लें ताची रूच जिबेर उरप/यादींत उरप.
- जिबेक धार काडून रावप: आपलें आवडीचें खाण खावपाक तयार रावप/ बदलो घेवपी उतरां उलोवपाची संद पळोवप.
- जिबेक तीळ आसप/ जीब काळी आसप: वायट उलोवपी/ उलयता तें जाता असलो मनीस.
- जिबेक चिमटो काडप: वायट उलयली म्हण जिबेक ख्यास्त करप. खाल्लें जिरना म्हण खावपाचें बंद करप.
- जिबेक दाग दिवप: भुरग्यान कितेंय भलतेंच उलोवचें न्हय म्हण भेश्टावप.
- जिबेक विचारून: आपले रुचीचें वा आवडीचें.
- जिबेची सारण करप: उलय उलय उलोवप, उलयल्लें फुकट वचप.
- पोटजिबे सारकें: भितरले बुददीचें.
- जिबट: जिबेचे सुवादीन, मचमचीत खावपाची चट लागला तो, जीब सुवादीन ना तो.
- लुचके जिबेंचें: जी बायलमनीस कितेंय जिनस रांदतना मदीं मदीं तो खायत रावता तिका 'लुचक्या जिबे'ची म्हणटात.

ह्यो आसल्यो कोंकणींत मेळपी 'जिबे'चेर आदारिल्ल्यो कांय म्हणी आनी वाक्प्रचार.

•••

ललित

काश्मिरी पावसकार



# कृतज्ञताय



**काश्मिरी पावसकार** पेशान शिक्षिका जाल्ल्यान तांचो सातत्यान संपर्क येता तो विद्यार्थ्यांलागीं आनी नवनव्या कल्पना विश्वा कडेन. हाकाच लागून तांचे विचार एके वेगळेच गतीन साहित्यरुपांत परावर्तीत जातात. कांय वर्सां फाटीं त्यो बिम्बांत सातत्यान सदर बरयताल्यो. तांचें एक पुस्तकय उजवाडाक आयलां. बऱ्याच काळान तांचे साहित्य वाचप्यां मुखार येता ही वाचप्यां पासत खोशयेची गजाल.
पत्तो : शिवोली, बार्देस.
मो.: 9421192858

एक वेळ बॅन्क बॅलन्स उणो आसल्यार जाता, पूण दिसभर ल्हान -व्हडांच्या उपकारांत रावून पुंजायल्ली आशिर्वादाची शिदोरी आमकां जल्मभर पावतली. तितलेंच न्हय, हे लागणुकेक लागून मना वयलो ताण उणो जावन आमकां सुस्त बरी झेम पडटा.

'पोन्याची कृतज्ञताय बाळगप म्हणल्यारूच जाणटेल्यांचो सन्मान करप' हो महाबळेश्वर सैल हांचो सुविचार वाचून म्हाका एक काणी याद जाली. एकदां खंय एके म्हान व्यक्तीक एक सैतान कामांत व्यस्त आशिल्लो दिश्टी पडलो. तो मनशाच्या काळजांत रुजोवचेलीं कांय बियां वेंचून कुशीक काडटालो. बारीकसाणेन नदर मार जाल्यार ताच्या लक्षांत आयलें, ताचे लागीं हेर बियां परस अनुपकारी बियांच चड आसात. तें पळोवन अजापान ताणें सैतानाक प्रस्न केलो, ''आरे, हें रे कितें? हीं असलीं बियां तुवें चड कित्याक म्हूण घेतल्यांत?''

तें आयकून सैतानान कबुली दिली, म्हाका कृतघ्नतायेचीं बियांच चड रुजोवन काडपाची इत्सा आसा. तशेंच ताणें म्हणलें : जगांत अशी एकूच सुवात आसा जंय हांव हीं बियां रूजोवंक शकना, आनी ती सुवात म्हणल्यार कृतज्ञ मनशाचें काळीज

सैतानाच्या ह्या कर्माक लागुनूच घडये समाजांत पडमूर, बेमान मनशांचें पीक सुबेज येवंक लागलां जावंक जाय असो म्हाका दुबाव मारता. सैतान आपल्या ह्या कामांत जैतिवंत जावचे पयलीं कृतज्ञताय आमी आमच्या काळजांत रुजोवया.ताची सामकी गरज आसा. ही कृतज्ञताय परगटावपाचें काम साप्प सोपें. ताका व्हड दुडू मेजपाची गरज पडना. कोणेंय आमकां पालव दिलो, वा कसल्याय आदाराक पावलो जाल्यार,

ताचे खातीर एक दोन उतरा आमी कागदार उगेवचीं. व्हॉट्सएॅपार धाडचीं. नाच्च जाल्यार वैयक्तीक त्या मनशा लागीं वचून ती व्यक्त करचीं. खरेंच सांगतां, ह्या दोन उतरांनीं आमकां खोशी तर मेळटाच, वांगडा हेरां कडेन आमी आमचे बरे संबंद जोडूंक पावतात. मागीर ही कृतज्ञताय, हे उपकार देवा प्रती, गुरूजनां प्रती, समाजा प्रती, जाणट्यां प्रती कोणांय विशींची आसूं येता.

उपकार आठयतलो जाल्यार, वायट घडणुकेंतल्यान आमी सदांच बरें तें पळोवचें. बरेपणान वागचें. एक गजाल याद दवगत, मकारातत्मक भावना आपशींच किल्लाना. ते पासत तुमच्या अणभवांत कृतज्ञतायेची भावना जोडून पळोवची पडटा. मागीर ही भावना तुमकां भूतकाळ याद करून दितली, तुमचे सदचे जिणेंत तुमकां शांती अणभोवंक मेळटली आनी फाल्यां खातीर तुमचे विशीं सम ाजांत एक वेगळी नदर निर्माण करतली. देखून दिनवास व्यक्त करूंक वेळ काडूं नाकात. आपूण अमकेच गजाली खातीर उपकारी रावतलों अशेंय येवजूं नाकात. कारण ती तुमची अनुपकारी भावना थारतली. उपकार आठोवप, कृतज्ञताय प्रकट करप हो एक आनंद, पराय असो अणभव. जिणेंतली सोबीत अशी गजाल. जो मेरेन ही भावना जिवी उरतली तो मेरेन आमी आमच्या बऱ्या जिविताची आशा धरूंक पावतले. देखून दिसांतल्यान एकदां तरी ही भावना मनांत येवंदी. तशी आमची लागणूक आसूंदी. एक वेळ बॅन्क बॅलन्स उणो आसल्यार जाता, पूण दिसभर ल्हान -व्हडांच्या उपकारांत रावून पुंजायल्ली आशिर्वादाची शिदोरी आमकां जल्मभर पावतली. तितलेंच न्हय, हे लागणुकेक लागून मना वयलो ताण उणो जावन आमकां सुस्त बरी झेम पडटा. आमची निर्णय क्षमता वाडटा तशेंच हेरांचे नदरेंत आमची प्रतिमाय वाडूंक पावता. ही गजाल विज्ञानान लेगीत सिध्द केल्या. देखून सांगतां, उपकारांत रावात. हेरांची तोखणाय करात. आंगातलें हुतहुतेंपण सोडून नम्र जायात. दिसपट्टे जिणेंत संभाशणांत 'दिनवास', 'ओब्रीगाद', 'देव बरें करूं', 'उपकारी आसा.' ह्या म्होंवाळ उतरांचो सातत्यान वापर करात आनी जादू पळयात.

तुमकां तशेंच तुमच्या घरच्यांक नवी उर्बा मेळटली आनी हीच तुमचे यशस्वी जिणेची गुरूकिल्ली जावंक पावतली. 'त्रीगींळींवश ळी ींहश लशींी रींळींवश' अशें सिझरान म्हणून दवरलांच. समाज आनी देश वयर सरूंक असोच ग्रेटिट्युड समाजांतल्या जाणट्यांविशीं, पोन्या वस्तुंविशीं आसपाक जाय. कारण पूत वा धूव जल्माक येवचे आदीं आनी उपरांत आवय- बापूय तांचे लागच्यान कसलीच अपेक्षा धरी नासतना भुरग्यांची सेवा करतात. आपलीं भुरगीं व्हड कर्तृत्ववान जावंची म्हूण आपणाल्या सुखांचो त्याग करतात. आपल्या भुरग्यांक बऱ्याक पडटलें अशें कसलेंच काम तीं करी नासतना रावनात. बरें, हें करपा फाटल्यान तांचो कसलोच सुवार्थ आसना. हाडांचीं काडां करपी ह्याच आवय- बापायची ते वृध्दावस्थेंत पावतकीर भुरग्यांक आडखळ जाता. तांचो सांबाळ करप म्हणल्यार तांचेर उपकार करप अशें तांकां दिसूंक लागता. हें एक तरेचें पडमुरपणूच! अशी वृध्दांक वायट वागणूक दिवपी ह्या भुरग्यांक आयज ना फाल्यां बिरमत फुटले बगर कशी रावत?

उपकार आठोवपाची इत्सा आसप हो खाशेलो गूण. एक सोबीत गजाल.देखून अंदूच्या ह्या पावसांत सैतानान जळीं-मळीं शिवरिल्ल्या ह्या अनुपकारी बियांची नडणी करूया आनी कृतज्ञतायेची बेस बरी पिकावळ काडुया. ना जाल्यार सैतान आसाच 'मैं हूं ना' म्हणपाक!

•••

उस्तवारी



अरूण
काकोडकार

# राजा करो आसाचो ?

**अरूण काकोडकार** हे कथा आनी ललित लेखनांत फिशाल. तांचो 'मूठऊर मळब' हो ललित लेखांचो संग्रह उजवाडाक आयला आनी तांचीं आनीकूय पुस्तकां उजवाडाचे वाटेर आसात. तांणी 'सुनापरान्त' ह्या दिसाळ्यांतल्यान तशेंच गोंयच्या हेर कोंकणी नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन केलां. तांकां साहित्या पासतचो 'बिम्ब' पुरस्कार तशेंच कला आनी संस्कृती खात्याचो गौरव पुरस्कार लाबला.



रात भर सेट लावपाचें काम सोंपोवन तो म्हान कलाकार ल्हान भुरग्याचे निरागसतायेन गुठली करून एके अडगळीचे सुवातेर सुस्त न्हिदिल्लो. त्या विदेशी व्यक्तीक जेन्ना हें कळ्ळें तेन्ना तांकां अजाप जालें. राज कपूरान एके कडेन बरयलां, पृथ्वीराजजीन माध्यार रिळां घेवन म्हाका पांयपीट करपाक लायली, घाम गळोवंक लायलो



लांब-रुंद आंगलोट, तोंडार मुमुरखो हांसो, दोळ्यांत वेगळीच चमक, अंयशीं-पंच्यायशींची पिराय. असिस्टंटाचो हात धरून एक एक सोंपण चडून पयल्या मजल्यार आपल्या कॅबीनांत वतना खूब वेळां हांव तांकां पळयतालों...कांय वर्सां पयलींची गजाल. ऑफीसाच्या कामां खातीर कॉर्पोरेट अशिलां लागीं म्हजें वयले वयर वचप जातालें. एके कंपनीची पांच मजली इमारत. मुखार अथांग दर्या, इमारतींत सकयल-वयर येतल्या वतल्यांची वर्दळ. इमारतीची लिफ्ट आसूनय ही व्यक्ती, कंपनीचे चेअरमन, उद्देग-समुहाचे संस्थापक सोंपणां चडून वयर वतात हाचें म्हाका अजाप जातालें.

एक फावट हांवें तांच्या डिपार्टमेंटल मुखेल्या लागीं हो विशय काडलो. 'ते केन्नाच लिफ्ट वापरनात. सदांच सोंपणां चडून वतात. ते तशे चलत कित्याक वतात हें ताका सांगपाक आयलें ना. घडये जी वास्तू तांणी उबारल्या ते वास्तूक मान दिवपाचो तांचो हेतू आसूंये! आनीक कित्याकय

लागून आसूं येता! कांय लोकांक हांवें पळयल्यात, जे सुवातेर ते काम करतात जावं वावुरतात, थंय भितर सरचे आदीं थंयच्या हुमऱ्याक हात लावन ते नमस्कार करतात. देवळांत भितर सरतना देवळाच्या हुमऱ्याक ओणोव घालून नमस्कार करपी आसात. गावपाचे मैफलींत गावपाक सुरवात करचे आदीं गायक तानपुऱ्याक जावं सतारीक अभिवादन करतात.

ते व्यक्तीक पळयतकीर म्हज्या मनांत विचार येताले, पंच्यायशीं वर्सांचे पिरायेचो हो दिग्गज! येदो व्हडलो उद्देग तांणी उबारलो, नांवा रुपाक हाडलो. उद्देगाची सुरवात तांणी कशी केली आसूंये? आयुश्याची दिका थारावपाचे दीस आसतात. स्वताचो उद्देग-वेवसाय सुरू करपाचें थारायले उपरांत ते प्रमाण येवजण करप आसता. वेवसायाचो फावो तो आराखडो मांडचो पडटा. वेवसायाची सुरवात करतना धडपड आसताच. येस फावो करपा खातीर रातीचे दीस करून श्रम करचे पडटात. मात्सो खंयूय थांबलो जाल्यार फाटीं पडपाची भिरांत आसता. अशे वेळार थीर रावपाचें बळगें आसूंक जाय. दरेक खीण पोशांत घेवपा इतली शादुरताय आसूंक जाय. जें सहज मेळटा तें तितलेच सहजतायेन वता. जें अपार कश्टान मेळयिल्लें आसता, ताच्या मेजमापाचो दरेक कोन, दरेक अंश म्हत्वाचो आसता. ताका लागून फावो जाता तें येस लाख मोलाचें आसता. तातुंतल्यान एक निर्मातो, उद्देजक उबो जाता.




लीडरशिप एक कला, कसब. चाणक्य पसून मॅकियावेली आनी पीटर ड्रकर पसून शरू रांगणेकरा मेरेन अनेक जाणकारांनी मॅनेजमेंट विशयाचेर जे विचार मांडल्यात तातूंत खूब शिकपा सारकें आसा. प्लेनींग (नियोजन करप), ऑर्गनायझींग (संघटीत करप), कॉओर्डीनेटींग (सुत्रसंचालन), मोटीव्हेटींग (उत्तेजन दिवप) आनी कंट्रोलींग(नियंत्रण दवरप) हीं मॅनेजमेंटांचीं तत्वां. येसस्वी उद्देजकां लागीं हे सगळे गूण आसप गरजेचें .

राजा कसो आसचो? राजान राज्य कशें चलोवचें, मंत्री कशे वेंचून काडचे, प्रजे वांगडा कशें वागचें? चाणक्य नितींत हाचें मुद्देसूद वर्णन केलां. आटपाट नगरांतल्या राजाचो आदर्श घडये चाणक्य-नितींतल्यान घेतला...आटपाट नगराचो राजा दिस-रात प्रजे खातीर वावुरता. प्रजेचें सुख-दुख्ख जाणा जावपा खातीर भेस बदलून भोंवता. सगळ्या वाठारांनी दूत धाडून परिस्थितीचो अदमास घेता... राजा कितलोय पराक्रमी आसलो तरीय स्वताच्या बळग्याचेर तो राज्य चलोवंक शकना. ते खातीर बरे मंत्री, विस्वासू सल्लागारांची गरज लागता आनी सगळ्यांक लागून जें जावंक शकता त्या टीम वर्काचें तत्व त्या काळांत चाणक्यान सांगिल्लें आसा.

'ली आयकोका' हें उद्देग विश्वांतलें संवसारीक नामनेचें व्यक्तीमत्व. उद्देजकांच्या 'येशाचें गुपीत' सांगतना आयकोका म्हणटा, जेन्ना तुमी मुखेली ह्या नात्यान आपले भोंवतणी योग्य तीं मनशां जमयतात तीं मनशां तुमकां येशाचे दिकेन व्हरतात. तांकां उर्बा दिवपाचें, मार्गदर्शन करपाचें काम तुमचें. जितले चड लोक तुमकां आपणायतात, तुमचे विशीं आदर बाळगीतात, तितले तुमी येसस्वी जातात. तुमी जोडिल्ल्या मनशांचे निश्ठेचेर, कामांत झोकून दिवपाचे तांचे वृत्तीचेर मुखेल्याचें येस निंबून आसता.

लँड (जमीन), लेबर (कामगार), कॅपिटल (भांडवल) हीं उत्पादन निर्मणेचीं मुखेल आंगां . ल्हान-व्हड उद्देग जेन्ना उबे जातात तेन्ना सुरवातेक भांडवला इतलोच म्हत्वाचो प्रस्न आसता तो मनशांचो. योग्य मनशां सोदून काडप, तांकां फावो तशीं कामां दिवप, ते प्रमाण तांकां प्रशिक्षण दिवप हो वेवस्थापनाचो मुखेल उद्देश आसता.

हाची एक अती बरी देख म्हळ्यार महाराष्ट्राच्या सांगली तालुक्यांतली किर्लोस्करवाडी. शंबरां परस चड वर्सां आदीं थंय एक उजाड, वसाड माळरान आशिल्लें. किर्लोस्कर उद्देग समुहाचे संस्थापक लक्ष्मणराव किर्लोस्करान ते सुवातेर कारखानो घालपाचें थारायलें

तेन्ना सगळ्यांनी तांकां पिशांत काडले. पुणून लक्ष्मणरावान अशीं मनशां जोडलीं जीं घर-दार सोडून तांचेवांगडा त्या माळरानांत वस्तीक आयलीं. सगळ्या अडचणींचेर मात करीत तांका साथ दित रावलीं आनी म्हणटां म्हणटां ते उजाड वसाड सुवातेर किर्लोस्कर वाडी उबी जाली.

टाटा, बिर्ला सारकेले उद्देग समूह देडशें वर्सां साकून चलतात. टाटा उद्देग समुहाचे संस्थापक भारतरत्न जे.आर. डी. टाटा हे भारतीय उद्देग मळा वयले दिग्गज. तांणी उद्देग-उदिमाचीं नवीं नवीं मळां सोदून काडलीं. संस्थात्मक कार्य-संस्कृतायेची उबारणी केली.

‘ बोर्डरूम ’ हें अच्युत गोडबोले आनी अतुल कहाते ह्या दोन आय. आय.टीयनांनी उजवाडायल्लें पुस्तक. तातूंत तांणी जगांतल्या अनेक कंपन्यां विशीं बरयलां. फोर्ड मोटर, जनरल मोटर्स, बोईंग, जंबो जेट, केलोग आनी कॉर्नफ्लेक्स, गुड ईयर टायर्स, कोडॅक फोटोग्राफी, कोकाकोला, ॲमेझोन, ऑरॅकल्स, मॅकडोनाल्ड, गुगल, नोकिया. जगभरांतल्या अशा कितल्याशाच उद्देजकांच्यो काणयो. फिनीक्स शेवण्यांवरी गोबरांतल्यान झेंप घेवपी यशोगाथा.

मॅनेजमेंट एक खाशेलो विशय. हांव कॉलेजांत शिकतालों तेन्ना साकून म्हाका ह्या विशया विशीं उत्सुकताय आसताली. तेदे वेळार हो विशय शिकपाच्यो संदी खूब उण्यो आशिल्ल्यो. ताका लागून म्हजें ह्या विशयाचें गिन्यान तितलें पुरतेंच उरलें. आस्थापन ल्हान जावं व्हड, मॅनेजराच्या कदेलार जो बसता ताचेर आस्थापन सांबाळपाची जापसालदारकी आसता. कर्मचाऱ्यांक योग्य तें काम दिवप, तें करपाक तांकां उर्बा-आदार दिवप, वेळ पडल्यार तांचे वांगडा बसून काम करप, बरें काम केल्या उपरांत तांकां शाबासकी दिवप होच वेवस्थापनाचो सारांश!

म्हज्या पंचेचाळीस वर्सांच्या वेवसायांत हांवें वेगवेगळ्या सहकाऱ्यां वांगडा काम केलां. कांय वरिश्ठांक म्हऱ्यांतल्यान पळयल्यात. तांचो काम ाचो वेग, निर्णय घेवपाची क्षमताय, अशिलां लागीं नमळायेन वागपाची तांची पद्दत प्रत्यक्ष अणभवल्या. उंचेल्या पदार काम करप हें एक आव्हान आसता. एका रिजनल ऑफीसाक चवदा-पंदरा विभागीय कार्यालयां जोडिल्लीं आसतात. सगळ्या कार्यालयांचेर बारीकसाणेन लक्ष दवरप आसता. खंयच्या ऑफीसांत कितलो ‘बिजनेस’ जाला, खंय उणो जाला, नित्य वेव्हार कसो जाता, अशिलांक तत्पर सेवा मेळटा काय ना, अशा अंतर्गत गजालीं कडेन सदांच लक्ष दिवप गरजेचें आसता.



आस्थापनांत मनशां येतात, मनशां वतात. कंपनी सासणाची जावन आसता. तिका म्हातारपण नासता. कंपनीच्या आस्थापना वांगडा कामगार वाडटा. कंपनीत मेळिल्ल्या अणभवान, गिनान्यान गिरेश्त जाता. कंपनीच्या नांवा वांगडा नातें जोडटा.

शुन्यांतल्यान विश्व घडयिल्ल्या अशाच एका राजाची काणी. हो राजा उद्देग-विश्वांतलो न्हय, फिल्मी दुनियेंतलो राजा...ग्रेट शोमॅन राज कपूर! म्हाका याद जाता, 1961 वर्सा जून म्हयन्यांत मराठी शाळेंतल्यान कुडचड्या इंग्लीश स्कुलाक हांव वचपाक लागलों तेन्नाची गजाल. गोंय स्वतंत्र जावंक नाशिल्लें. सांजचीं दोन वरां आमकां पुर्तुगेझ भाशेचे वर्ग आसताले. आमच्या स्कुला लागीं नायगारा थेटर आशिल्लें. दनपारां दोन ते तीन वरां मेरेन थेटराच्या लाऊडस्पीकराचेर हिंदी सिनेमांतलीं पदां लागतालीं. कुडचडें शारांत तेन्ना चड गजबज नासतालो. दनपारच्या थंड वेळार पदां आयकूंक येतालीं. तेदे वेळा वयलीं ...श्री चार सौ बीस, जिस देश में गंगा बहती है, अनाड़ी सिनेमांतलीं पदां. ह्या पदांनी आमकां पिशे केल्ले. सिनेमाच्या पदांची पटी एका आण्याक मेळटाली. पटी घेवन तातुंतलीं पदां म्हणपाची आमकां गोडी लागिल्ली. राज कपूराची पयली वळख ही अशी जाली.



राज कपूराच्या आयुश्यांतलो एक प्रसंग वाचिल्लो. एक फावट आंतरराष्ट्रीय सिनेमा क्षेत्रांतल्यो कांय व्यक्ती राज कपूराक मेळपाक आयल्यो. आर.के. स्टुडियोच्या ऑफीसांत राज दिसना जातकीर हांगां थंय सोदप जालें. रात भर सेट लावपाचें काम सोंपोवन तो म्हान कलाकार ल्हान भुरग्याचे निरागसतायेन गुठली करून एके अडगळीचे सुवातेर सुस्त न्हिदिल्लो. त्या विदेशी व्यक्तींक जेन्ना हें कळ्ळें तेन्ना तांकां अजाप जालें. राज कपूरान एके कडेन बरयलां, पृथ्वीराजजीन माथ्यार रिळां घेवन म्हाका पांयपीट करपाक लायली. घाम गळोवंक लायलो म्हणूनच आयचो 'सपनों का सौदागर' राज कपूर उबो रावलो. राज कपूरान सपनां फकत दाखयलीं ना. तो स्वता पडद्या वयलीं सपनां जगलो. ताच्या निळ्या दोळ्यांतलें बाबडेंपण, ओंठांवयलो मिश्कील हांसो पळयतना थेटराच्या काळखांत भायल्या जगाचो विसर पडटालो.

राज कपूरा विशीं एक याद सदांच सांगतात. पन्नासाव्या दशकांत जेन्ना पंडित नेहरू रशियेक गेल्ले तेन्ना सरकारी भोजना वेळार रशियेचे पंतप्रधान निकोलाई बुल्गानीन उलोवपाक उबे रावले. तेन्ना तांणी 'आवारा हूं' ह्या गिताच्यो दोन ओळी गावन थंय हजर आशिल्ल्या सगळ्यांक अजापाचो धक्को दिलो.

आवारा सिनेमांतल्या पात्राचें म ुखामळ राज कपूराचें आशिल्लें पुणून ताचें मन सामान्य जनतेचें आशिल्लें. धडपडटल्या भारताच्या तरनाट्याचें तें मन आशिल्लें. स्वातंत्र्या आदलो तो काळ. तेन्नाच्या प्रेक्षकांनी राज कपूराच्या रुपान भारतांतल्या धडपडटल्या तरनाट्याचो स्विकार केलो ज्याचें मन भोवन भोवन हेंच म्हणटालें,... आबाद नहीं, बर्बाद सही, गाता हु खुशीके गीत मगर अनजान मगर, सुनसान डगर का प्यारा हु, आवारा हु...

1988 वर्सा राज कपूराक दादासाहेब फाळके पुरस्कारान भोवम ानीत केलो. पुरस्कार घेवपाक राजकपूर दिल्ली गेलो. जेन्ना ताच्या नांवाची घोशणा जाली तेन्ना थंय बशिल्ले कडेन ताका दम्याचो खर अॅटॅक आयलो आनी तो उबो रावपाचे स्थितींत नाशिल्लो. ते वेळार राष्ट्रपती वेंकटरमण सगळे प्रोटॉकोल सोडून माचये वयल्यान सकयल देंवले आनी तांणी राजकपूराचो भोवमान केलो. ताचे उपरांत म्हयनोभर तो बेशुद्द अवस्थेंत आशिल्लो आनी हॉस्पिटलांत ताणें निमणो स्वास घेतलो.

आर. के. स्टुडियो राजकपूराचें यादस्तीकच न्हय, सिनेमाच्या भांगरा युगाची ती गवाय जावन उरली. एका परस एक सुरस सिनेमा थंय तयार जाले. अनेक नटांच्या अभिनयाचीं येसस्वी मोडणां हेच सुवातेर घडलीं. शैलेन्द्र, शंकर जयकिशन, मुकेश पसून सिनेमाटोग्राफर रघू करमरकर मेरेन सगळे कलाकार-तंत्रज्ञ राज कपूरा वांगडा सतत हांगां वावुरले. पुणून काळाचीं पावलां स्टुडियोक वळखुपाक आयलीं नात. राज कपूरा फाटल्यान स्टुडियोची दशा गेली. फुडले पिळगेक स्टुडियो सांबाळपाक आयलो ना आनी एका म्हान पर्वाची समाप्ती निरशेणीन जाली.

ये मेरा गीत जीवन संगीत
कल भी कोई दोहराएगा
जग को हंसाने बहुरूपिया
रुप बदल फिर आयेगा

राज कपूराचीं हीं उतरां वाऱ्यार सासणाचीं विरून गेलीं.

●●●




ग्वादालूप
डायस

# 'इंद्रधोणू उदेवं'.... अशें जावं!

ग्वादालूप डायस हांचो जल्म 1972तलो. कवयित्री, निबंदकार, लिपयांतरकार, रोमी तशेंच देवनागरी लिपींत लेखन, भुंयफोड, मळबगंगा, जलस्थल (कविता). ज्वालामुखी (निबंध), मामाचो गांव हीं प्रकाशीत पुस्तकां. पत्तो : नुवें-गोंय
मो. : 8605942157



'इंद्रधोणू उदेवं' पुस्तकांतले कवितेक कसलेंच अडेचें स्वरूप ना. अर्थान ह्या पुस्तकांतल्या सगळ्या कवितेचीं बियां कवींच्या अणभवांतल्यान किल्लून आयल्यांत म्हणपाचें समजूंक वेळ लागना. हे अणभव मगीर तांचे निजाचे आसूं वो जावं मागीर ते तांचे भोंवतणचे!

Genesis 9:16- And whenever the rainbow appears in the clouds, I will see it and remember the everlasting covenant between God and every living creature of every kind that is on the earth.

पवीत्र पुस्तकांतल्या 'आदल्या करार'-तल्यो ह्यो ओळी! मुद्दाम उल्लेख करच्यो दिसल्यो. संवसारांत जेन्ना दिशी-माशी वायट जायत रावता तेन्ना, देव धतरीर चाळीस दीस पावस रखयता. पूण त्या पयलीं, नोहा नांवाच्या एका उजू मार्गान चलपी मनशाक एक व्हडलें तारूं बांदपाचो हुकूम दिता. ह्या तारवांत नोहा आपल्या कुटुंबा सांगाताक धतरी वयल्या सुकण्या-सावजांक आनी हेर सगळ्या प्राण्यांक जोडयेन भितर घेता. पावस थांबतकच, आपूण परत संवसारांत अशे तरेचो हुंवार केन्नाच हाडचो ना अशी देव ताचे कडेन सुरवातेक दिल्ल्या उतरांनी आपली 'कबलात' वो भासावणीं करता! हें सगळें हांगा सांगपाचें कारण म्हणल्यार उदयबाब म्हांबरो हांचें 'इंद्रधोणू उदेवं' हें कवितेचें पुस्तक! योगायोग म्हणल्यार ह्या पुस्तकाची सुरवातूय 'हुंवार' हे कवितेंतल्यान जाता. मळब कितलेंय दाटून येवं पूण तें झडटकच इंद्रधोणू उदेतलोच म्हणपाची खात्री दिवपी ह्या पुस्तका खातीर हांव तांचें अभिनंदन करतां!



आमकां सगळ्यांक खबर आसा, इंद्रधोणूक सगळे मेळून सात रंग! विज्ञान कुशीक दवरून सोंप्या उतरांनी सांगचें जाल्यार वोताचें एक किर्ण जेन्ना वाऱ्यांत हुमकळपी पावसाच्या एका थेंब्यांत प्रवेश करता, तेन्ना ताचो विस्तार एका इंद्रधोणूचें रूप घेता. उदयबाबाचे कविते विशींय म्हाका अशेंच म्हणचें दिसता! तांची कविता मुक्तछंद स्वरुपांत मुखार येता. लय आनी शब्दांची शक्ती घेवन अचळय, काव्य मोग्यांच्या काळजांत देंवता.

ह्या पुस्तकांतल्या बऱ्याच कवितांनी ते

फक्त म्हायती दितात अशें दिसता. म्हायती हुंवार आयिल्ल्या गांवची (हुंवार)! गांवांत आशिल्ल्या घरांची (बुनयाद/प्रतिबिंब). घराक लायिल्ल्या दारांची (तोंडाक खिळी) तशेंच ते वर्णटींक सारयल्ल्या रंगांची (खरो रंग/ काळो रंग)! इतलें आसुनय आपले कवितेचेर वाचकांक आप-आपले दृष्टीन येवजूंक लावपाचें जें स्वातंत्र्य आसता ताचेर मात ते खंयच बंधन घालीनांत! हेच खातीर तांची कविता मुक्तछंद आसली तरी ती काळजाक भिडटा! सुरवातेक फक्त म्हायती दिवपी कविता अशें दिसलें तरी वायट-बऱ्याची वळख घडयता!

खंयचेय निर्जीव गजाली कडेन पळोवपाचो तांचो दृष्टीकोण जो आसा तो खरेंच तुस्त करपा सारको! देखीक कशें सांगचें जाल्यार तांचे कवितेंतलो हुंवार, हजार मेत्रां पयस व्हांवपी न्हंयक, शेतां-भाटां माइडयत बाजारांत घेवन येता. तांचे कवितेंत, दारां आपलो धर्म पाळूंक तोंडाक खिळी घालतात. 'प्रतिबिंब' हे कवितेंत, माणकुल्याच्या पावलांनी घराक थाकाय मेळटा. 'नसाय' कवितेंत सुर्याक लेगीत खीणभर नसाय जाता.

'इंद्रधोणू उदेवं' पुस्तकांतले कवितेक कसलेंच अडेचें स्वरूप ना. अर्थान ह्या पुस्तकांतल्या सगळ्या कवितेचीं बिंयां कवींच्या अणभवांतल्यान किल्लून आयल्यांत म्हणपाचें समजूंक वेळ लागना. हे अणभव मागीर तांचे निजाचे आसूं वो जावं मागीर ते तांचे भोंवतणचे! कांय मोजक्योच कविता सोडल्यो जाल्यार हेर सगळे अणभव परिपक्व जावन प्रभावी कवितेचें रूप घेवन मुखार आयिल्ल्याचें जाणवता. कितलोय व्हड जालो तरी आपलें अस्नीत्व विसरचें न्ही अशी



शिटकावणी दिवपा खातीर कवी माडाचो (माड) आदार घेतात. आपलें वायट चिंतप्यांकूय आपले फाटल्यान, आपलो जागो भरून काडपाची विनवणी 'सांवट' हे कवितेंत करतात. इतलेंच न्हय तर 'व्हाणो' ही कविता आपल्या दोळ्यांत मुसळ आसतना, दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलें कुस्कूट काडूंक भोंवपी मनीस स्वभावचेर नाखुशी दाखयतात. स्पश्ट सांगचें जाल्यार ह्या पुस्तकांतली कविता साद्या गजालीं वरवीं जिणेचे अनमोल धडे शिकोवन वता!

'इंद्रधोणू उदेवं' पुस्तकांत सैमाचो खेळ आसा (वसंत/ ओंवळां/ रातराणी/ हरयाळी / जाय जायश्यो जायो/ आदि...). रंगांचो मेळ आसा (बेरंग/ खरो रंग/ काळो रंग). '....रंग सगळे/ एकाच लातांत....इतले एकजीव करात की/ कोणाक कोणाचो मुळचो रंग यादूच जावं नये. 'बेरंग' कवितेंतल्यो ह्यो ओळी. एकचाराचो केदो व्हडलो हो मंत्र! भोव साद्या सोंप्या उतरांनी कवी आमकां दिवन वतात. 'काल हांवें चुकून/ तांतयांतलो हळडुवो बलक समजून/ सूर्य गिळ्ळो... सूर्य हांवें गिळ्ळो/ पूण हुलोप तुमच्या आंगाक पेटला...' 'हुलोप' कवितेंतल्यान 'ते म्हजेच विशीं उलयनांत मूं?' अशे विचारान, वाचकाक अस्वस्त करून उडयतात!

उदयबाब हांचो स्वताचो धंदो आसा. हे विशीं तांचे कडेन उलयतना समजलां. म्हणटकच तांचो वेपार-धर्मूय तांचे कवितेंतल्यान सुटूंक ना. खरें म्हणल्यार हांव जेन्ना कोणाचीय कविता वाचतां तेन्ना त्या कविचें खासगी जीवन हातभर पयसूच दवरतां. पूण ह्या पुस्तकांत 'पिळांचें सुंब', 'बेनुल्ल' आनी 'उतरांचें मोल' ह्यो कविता म्हाका ओगीच कितें तरी खुणावंक लागल्यो. आपले विशीं उलयतना आपल्या कवी विशीं दोन शब्द उलय असो आग्रो करतात काय दिसूंक लागल्यो! हेच खातीर एक विधान, कवी विशीं केल्या बगर म्हज्यान फुडें वचूंक जावंचें ना. देखून म्हणटां, 'इंद्रधोणू उदेवं' ह्या पुस्तकांत आकर्शीत, सोंप्या, नाजूक तशेंच अर्थाभरीत उतरांचो बाजार आसा. ह्या बाजारांतल्या दर उतराक मोल आसा. ह्या उतरांच्या आदारान, एक सुसंस्कृत समाज उबो करपाचें प्रामाणीकपण आसा. ह्या समाजाक लागिल्ली बेंदूल कातरपी किल्लकांतनें आसा. पूण ही बेंदूल कातरून उडयतना, झाडाक दुखापत जावंची ना अशी काळजी घेवपी संवेदनशील मन आसा.

मोगान पडून पिशे जाल्ल्यांक हांवें आर्दी पळयल्यात. पूण पिशांक जेन्ना मोग जाता, तेन्ना तांकां कवी म्हणटात. तर मोगा विरेत कवी तरी कसो आसचो? 'इंद्रधोणू उदेवं' पुस्तकांतूय दाखय-लिपय करपी मोगाची झलक 'डिव्हायडर', 'रातराणी', 'सत्री', 'तूं

आनी हांव' तशेंच 'तुळस' कवितांनी सांपडटा. पूण म्हाका चड भावली ती 'तुळस' कविता! तशें कारणूय आसा. कवितेंतल्या 'ताका' तुळशी रोंपो जावन 'तिचे' तुळशींत जगचें अशें दिसता. तशें दिसपा फाटलो हावेसूय तितलोच रोमँन्टीक आसा. तरी आसतना, हे कवितेंलो 'तो' आपल्या मोगाचे उमाळे 'तिचे' मेरेन कुवाड्यांनी पावयता. जे वरवीं 'सिधी बात, नो बख्वास' समजुपी नवे पिळगेक उदयबाब नकसूद उतरांनी आपले गिरेस्त परंपरेची मिसाल दिवपाचो यत्न करतात हाची देख मेळटा!

बरेच पावट कोणांचेंय कवितेचें पुस्तक हांव वाचूंक बसतां तेन्ना म्हजे भितर सुरवातेक एक जिज्ञासा तयार जाता. एक वेळ त्या पुस्तकांतले कवितेची वाडटी क्रियाय म्हाका सांपडटा. पूण त्या उप्रांत आशिल्ल्या कवितांची गती मंदावल्या म्हणपाचें समजता. मागीर तें पुस्तक शेवट मेरेन वाचपाची म्हजी उमळशीक उरना. पूण 'इंद्रधोणू उदेवं' पुस्तकान मात ह्या कश्टां पासून म्हाका वाटायलां. हें पुस्तक शेवटाच्या टप्प्यांत अदीक दर्जे दार कविता वाचकांच्या ताब्यांत करता. हाचो पुरावो दिवंचोच जाल्यार 'वजें' ही कविता घेवंया. हे कवितेंत कवी म्हणटात, ...मान वांकडी जावं वा कणूं/ म्हजे मानेक आतां/ वज्याची संवंय जाल्या/ एक दीस मानेर/ वजें नासल्यार पसून/ मानूच ना/ अशेंच दिसता. मन ना जावप! खीणभर येवजियात! म्हणटकच, मनशाचे जिणेंत कश्ट हे आसुंकच जाय. कश्ट नाशिल्ले मनीस शिमितेरींत मेळटात. अशेंच सांगना मूं कवी? म्हाका तरी तशेंच दिसता.

'ख्यास्त' ही कविता इंद्रधोणूचे रंग चडूच गडद करता. 'पाप से नफरत करो, पापी से नहीं' अशेंच कितें सांगून वता. 'इन मीन तीन' कविता मोबायल, इन्टरनेट/ समाजीक थळां विशीं जी दशा आयच्या घराब्यांची जाल्या त्या विशीं खंत उक्तायता. एक-दोन कविता मनजाती मर्दी आशिल्ल्या मनीसपणांची काणी सांगता.

'इंद्रधोणू उदेवं' हें पुस्तक सात रंगांचें मिलन! कवीन आपले खास शैलीन समाजाक लायिल्लें एक प्रामाणीकपणांचें वळण! दुबाव ना, ह्या पुस्तकांतली कविता काव्य मळार आपली अशी खाशेली कुरू सोडटलें. पूण कांय गजाली अदीक बऱ्यो जावं येताल्यो अशें दिसल्या बगर रावलें ना. मळबांत इंद्रधोणू उदेता व्हय? उदेता जाल्यार तो फकत उदेंतेक आसूंक नाका आशिल्लो? जेन्ना केन्ना मळबांत इंद्रधोणू दिश्टी पडटा तेना तर तो सदांच सुर्याचे उरफाटे दिकेन आसता.

ह्या पुस्तकांत 'तूं आयलो', 'कूप', 'काळो रंग', 'नरकासूर', 'गुलाबाचो कांटो' सारकेल्यो कविता म्हजेर प्रभाव घालूंक कमी पडल्यात. त्यो एकाद्रो गळोवं येताल्यो वो छापून हाडचे पयलीं आनीक मातश्यो मुरोवं येताल्यो अशें दिसल्या बगर रावलें ना. तेच भशेन पुस्तकाचें मुखपृश्ट इंद्रधोणू रंगोवंक बरेंच कमी पडलां. इंद्रधोणू हो अर्धवर्तुळ आकाराचो आसता. हांगा मात कसले तरी उजवाडटेचीं किरणां कशीं दाखयल्यांत.

आनीक एक गजाल म्हाका मुद्दाम सांगची दिसता. ती म्हणल्यार ह्या पुस्तकाक लाभिल्ली डॉ. अनुजा जोशी हिणें मराठींत बरयल्ली प्रस्तावना. जी जय नायक हांणी कोंकणींत अनुवाद केल्या. खूब बरी जाल्या! पूण खीणभर दिसलें, कोंकणीं पुस्तकाची प्रस्तावना, कोंकणींतल्यान बरोवंक जायना तितली आमची कोंकणीं लाचार तर? हो फकत म्हजो शीण!

इतलें सांगलें! आनीक एकूच गजाल सांगची दिसता. डॉ. अनुजा जोशी आपले प्रस्तावनेंत उदयबाबांचे 'अल्लाउद्दीन आनी जादूचो नाल्ल' कवितेचो उल्लेख करतात. जे कवितेचो शेवट तांकां मान्य नासलो. त्यो म्हणटात, 'तांणी अशे दोन-तीन शेवट बरोवन धाडले. तरीय म्हजें समाधान जाय नासलें....अखेरेक अस्वस्थ जावन हांवेंच ते कवितेचो शेवट बरोवन धाडलो. तांकांय तो मानालो.' सांगपाचो हेतू इतलोच. खंयचेंय पुस्तक वाचचे पयलीं हांव त्या पुस्तकाची प्रस्तावना केन्नाच वाचना. एक पावट वाचून सोंपतकच प्रस्तावने कडेन वळटां. हांगाय तशेंच जालें. तेन्ना दिसलें, ही गजाल तरी प्रस्तावनेंत येवंक नाका आसली. इतल्यो बऱ्यो कविता रचपी तांक आशिल्ल्या कवीच्या पुस्तकांत तरी!

कितेंय जावं, 'इंद्रधोणू उदेवं' पुस्तक जशें हांवें अणभवलां तशेंच तुमचे मुखार दवरलां. म्हज्या मतां कडेन सगळ्यांचींच मतां जुळटलीं अशें ना. पूण ह्या पुस्तकांतली कविता एक दीस जैताचे तेंगशेर कोंकणींचो बावटो हुबयतली. हे विशीं तरी म्हाका कसलोच दुबाव ना!

Each of us has the power and responsibility to become a rainbow in the clouds.

माया आंगल्यो हांचीं हीं उतरां! उदयबाबान आपली जबाबदारी सांबाळ्ळया. आमी आमची सांबाळुंया!

•••

# बेबदो

कथिका



राजेंद्र शेटकार

मेरशे रावपी राजेंद्र शेटकार हाका वाचनाचो [illegible] आवड. ताका काव्य [illegible] रुची आसा आनी ताच्यो कोंकणी कविता हे आदीं समाज माध्यमाचे आनी बिम्ब मासिकांत उजवाडाक यल्यात. ललित लेखना वांगडाच ताचो कथा केळोवपाचोय हावेस आसा.

मो.94238 85549



आयज यमुना बरेंच खोशी आसलें. ताचें फुलून आयिल्लें तोंड बरेंच कितें सांगतालें. काम करतां करतां तें गुणगुणटालें, 'उगवला चंद्र पुनवेचा....' आयज चार दीस जाल्ले कामाचो सुटून श्रीरंग वेळार घरा येतालो. येतना हातीन भिकणांचो पुडो आनी वाटेर मेळ्ळी जाल्यार मोगऱ्यांची फांती हाडटालो. भुरगींय बापूय बेगीन घरा आयला म्हणून खोशी जातालीं, भुरग्यां वांगडा तो कॅरम खेळटालो. तांचीं फकाणां करतालो. तांकां हांसता - खेळटा तें पळोवन यमुनाचें मन धादोसकायेन भरतालें. काम करतां करतां यमुनाक पयलींची याद आयली. लग्न जावन तें हे घरांत आयलें तेन्ना सुरवातेचे दीस सुखान गेले. श्रीरंग पाखल्यांक मोटरसायकली भाड्यान दितालो. येणावळ बरी आशिल्ले कारणान सगल्या सुखसोयींनी घर भरून ओततालें. एका फाटल्यान एक अशीं पांच भुरगीं जाल्लीं. व्हडलो सुदिन. मागीर मंदा, किरण, उषा आनी धाकटो रमेश. धंदो वाडपा खातीर श्रीरंगान कोर्रेर घेवपाक मोटारसायकली विकून उडयल्यो आनी अचानक कसल्या तरी रोगान हाथरुणार पडलो. दुयेंसांतल्यान तो बरो जालो पूण कोर्रेती खातीर दवरिल्ले पयशे वखदा खातीर काबार जाले. त्या पिकासांवान श्रीरंगाक सोऱ्याचें व्यसन लागलें तें कायमचें. मागीर सदां उठून झगडीं झुजां, पयशांची चणचण, भुरगीं आतां वाडलेलीं. तांकां हळुहळू कळपाक लागलें.

चार दीस पयलीं रातीकडे श्रीरंग बरोच पिवन आयलो.

आवयक मारता तें पळोवन भुरगीं बापायच्या आंगार धावून गेलीं. तांकांय ताणें मारलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं सोरो निवळतकच यमुना आनी भुरग्यांनी ताका बरोच उजरावन काडलो. यमुना तर जीव दिवपाक धावूंक लागलें.

क्षुल्लाक कारणा खातीर ताणें वाद घातलो आनी यमुनाक ताणें बडयलें. आवयक मारता तें पळोवन भुरगीं बापायच्या आंगार धावून गेलीं. तांकांय ताणें मारलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं सोरो निवळतकच यमुना आनी भुरग्यांनी ताका बरोच उजरावन काडलो. यमुना तर जीव दिवपाक धावूंक लागलें. श्रीरंगान ताची समजूत काडली. हांव आयच्यान सोरो पिवचों ना म्हणून भुरग्यांचे तकलेर हात दवरून सोपूत घेतली. आयजचो चौथो दीस. यमुनान दनपारच्या जेवणाचीं आयदनां घासलीं आनी तोंड धुलें. म्हेळ जाल्ली साडी सोडली,लिंपशें वायल न्हेसलें, केंस उगोवन तोंडार पावडराचो हात घुंवडायलो आनी तें श्रीरंगाची वाट पळोवंक लागलें. भुरगींय खेळ सोंपोवन घरांत आयलीं. हातपांय धुवन परवच्या म्हणून अभ्यासाक बसलीं. यमुना श्रीरंगाचे वाटेक दोळे लावन बशिल्लें. भुरगी बापूय आयज कितें तरी खावपाक हाडटलो म्हणून बापायची वाट पळयतालीं. रातचीं आठ जालीं पूण श्रीरंगाचो पत्तो नासलो. पयसुलच्यान कुत्रीं भोंकपाक लागलीं आनी कोण तरी बोवाळ घालता तें आयकपाक येवंक लागलें. यमुना तशेंच भायर गेलें आनी 'देवा रे!' म्हणून थपकल मारून थंयच बसलें. श्रीरंग हालत धोलत रस्त्या वयल्यान बोबाळ मारीत येतालो. यमुना तकलेर हात मारीत भुरग्यां बशेन व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलें. तें रडटा तें पळोवन ताचीं भुरगींय ताका वेंग मारून रडूंक लागलीं.

•••

## यादें माई...



ह्या पुस्तकांतल्यान
बिम्ब परिवारांत
भितर सरिल्ली माई
म्हणल्यार
शालीनी गुरुदास शिंक्रे
हांणी 27 जुलाय 2021
दिसा
ह्या संवसाराचो 87
वर्सांचे पिरायेर
निरोप घेतलो.
प्रत्येकाचें जिवीत हें
अनमोल आसता
आनी ताच्या
जिवितांतली दरेक
घडणूक
ताच्यान तितलीच
मोलादीक करूं येता
हाची गवाय म्हणल्यार
यादे माई. पुर्तुगेज
काळांतल्या प्रतिगामी
वातावरणांत म
ाई कितली पुरोगामी
आशिल्ली ताची वळख
हांगा घडटा. आपल्या म
रणा उपरांत कसलेच
धर्मीक विधी करचे
न्हय,तशेंच आपलो देह
मेडिकलाक दान करात
अशें बरोवन दवरपी
माई हो
समाजांतलो
एक आदर्श...
तांकां बिम्ब
परीवाराचीं आर्गां.




•••

कथुली



सुषमा तिळवे

सुषमा तिळवे हें कोंकणी तशेंच मराठी काव्य मळा वयलें एक लक्षणीय [illegible] नांव. कोंकणींत 'दवरणें' आनी मराठींत 'गंध मनीचे' हे काव्यसंग्रह ताची गवाय. त्या भायर गोंयच्या बऱ्याच नेमाळ्यांनी तांचें सातत्यान बरप चलता.

आबा आपणाल्या घराची डील बिल्डरा लागीं करपाक दिना म्हूण पूत सून घर सोडून गेल्लीं. त्या मनस्तापाक लागून आबाक हार्ट ॲटेक अयिल्लो. ह्या कठीण प्रसंगाक पूत न्हय तर धूव-जांवय धावन अयिल्लीं.



# आदार

आयज पांच दिसां उपरांत आबाक हॉस्पिटलांतल्यान डिस्चार्ज मेळिल्लो. तो खाटी वयल्यान ऊठून उबो रावलो तसो अलकान आबाच्या एका हातांत आदाराक बडी तेकयली आनी दुसऱ्या हाताक आपणाल्या खांदाचो आदार दिलो. अलकाच्या हातांतल्यान बडी घेतना आबाचे हात थरथरले.

हांव समिराकडेनच लग्न करतलें अशें अलकान ठामपणान सांगतकच आबान ताका हेच बडयेन बडयिल्लें.

चलो जाती भायलो देखून ह्या जल्मांत तागेलें तोंड लेगीत पळोवंचो ना अशेंच सांगिल्लें.

ताचे उपरांत पूत अशें किर्ते करीत म्हण आबान बेगबेगीन नात्यांतले चलयेक सून करून घेतिल्ली. पूण आबा आपणाल्या घराची डील बिल्डरा लागीं करपाक दिना म्हूण पूत सून घर सोडून गेल्लीं. त्या मनस्तापाक लागून आबाक हार्ट ॲटेक अयिल्लो. ह्या कठीण प्रसंगाक पूत न्हय तर धूव-जांवय धावन अयिल्लीं. पुतान सादी चवकशी लेगीत करूंक नाशिल्ली. जाणटेपणाचो आदार मानिल्ल्या पुतान आपणलो सुवार्थ सादना तें पळोवन सामकेंच तोंड फिरायल्लें.

धुवेच्या खांदाचो आदार घेतना आबाक आपणाली चूक खरपणान कळून आयली. आबा गाडये कडेन पावलो तसो जांवय दार उगडपाक मुखार आयलो.ताका पळोवन आबान हातांतली बडी उडयली आनी ताका घट्ट वेंग मारली..धुवेक आनी जांवयाक वेंगेत घेवन तांणी म्हळें,'हांव चुकलों, म्हाका माफ करात.'

•••

## कवनां म्हयन्याळी

रमेश भगवंत वेळुस्कार



केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत स्मृतीशेष **रमेश भगवंत वेळुस्कार** हे ज्येश्ठ भारतीय कवी.

### दडक 1

झड आडसाटी आशाडाची
शिरंतरांर रुणझुण विणीत
वयता
आनी धुंदींच्या हरंदारींनी
अचळय म्हाकां
केळयता

हर हर करीत येता
हो वारो काळजाक
लगडून
आनी मनांत भरता वारो
जीण वयता आशाडाक
भिडून

भीड चेपतां चेपतां पाणी
एक पणाक लायता
काणी
गगन मेघांच्या अंबारींत
जावन तुडूंब म्हजी खेळटा
अंबा-राणी
00

26-62017

### दडक 2

जाण कोण
आयज कित्याक
दडक दडक
हुडकेता
वेदनांचें
धन दुकाळ
मातृकेच्या
तळमळ्यांचें
येवन वंठार
फडफडटा

धाय दिको
भिजून गेल्या
भिजून गेला
आसमंत
सैम आगळिक
तिका, नापसंत
नापसंत

जीण गळसणायत
तिचो खीण खीण
झडटा
दूक दूक
जावन तिचो
खीण तडफड्टा

जाण कोण
दडको कित्याक
अशो धडको
दिवन वयता
आनी काळ
असो किरवंटीक
आमकां कित्याक
खोयता....?
00

### दडक 3

दडक दडक आशाडे
चल गे म्हजे धुवेडे
बायक रकाद दिवन
यो गे वेगीं भितोडे

दोळियांच्या दुकांनी
दिसता ताका अम्मा
आनी ताच्या वंठाचेर
गीतुच जाता झिम्मा

गालार काळसो तीळ
ताका सोदी घननीळ
उतरांनी तिच्या पळे
गहन चिंतनांचे पीळ

झडून झडून तिका तूं
नाका करूं वैर सकल
धुवेक कळना गे बाये
करुंक फटकिरी नकल

सडसडीत वच गे बाये
वचून वेगींच यो तडक
नदर ताचेर घालूंक गे
जीव जाय धडक दडक

दडक दडक आशाडे
चल गे म्हजे धुवेडे
बायक रकाद दिवन
यो गे वेगीं भितोडे
00

1-7-2017.

### दडक 4

शिर्वाणावरि
नाजुक बर्सली
भांगरधारांनी
वत-न्हाती ती
आशाड शिडशिड
आनी उल्हासांचीं
सुलूस वलयां
फुलोवन गेलीं
दोळ्या दोळ्यांत
आनंदमुदयाळी
मिडमिड

पैस पांचव्या
काजुल पानांतल्यान
झुळझुळटा पळे
कृष्ण बांसरी
राधा राधा
करीत धारांनी
आनी मनमोहन म्हौंवांचो
शिरशिर रेमको
घालता आमच्या
शिरंतरांनी

29-6-2017.

### दडक 5

तो ओततूच वैता
तो ओततूच वैता
रातभर पळे कसो
न्हीद घेवन वैता
तो ओततूच वैता

अशी आशाड झड
सांगऽ सर्गीचें नातें
नवे आंकरेंत येता
नवहुस्काराचें खातें

जाय चींब-चींब भूंय
जाय जीण जलमय
जळाचिया थेंबावीण
हर हुस्काराक भंज्य

30-6-2017.

काव्यफुलोर



## त्या दिसा

त्या दिसा
दर्या वेळेर
तू बसलें,हांव बसलों
नदरेक नदर जुळयत
मनाक मन मेळयत

शितळ वारें व्हांवलें
तूं बोटांनी रेंवेंत खेळ्ळें
कांकणांच्या नादान
नदरेक नदर जुळयत
मनाक मन मेळयत

सपनां सपनेलीं
मिलन इत्सा किल्लाली
तूं हांसलें हांव हांसलो
नदरेक नदर जुळयत
मनाक मन मेळयत

सुर्य अस्तंते गोपांत
मोग हांसलो कुपांत
आमी मिलन तिरायत
नदरेक नदर जुळयत
मनाक मन मेळयत



हरीश कामत
बार्देस-गोंय

## देंवता सांज

देंवता सांज
आडवाटेवयल्या बिण्ण रानांत
राना मदल्या गूढतळ्यांत
तळ्यांत मिटिल्ल्या कळ्यांत

देंवता सांज
मिणमिणपी नक्षत्रांच्या वाटांनी
गोरवांच्या किणकिणपी घाटींनी
आनी तुज्या म्हज्या सारिल्ले भेटींनी

देंवता सांज
न्हंयच्या व्हांवत्या उदकार
शिरंत्रांनी उसळपी रगतार
मनाच्या आकूळ मळबार...



माधव बोरकार
ताळगांव-गोंय.
मो. : 94202 22876

## आमी दोगांय

आमी दोगांय
आमच्या काळखांत
उजवाड रंगयतालीं
रोकडोच ताका ताचो उजवाढ मेळ्ळो

उपरांत हांवें म्हजो काळोख बिण्ण केलो

आतां तर
हांव उजवाडांत लेगीत म्हजो काळोख
रंगयता



आर. रामनाथ
फोंडें-गोंय
मो. : 9850458763

काव्यफुलोर



## महादेवा

हे देवा ...महादेवा,
सर्वेश्वरा
सर्वव्यापी सर्वसाक्षी तूं
तरी भोळासांब मायेस्त
त्रैलोक्यनाथ तूं
तरी दिगंबर पांगुरता आकाश
हे गंगाधरा
तुगेली ताम्रजटा उदकाने बांदता
ताचेर खोयता चमकती चंद्रकोर
असो कसो म्हगेलो देव,हे महेश्वरा
सगळ्यांनी नाकारलेलें लार्गी करता
विद्रूप विकृत अष्टवांकूड
भयांकृत भूत समंध तुगेले दास
समुद्रमंथना वेळारी
देव दानवांनी स्वीकारले
बहुमोल जवाहिर औषध अमृत
आनी मगेले देवा,नीळकंठा,
सर्वांनी भयान उडयिलें हलाहल
तुंवें हाता पोशांतू जिकूनू
हें वीष प्राशन केलें
सर्व देवांक जरी रेश्मी वस्रां
रत्न सुवर्ण फुलां अलंकारु
तूं मात्र धारण करता
व्याघ्रचर्म, सर्प अलंकार
कर्पूरगौर आंगाक सारयता चिताभस्म
ही कसली रीत देवा?
इतर देवांक फळ मि
ठाय नैवेद्य
हे कैलासपते
तूं बसता हिमपर्वतारी
घोर तपश्चर्येक
निरंतर निरंजन निर्विकार
देवा,तुका आमी आपयताती
भय तपभंग जाल्यारी?
तिसरो दोळो उघडल्यारी?
तरी भक्तीने उलो मारताती
घोर संकटांतू पडल्यांत आमी
हे मृत्युंजया,तूंची आधारु
भक्तांले काळजा उलो तूंची आयकता
धांवता,पावता तूं
मगिर तो राय,रंक,राक्षस जावो
हांव जावो...

(शिवरात्री-2019)

इंदू गेरसप्पे
बेंगळुरू
मो. : 9850458763



## चपळ श्रावणी धारो

निळसार मळबांतल्यान
काळसार कुपांतल्यान
ओततात पळय श्रावण धारो
ह्यो चपळ श्रावणी धारो

मोतयां वरी पावळी गळयत
धवें फुल्ल आंगलें चडोवन
साधु संतां संदेश घेवन येतात,
ह्यो चपळ श्रावणी धारो

पुण्य पदरांत ओतपी
शुभ आपणावपी, दुख्खां पयसावपी
मनाक थाकाय दिवपी
ह्यो चपळ श्रावणी धारो

सृश्ट सजोवपी
अन्न पिकोवपी
सोंशीक धतरेक थाकाय दिवपी
ह्यो चपळ श्रावणी धारो

नाग पंचम, सुता पुनव,
मंगळा गौर, गोपाळ कालो
येता घेवन आवडी परबो
धतरि पुतांक लाडक्यो
सरसरपी श्रावणी धारो

एच. मनोज
चिखले गोंय
9822441417



## काव्यचवर



## पयलो पावस

मे सोपून, जून आयलो
गिम सोपून, पावस आयलो
धतरिन काडून पोन्रि
वस्त्रां नवी चडयली आंगार

पयल्या-नव्या आयिल्या पावसान
घरां-दारां धुवून गेली
पाखे,सवर्णी, भुरगिं सगलीं
पयल्या पावसान भिजून आयलीं

बेबे-किडे गाऊंक लागलीं
झाडा-जनावरां नाचूंक लागलीं
पयल्या-वेल्या पडील्या पावसासाक
खोशेंन येवकार करुंक लागलीं

बांयों, होणके भरुंक लागले
न्हयो,व्हाळ व्हावूंक लागले
खोशेंन धतरिचें रुप नवें
इद्रधनुष पारखूंक लागलें




दत्तप्रसाद नायक
बिठ्ठोन-गोंय
मो.95529 14969




## सुप्त आस्त

अशांत
अथांग
अलिप्त
मन
तळमळटा...
रस न्हय आस
कळत काय मोनी भास..
एकसुरी वाट
अखंड मन
अथक चाल...
तरी तें
धडपडून...थरथरून...
सांगता...वथरेता
हुंवार जिणेंतलो
हुपपाचो आसा
जिणे कडेन मन
जोडपाचें आसा...


मानसी धाऊसकार
पेडें,म्हापशें-गोंय
मो. 8788595022






## पिठो

कांडल्यार जाचो पिठो जाता
तसलो गा हांव मनीस न्हय
निमण्या वेळार शुन्य मेळटा
तसलें गा हांव गणीत न्हय

वादळ मोडान वांकडो जाता
तसलो गा हांव खांबो न्हय
फातरायल्या सकयल पडटा
तसलो गा हांव आंबो न्हय

कसतां कसतां धोंपरां मारता
तांतलो गा हांव पाडो न्हय
पावस नासल्यार सुकून वता
तसलो गा हांव मळो न्हय

सैमाचें मळ्यांतलें
पचकें गा हांव काळींग न्हय
फार जाय नासतना पोकें जाता
तसलें गा हांव सुरींग न्हय


-सुनिल पालकार
कालापूर-गोंय
मो. 99217 96865



# जंगल शाळा
## (आधुनीक काळाचें हितोपदेश)




# आरूणीचो त्याग



सूर्य निकतोच वयर सरूंक लागिल्लो. सुकण्यांनी आपलें गायन सुरू केल्लें. तेन्ना एल्मो भुरग्यांक आनी बिंगोक आनी हेरांक ट्रॉलीर बसोवन दिवाडे पिकनिकेक वचूंक भायर सरलो. दिवाडी हो गोंयचो एक सोबीत जुंवो.

एल्मोन तांकां घेवन जुंव्या वयल्या वेगवेगळ्या वाठारांची भोंवडी मारून सैमाचें दर्शन घडयलें आनी थंयचे शेतकार मांडवी न्हंये देगे वयल्या आपल्या शेतांनी कशी रोवणी करतात तेंय दाखयलें.

एल्मोन तांकां थंयचे एके खूब पोरणे मानशेर व्हेलीं. मानस सरभोंवतणच्या शेतांनी उदक भरता आनी सोडटा जरी आसली तरी न्हंयचे भरते वेळार दर्या सपाटी पासून सकयल आशिल्लो जमनीची राखण करपाक कशें कार्य करता तें दाखयलें. पावसाळो सरल्या उपरांत हे मानसेर मोलादीक नुस्तें आनी सुंगटां मारपाचें काम चलता ताचीय म्हायती तांकां दिली.

गोंयभर अक्षरशा हजारांनी किलोमिटर उदक खेळोवपी न्हंयांचें हें उदक दर्या सपाटी सकयल्या शेतांनी घुसून शेतां इबाडचीं न्हय म्हूण शेतकार न्हंयच्या देगांनी बांध कशे घालतात हेंय एल्मोन तांकां दाखयलें.

"दिवाडेच्या जुंव्या वयलें बोंदेरां फेस्त खूब फामाद आसा." एल्मोन भुरग्यांक म्हणलें.

" आमकां त्या फेस्ताक हाड मरे एकदां." मानवान म्हणलें.

" हय, आमी हे खेप दिवाडे जुंव्यार बोंदेरां फेस्ताक येवया. पूण मानव, तूं मात तेन्ना गोंयांत आसूंक जाय." एल्मोन ताका उतर दिलें.

" एल्मो, आमी जर फेस्ता वेळार गोंयांत नासलीं जाल्यार आमकां मेला वयल्यान फेस्ताचे फोटो धाड आं!" मायरान म्हणलें.

" तें हांव नक्कीच करीन!" एल्मोन जाप दिली.

दनपरां एल्मोन सगळ्यांक न्हंयचे देगे वयल्या एका रेस्टारंटांत व्हेलीं. भुरग्यांनी थंय जेवणाक शिवराक कुरमा, असैमीक अळमी, शीत आनी तडका दाळ घेतली. मागीर बरीऽ कोन आयस्क्रीम खाली.

बरें मस्त जेवण जाल्या उपरांत सगळीं एका व्हडल्या वडाचे



सावळेंत बसलीं. आतां एल्मो तांकां आनीक एक काणी सांगपाचो आशिल्लो.

वडाच्या पानांतल्यान सुर्याचीं किर्णा झिरपतालीं आनी माथ्या वयल्या फांदयांचेर बसून सुकणीं सुंदर गायन करतालीं आनी अश्या वातावरणांत एल्मोन काणी सांगपाक आरंब केलो.

खूब खूब वर्सां आदीं एक गुरूकूल आसलें. गुरूकूल म्हणल्यार जंगलांत चलपी आश्रम शाळा आनी हो आश्रम धौम्य रुशी नांवाचो एक संत चलयतालो. ह्या आश्रमांत आरुणी हो तरनाटो आपल्या इश्टां वांगडा तातूंत शिकतालो.

हो आश्रमांत सगळ्यांक प्रवेश मेळटालो आनी जो कोण थंय शिकतालो ताका थंयचें शिक्षण फुकट आसतालें. तांकां फी फारीक करची पडनाशिल्ली. पूण तांकां जेन्ना मेकळो वेळ आसतालो तेन्ना सगळीं भुरगीं शेतांत वावर करतालीं आनी भात, गंव आनी भाजी बी रोयतालीं. हे पिकावळींतल्यान तांचो उदरनिर्वाह जातालो.

एक केप निकतोच पावसाळो सरिल्लो आनी आनी व्हाळ भरून व्हांवताले. ताका लागून शेत बुडपाची भिरांत आशिल्ली.

तेन्ना धौम्य रुशीन आरुणीक आनी ताच्या इश्टांक आपयले आनी ताचेर उपाय घेवंक मजत करूंक सांगली. ताणें तांकां सांगलें, ''तुमी शेताचे शिमे मेरेन वचात आनी थंय एक सशक्त असो चिखलाचो आडो उबारात. जाका लागून उदकाचो लोट आमच्या शेतांत

घुसून शेताक बुडटी येवंची ना.''

आरुणी आनी ताच्या सांगात्यांनी रोकडींच शेतांतल्या वावराक लागपी सगळीं आवतां उबारलीं. ते शेतांत गेले आनी थंय तांणी खूबसो चिखोल उस्तून काडलो. मोठ्या कश्टान आनी परिश्रमान तांणी सांज मेरेन बांद बांदून काडलो. वेळा मजगतीं आपणें आपलें काम सोंपयलें म्हूण ते सगळे सामके खोशी आसले.

पूण रातचे वेळार उदकाचो एक मोठो लोट येवन तो बांद पुरायेन व्हावन गेलो तें पळोवन तांकां अजापाचो धक्को बसलो. आतां आरुणी आनी ताच्या इश्टांक हुसको लागलो. कित्याक उदकाचो तो लोट पळयत जाल्यार शेत पुरायेन बुडून वतलें म्हणपाची शक्यताय दिसताली.

''गुरूजी रागार जातलो आतां. शेताचो तर इबाड जातलोच. ताका लागून वर्साचो उरिल्लो काळ आमकां खावपाक कांयच मेळचें ना.'' आरुणीन म्हणलें.

'' मागीर आरुणी आमी आतां कितें करपाचें?'' ताच्या सांगात्यांनी ताका विचारलें.

तेन्नाच आरुणीच्या मनांत लख्ख करून एक विचार आयलो.

''म्हाका एक भन्नाट कल्पना सुचल्या ती हांव तुमकां सांगूंक सोदतां.'' आरुणीन म्हणलें.

''कसली ती आरुणी?'' ताच्या इश्टांनी उत्सुकतायेन विचारलें.

''जंय आमी बांद घाल्लो ते सुवातेर आमी सगळे जमनीर आडवे पडुंया! आनी शेतांत उदक व्हांवता तें आडोवया.'' आरुणीन सांगलें.

सगळ्यांक ती कल्पना आवडली. मातूय कळाव लाय नासतना त्या सगल्यांनी आपल्या आंगाक थंयचो चिखोल रेवडायलो आनी सगळे थंय जमनीर आडवे न्हिदले. अशे तरेन व्हांवतें उदक आडावपाक तांकां यश आयलें. अशे तरेन ते रातभर थंयच शेताची राखण करूंक न्हिदून रावले.

हांगा गुरुकुलांत धौम्य रुशीक हुसको जालो. रात जाली तरी आरुणी आनी ताचे वांगडी आश्रमांत परतूंक नाशिल्ले. उजवाडलें तेन्ना तो शेतांत वचूंक भायर सरलो. शेतांत येवन पळय जाल्यार ताका अजापाचो धक्कोच बसलो. आरुणी आनी ताचे सांगाती शेतांत आडवे पडून आपले कुडीच्या आड्यान उदकाचो लोट आडायतात म्हणपाचें ताचे नदरेक पडलें.

आरुणी आनी ताच्या वांगड्यांची आपल्या वावरा विशीची तळमळ आनी त्याग पळोवन धौम्य रुशी सामको खोशेन भरलो.

सकाळ म्हणसर पावस पडपाचो थारलो. खळयांतलें उदक आतां उणें जाल्लें आनी शेतां वाटावल्लीं.

आरुणी आनी ताच्या सांगात्यांनी उपरांत तो चिखलाचो बांद पर्थून बांदलो आनी फुडाराक बुडटी येवपा पासून शेत वाटायलें.

भुरग्यांक काणी खूब आवडली. पूण तांकां उदकाचे व्हांवते विशीं आनीक म्हायती जाय आशिल्ली.

''उदकाक खऱ्यानीच इतलो फोर्स आसता तर रे एल्मो?''अनुष्कान विचारलें.

''हय, हांवें नॅशनल जॉग्राफीक चनलाचेर उदकाच्या फोर्सा वयले कार्यक्रम पळयल्यात.'' एल्मोन म्हणलें.

''उदक व्हडलीं व्हडलीं तळपां आनी पाशाण लेगीत फोडूंक शकता!'' खुशीन सांगलें.

''एल्मो तूं आमकां वॉटर पार्कांत व्हरशी?'' मायरान विचारलें.

''लैतावांक पेवपाक कळटा?'' आरुशान विचारलेंय

''ना, ना. ताका येना!'' बिंगोन म्हणलें.

''कांयच हुसको करूं नाकात. आमी ताका पेंवपाक शिकोवंया!'' रेहानान सांगलें.

''म्हाका पेवपाक शिकपाचें ना. म्हाका पळयात हांव कितलो मोठो आसां तें! हांव बुडटलों मरे!'' तोंडार हुसको हाडीत लैतावान म्हणलें.

'' ना लैतांव, भिवपाची गरज ना. पेवपाक शिकप सामकें सोंपें!'' मानवान म्हणलें.

'' हांव तुका पेंवपाक शिकयन लैतांव.'' रणविरान सांगलें.

'' म्हाकाय कशें पेंवपाचें तें कळना.''चानीन सांगलें.

''तुकाय आमी शिकयतलीं आं पेंवपाक!''आवंतीन म्हणलें.

मागीर सगळीं फेरीबोटींत चडलीं आनी घरा परतूंक मांडवी न्हंयचे पलतडीं आयलीं. घराकडेन एल्मीन तांचे पासत तयार करून दवरिल्लो गरम गरम रुच्चीक डिनर तांची वाट पळयतालो.

●●●

# एक काणी शाणी शाणी

- डॉ. हनुमंत चोपडेंकार



(बाल कादंबरी)

-14-

शाणीच्या नाटकाची काणी

'दोळे उगडले, दोळे उगडले... शाणीन दोळे उगडले....'

ह्या आनी असल्या कसल्याश्या बोवाळान शाणी जागो जालो. ताणें दोळे उगडले तेन्ना तो मळ्यांत काजी भाजता ते सुवातेर आंब्या पेडार न्हिदिल्ले अवस्थेंत आसलो. विनूदादा, पेमूभैया ताका मावशीत करताले. तो शुद्धीर येता तें पळोवन सगळ्यांनी देवाचे उपकार मानले. इतल्यांत भोंवतणी जमिल्ल्या सगळ्यांक कुशीक काडीत शाणोदाय आनी हेर जाण्ट्यांनी फुडें सरून शाणीचेर नदर मारली. तो आतां सामको मावशीत जाल्लो. तशेंच उठूनूय बशिल्लो. ताणें हेवटेंन तेवटेंन पळयलें. आपूण घुंवळ येवन पडिल्लों इतलेंच ताका याद आसली. आपूण आंब्या पेडार कशो पावलों हाचें ताका अजाप दिसलें. ताणें दोळे उगडले तें पळोवन सगळ्यांच्या जिवांत जीव आयलो. विनू आनी पेमू जाल्यार खोशयेन रडपाकूच लागल्ले.

"रामनाथ शाब्बास....! म्हाका सांगात तुमकां खंय मेळ्ळो हो पोर?"

शाणीक सोदूंक गेल्ले ताका घेवन आयले आसतले अशें समजून शाणो दाय गर्देंतल्यान रामनाथबाप्पाक, रोयल्यामामाक आनी अनील भैयाक सोदीत उलयले. तो तांकां शाब्बासकी दिवंक सोदपाक लागलो. ताचो प्रस्न आयकून सगळ्यांचेर मोनेंळ पडलो. तो मोनेंळ बाबलमामान तोडलो.

"दाय ते पावोंक ना आजून."

"अब्बा पावोंक ना, मागीर शाणीक कोणी हाडलो तर?" दाय अजापीत जालो.

"कोण तरी जाण्टो आसलो. तेणेंच हाडून दवरलो शाणीक पेडार." गर्देंतल्यान कोणतरी उलयलो.

"जाण्टो? कोण जाण्टो?" दायचे दोळे लखख जाले. दाय सामको शिटकावलो.

"खांदार कांबळ बी आसली तेच्या."

भुरग्यांनी प्रामाणीकपणान म्हायती दिली.

" आनी जाणा दाय, हातांत दांडो आसलो हो एद्दो! न्हुरे दामू?" रामरायान दायक

पुराय म्हायती दिवपाचो यत्न केलो.

" सारको पळोंक ना आमी पूण परत रानां वेटेंन गेलो तो जाण्टो. न्हुरे भिकू. ?"

"होय होय दाय." भिकून सहमती उक्तायली.

" कोण काजकार बी आसतलो तो दाय!" मर्दीच कोणतरी भुरगो फुतफुतलो.

इतलें म्हणसर शाणीच्या सोदाक गेल्ले रामनाथबाप्पा आनी हेर थंय मळ्यांतल्या आंब्या पेडार पावले. शाणीक पळोवन तांकां सूऽऽ जालें. पूण शाणीक कोणी सोदून हाडलो

हाचें कुवाडें तांकां सुटलें ना. ते दायक पळोवन परिस्थितीचो अदमास घेवंक लागले.

''जावं ! शाणीक आमच्या पावयलो तेणें. देव ताचें बरें करूं. कितें म्हण्टा

बाबालमामा?'' पेमूभैयान बाबलमामाच्या आदारान त्या जाण्ट्याचे उपकार

मानले.

"सारकें रे पुता तुजें. मळेकारूच पावलो आमकां." बाबलमामान जाप दिली.

"हय, मळेकारूच पावलो..... देवा धनया तुयें राखलो पोराक... तुजी सासाय

व्होड आसा राखणदारा.!"

इतलें म्हणून भरिल्ल्या दोळ्यांनी आनी थरथरत्या हातांनी शाण्यादायन थंयच्या थंयच जमनीर थळाव्या राखणदार मळेकाराक साष्टांग नमस्कार घातलो. दायच्या दोळ्यांत नवी चमक पळोवन सगळे भारावन गेले. हेर सगळ्यांनी तसोच साष्टांग नमस्कार घालून मळेश्वर देवा प्रती आपली श्रध्दा उक्ती केली. तेवटेन गर्देतल्यान सादार साद गाजूंक लागलो.

"श्री मळेश्वर महाराज की..... जयऽऽ"

" श्री सातेरी माता की...... जयऽऽ"

त्या दिसा देव मळेश्वराचे सासायेन सगळें बरे भशेन जावंक पावलें. त्या दिसाच्या भाजिल्ल्या बियांक बरीच रूच आसली अशें जाण्टे-नेण्टे जायते तेप सांगीत रावले. देवाच्याच आशिर्वादान शाणी आनी ताच्या वांगड्यांक शबैयंत चडांत चड यश मेळयल्ले खातीर शाब्बासकी फाव जाली. शाणीक हाडून पावपी तो जाण्टेलो कोण हे विशीं तरेकवार तर्कवितर्क साबार गांवांत पसरपाक मात कळाव लागलो ना. शाणीक देवान हाडून पायलो असो भावार्थ लोकां मदीं चडच पसरलो म्हटल्यार जाता.

त्या वर्सा शिगम्याच्या तिसऱ्या दिसा शाणी आनी ताच्या इश्टांनी बरीच मजा केली. गांवांत रोमट भोंवतालें तेन्ना भुरग्यांच्या आंगांत वीज संचारताली. शाणेदायन तांकां धोल ताशे वाजोवपाक वेळ दिल्ल्यान आतां तांचेर व्हडले भुरगे दादागिरी करी नासले. सगळे जाण तांकां आदार दिताले. शाणी आनी ताचे इश्टांक केन्ना एकदां धोल ताशे वाजतात आनी ते मांडार पावतात अशें जातालें. करतां करतां त्या वर्साचो शिगमो निमण्या पांवड्यार पावलो आनी वट्ट संवसार पाडव्याच्या नाटकाच्यो येसायो सुरू जाल्यो.

पाडव्याक गांवांत श्री सातेरी देवस्थाना वतीन दोन नाटकां जातालीं. पयलें नाटक देवी सातेरी पालखेंतल्यान येवन चवठ्या वयले शेजेर विराजमान जाल्या उपरांतूच सुरू जातालें. जाल्यार दुसरें नाटक देवीची पालखी अख्ख्या गांवांत भोंवून येतकच आनी होंटयो बी भरून जातकूच उपरांत जातालें. गांवची ती परंपराच आसली. लग्न करून परगांवां पाविल्लीं चेडवां आनी कामांधंद्या निमतान हेर कडेन रावपी सगळे गांव भाव ह्या दोन दिसांक गांवांत परतताले. ह्या दोन दिसांक ल्हान व्हड त्या निमतान खोशयेन आसताले. शाणीचें रुमडा वयलें आनी चोडणेचें आतें येतलें म्हूण तोवूय खूश आसलो. ते भायर नाटकां पळोवपाक मेळटलीं म्हूण ताचो जीव थाऱ्यार उरऽ नासलो.

पयल्या नाटकाची पावणी नागवेकाराल्या शिवादादान हाडिल्ली. तांणी कसलेशें 'देवमाणूस' नांवाचें सामाजीक नाटक काडिल्लें. दुसऱ्या नाटकाची पावणी गांवकाराल्या आबान हाडिल्ली. ताणें 'रायगडाला जेव्हा जाग येते' हें इतिहासीक नाटक काडिल्लें. पयलें नाटक पाडव्या उपरांत पयले रातीर जाल्यार दुसरें नाटक दुसरे रातीर जावपाचें आसलें. नाटकाच्यो येसायो कोमेस जाल्यात हाची खबर कळटांच दामू, मंता, शाणी, संदीप, पेमलो बी सगळे भुरगे रातच्या आठ वरांचेर चुकनासतना येसायो मारता थंय हाजीर रावंक लागले. शिवा दादालें घर मंताल्या घराकुशीक आशिल्ल्यान शाणी आनी ताचे इश्ट 'देवमाणूस' ह्या नाटकाचे येसायेक सदांच पावताले. कोण खंयचो पार्ट करता? कोणाचें भाशण बरें जाता? कोण कॉमेडी करता? ह्या वर्सा नटी कोण...? ह्या सगळ्या गजालींचो फार भुरग्यांमदीं जालो म्हटल्यार

कामा येता. गत दीस शाणी आनी ताचे इश्ट येमायच्योच गजाली करपाक लगाले.

शाळेत, वर्गात, शाळेच्या वगंड्यार, शाळे मुखा वयल्या खेळामळार, मदले मुटयेंत, शाळेंतल्यान येतना वतना नाटकाच्योच खबरो रंगपाक लागल्यो.

''हे शाणी, तुका खोबोर आसा, गांवकारालो आबा संभाजीचो पार्ट किर्तेऽऽऽ करता....! लोक पिशे जातात ताका आयकून.'' दामू आबाचें कौतूक गावपाक लागलो.

''हां..... !''

''आरं तेच्या आंगांत संभाजी संचारता अशें बाबा म्हणटा आमचो.''

''बापरे!!!''

हेर इश्टांचें हें सगळें आयकून शाणी बाबडो अजाप जातालो.

''सोलेड हां तो! पोरूं 'वेडा वृंदावन' गाजयल्लो तेणें जाणा तूं!''

''ह्या वर्साय तो संभाजीय पेजाद रंगयतलो... न्हूं मंता?''

''होय तर! पुणीन आमच्या बाप्पाकूय पार्ट आसा हां त्या नाटकांत. किरें?''

मंता आपल्या बाप्पाचो अभिमान उक्तो करूंक लागतकूच मजा येताली.

''आनी जाणा जायात, बाप्पा सारकी कॉमेडी कोणाक जमपाची ना. कोळ्ळें?''

''आनी आमच्या काका सारकीं पदां कोण म्हणचो ना याद दोवरात. कोळ्ळें?''

''तूं कोणांक सांगता रे? वोगी बोस थोय.''

'' तूं वोगी बोस. तूं कोणाक सांगता रे?.''

संदीपान हांगा मर्दीच तोंड घालप आनी मंता कडेन ताची बाचाबाची जावप हें थारिल्लेंच आसतालें. निमणें शाणी आनी दामू तांकां 'तुमचें दोगांयचेंय खरें. दोनूय बाप्पा आनी काका खडेगांठ नाटक पार्टी' अशें सांगून तांकां फ



सलायताले. कितेंय काय आसना नाटकाच्या निमतान जीं झगडीं, वाद आनी चर्चा रंगताली तातूंत शाणी आनी मंता दोगूय मस्त लक्ष दिताले.

शाणी आनी मंताक दोगांयकूय 'देवमाणूस' नाटकांतल्या चडश्या सगळ्या पार्ट्यांचें भाशण पाठ जाल्लेवरी जाल्लें. नाटकांतल्या कांय पार्ट्यांक हें समजल्लें. ते मर्दी केन्नाय ही गजाल शिवादादाक आनी नाटक बसोवपी गुरूमामाक सांगतना शाणीन आयकल्लें. ताचे वयल्यान आपल्याक शिपायाचो पार्ट बी मेळत काय अशें ताच्या मनांत केन्नाय येतालें. पूण नाटकांत इतल्या लोकां मुखार उबो रावप हें चिंतून ताच्या पोटांत गुळोच येतालो. शिवादादा मंताचो काका लागतालो, ताणें आपल्या बाबाक सांगून एक ल्हान पार्ट पुताक दी म्हूण उतर घातिल्लें. ताचोच परिणाम म्हूण एक दीस अजाप घडलें.

नाटकाक चार दीस आसले. रातचीं सुमार आठ वरां जाल्लीं. येसायेचो वेळ तो. शिवादादाल्या आंगणांत येसाय केन्ना सुरू जातली हाची वाट भुरगे पळयताले. सगळे पार्टीय पाविल्ले. सुरवेक शिवादादान कुशीक रावन येसाय पळोवपी मंताक आनी शाणीक पळयत नाटक बसोवपी गुरूमामाच्या कानांत कितें तरी सांगलें. रोकडेंच तांच्यांनी शाणीक आनी मंताक मुखार आफयले.

''मंता हांगा यो, आनी शाणी तुवूय यो.. असो यो. आरे लजो नाकात. येयात फुडें

येयात. तुमचे खातीर एक एक ल्हानसो पार्ट दितां. - शावादादा



शिवादादाचीं तीं उतरां आयकून शाणीच्या काळजांत घप्प जालें. पयलीं थोडी उमेदूय जाली. सगळ्यांच्या हुजरां असो फुडें येवप ताका नवें नासलें पूण हालीं ताची मती भितरल्यान ताका थतरवितर करताली. व्हड जातां जातां ताका वोगीच भंय भंय सो दिसपाक लागतालो. मंता मात सहज येसाय चलता ते सुवातेर पावलो. शाणी मातसो अनमनलो.

'' यो, यो शाणी, भिये नाका, आरे आतां तुमी भुरग्यांनी फुडें सरूंक जाय.''

शिवादादान तांकां धीर दियत म्हटलें. तशे ते दोगूय मुखार आयले.

''हें पळयात, ह्या नाटकांत निमणें दोन शेतकार एका गुंडाक धरून हाडटात असो सीन आसा. मंता तूं शेतकरी नंबर एक आनी शाणी तूं शेतकरी नंबर दोन. हो पळयात खड्डो. पेन आनी कागद हाडून ह्यो तुमच्यो लायनी बरोवन काडात पयलीं.''

पयलींच्या काळार नाटकाचीं पुस्तकां चड मेळनात वा तीं म्हारग आसतात म्हूण फक्त दोन पुस्तकां हाडून दर एका पार्ट्याचें भाशण पोरन्या कादेनार गमान दसोवन घेताले. दर एका पार्ट्याक आपआपलो खड्डो भाशण पाठ करचे पासत मेळटालो. पूण हांगा खड्ड्याची एकूच प्रत दोगांकूय दिवन गुरूमामान तांकां दोगांकूय बरें समजायलें. दोगांकूय प्रत्येकी दोन-तीन लायनीचें भाशण आसलें. मंताचें घर देगेकूच म्हणटकूच ताणें कागद पेन हाडून भाशण बरयलें. उपरांत शाणीन आपलें बरयलें. तशें तांकां हर पार्ट्यांचें भाशण पाठ. पूण शेतकार नंबर एक आनी दोन हें प्रकरण तांकां नवेंच आसलें. शाणीच्या भाशणाची पयली लायन आसली -

'सरकार हा बघा तुमचा गुन्हेगार, याला आता तुम्हीच शिक्षा द्या' आनी दुसरी लायन आसली - 'सरकार, तुम्ही शिक्षा देत नसाल तर आम्हाला सांगा, याला आम्ही सारखी अद्धल घडवू आणि दाखवू आमचा इंगा. इतलें म्हणून त्या गुंडाचेर शेतकरी नंबर दोन खोंट घालता असो सीन आसलो.

त्या दिसा आनी दुसऱ्या दिसा तांची येसाय गुरूमामान

घेतली. गुंड्याची भुमिका खामा शिवादादा करतालो. ताचो तांका बरें तेंको मेळटालो. मंता आनी शाणी जाण्टे दिसपाक जाय म्हूण पुडवें आनी खोमीस घेवन येवपाचीय ओर्द डायरेक्टर गुरूमामान दोनूय शेतकाऱ्यांक दिली ती तांच्यांनी घरच्यांचे फाटीक लागून पुराय केली. खरें म्हणल्यार शेतकार जाण्टे आनी गरीब पूण मंता आनी शाणीन नवीं कुरकुरीत पुडवीं आनी खोमसां हाडून घेतलीं.

जालें... दुसरे दिसा सावन मंताक आनी शाणीक स्पेशल पार्ट आसा म्हूण अख्ख्या गांवाक आनी सग्यासोयऱ्यांक खबर पावली. करतां करतां तांच्या नाटकांचो दीस उदेलो. शाणीचीं आतीं आनी मामा-मामीय नाटकाक पावलीं. माम ले आज्जेन आनी आईन शाणीचो पयलो पार्ट म्हूण स्पेशल रंग घालून शिरे करून हाडलो. नाटक सुरू जावचे पयलीं सगळ्यांनी स्टेजी फाटल्यान वचून शाणीक तोखणायेचो हात दिलो. शाणी आनी मंता मिशयो बी लावन बरेंच मोठे गंभीर शेतकार दिसताले. आईक, बाबाक आनी घरच्यांक शाणीक पळोवन पुताचो अभिमान दिसलो. बाबा केन्ना स्टेजीर चडूंक नासलो, पूत चडलो हें पळोवन ताचें हड्डें फुल्लें. ताचो मोगाचो बापीमामाय आपल्या दोगां इश्टां वांगडा शाणीक हात दिवन गेलो. शाणीक भितरल्यान खूब बरें दिसलें. तो सामको खूश जालो. मंताय आपल्या सोयऱ्या दायऱ्यांच्या येण्यान आनंदीत जालो.

देवीची पालखी शेजेर विराजमान जातकच वट्ट पावणे इकरांक श्री सातेरी देवस्थानांत शिवादादा निर्मित आनी गुरूमामा दिर्गदर्शीत 'देवमाणूस' हें सामाजीक कोटुंबीक जिव्हाळ्याचें तीन अंकी मराठी नाटक सुरू जालें.



पात्रपरिचयांत शाणीचें नांव जाहीर जाताच ताच्या काकान एक डजन माराण्याचो फोग मारलो.

नाटक बरेंच रंगलें. दुसरो अंक सोपलो तरीय लोक कशेच हाल्ले नात. निमणो अंक सुरू जालो तेन्ना शाणी आनी मंताचीं घरचीं तांचे एन्ट्रीची वाट पळयत तिश्टलीं. तरीय व्हडा उमेदीन आनी अपुरबायेन तीं पाशियेंसान रावलीं. निमणें एकदां तो सीन सुरू जालो. भितरल्यान गुरूमामान दोगांय शेतकाऱ्यांक योग्य वेळार स्टेजीर एन्ट्री मारपाक शिटकायलें. दोगूय शेतकार गुंडाचो पार्ट करपी शिवादादाचे हात बांदून स्टेजीर पावले.

तेन्नाच भायल्यान माराण्यांचो गडगड जालो. दोगांय नव्या पार्ट्यांचे माराणे वांगडाच पेटिल्ल्यान बरोच वगत कितें जाता कोणांक कळ्ळें ना. त्याच वेळार शेतकार नंबर एक जाल्ल्या मंतान आपलें भाशण पोपट कशें ओर्रान म्हटलें.

फुडलीं वाक्यां शेतकार नंबर दोन जाल्ल्या शाणीचीं आसलीं. शाणीन तकली वयर करून तोंड उगडलें आनी अजाप म्हटल्यार सगळ्याक शिटुकसाण दाखोवपी शाणी फुडल्या लखख उजवाडान सामको दिपकावलो. ताका कांयच सुचना जालें.

सरकारी..... सरकारी सरकारी... सरकारी इतलेंच कितें ताच्या तोंडांतल्यान येवंक लागलें. तो 'सरकार सरकार' म्हणटा तसो लोकांचो हांसून मुड्डो पडलो. शाणी सरकार सरकार म्हणटा आनी लोक खो खो करून हांसतात. लोकांचो हांसो आयकून शाणी आनीक आबूज जालो. अशें बरोच वगत चल्लें. भाशण विसरला बी आसत म्हूण गुरूमामा भाशण प्रॉम्प्ट करपाक लागलो. तें निमणे लायनींत बशिल्ल्यांक लेगीत आयकूंक आयलें. 'सरकारा हा बघ तुमचा गन्हेगार....' हें म्हण. शाणी म्हण. शाणी म्हण.' अशें तो भितरल्यान सुचोवंक लागलो पूण शाणीचें तोंड कशेंच उगडना जालें. ताचे हातपांय थरथरले. व्हड कश्टान ताणें परत भाशण म्हणपाचो यत्न केलो पूण बाबड्याची गाडी सरकारा मुखार पावूंक शकली ना.



निमणें बेजारून डायरेक्टर गुरूमामान थरिल्ल्या प्रमाण शेतराकांक गुंडाचेर खोट मारपाक सांगलें. तें मात काम आबूज जाल्ल्या शाणीन बेस बरें म्हणजे खरें खरें केलें. तांणी नेटान शिवादादाच्या कमरांत खोंट घातली. 'आवयगेऽऽ म`लो गेऽऽ'. अशें म्हणीत तो मराठी नाटकांतलो गुंड बाबडो कोंकणींत आड्डलो तेन्नाय लोक परत खो करून हांसलेच. निमणें नाटक सोपलें आनी शाणीची सुटका जाली. पूण लजे पासून तो कसोच सुटलो ना.

नाटकाचो पडदो पडटांत तो धांवत घरा आयलो आनी भितरले कुडींत वचून कामरण घेवन सुस्त न्हिदलो. पूण रातभर ताका दोळो लागलो ना. आपल्याक लागून घरच्यांक लज जाली. फाल्यां भुरगे आपल्याक 'सरकार सरकार' म्हुणून चाळयतले अशें चिंतून चिंतून बाबड्यान रात सारली. आईनूय सगळ्यांक सांगून ताका उठयलो ना.

फांतोडेर ताणें एक सोपूत घेतलो. 'देवी सातेरी हांव सोपूत घेतां... एक दीस हांव तुज्याच दोळ्यां मुखार हेच स्टेजीर बरो पार्टी जावन दाखयतलों. मंता भशेन पोपट कसो उलयतलों. अजाप म्हणजे, हो सोपूत घेतकच ताचें मन शांत जालें. उपरांत ताका केन्ना झेम लागली कळ्ळेंच ना.

(चलता...)

# मांजरा पीील

अविनाश कुंकळकार



स्कुल सुटपाची घांट वाजली. उदकाक आडो घालून साठोवन दवरिल्लें उदक अचकीत सोडल्या उपरांत लोट व्हांवता तसो भुरग्यांचो लोट स्कुलाच्या प्रवेश दारांतल्यान व्हांवलो. तन्वी आनी तेजस हीं दोगांय भाव भयणी त्या लोटांत आशिल्लीं. स्कुल सुटून घरा येतना तीं सदांच मस्ती करीत येतालीं.. आयजूय तीं दोगांय तशींच घरा येतना तांकां एक मांजराचें पील दिसलें.

बरेंऽ धवें-धवें, माणकुलें, माजराचें सुंदर पील पळोवन तीं दोगांय थंयच कांय वेळ रावून त्या पिलाक नियाळूंक लागलीं. तें मांजरा पील थंय रत्याचे देगेक कितें तरी येवजून हुंडके दियत रडटा तें पळोवन तें कोणाक तरी सोदता आसतलें असो अंदाज तेजसान लायलो. तेजस ल्हवू-ल्हवू ताचे कुशीक गेलो आनी ताणें ल्हवूच ताका उकलून आपले वेंगेंत घेतलें. तें मोव-मोव ल्हेंवेंचें मांजराचें सोबीत पील वेंगेंत घेवन ताका

खूब्ब बरें दिसलें, खूब्ब खूश जावन ताणें तन्वीक विचारलें,

" दिदी, ह्या मांजराच्या पिलाक आमी घरा वरूंया? "

" नाका हां तेजस, आई उलयतली! " तन्वीन म्हळें.

तन्वीचीं तीं उतरां आयकून तेजसचो हांसतो चेहरो सामको बावलो.

" व्हरूया न्हय दिदी आमी ताका आमच्या घरा, पळय कशें रडटा तें आम चे कडेन पळोवन! तें आमकां कितें तरी सांगपाक सोदता अशें दिसता! "

" हय?? तुका कळटा तें कितें सांगपाक सोदता तें? "

"हय दिदी, ताची आवय शेणल्या. तें आपले आवयक सोदता. तें आमचे कडेन विचारता, 'तुमी म्हजे आवयक पळयल्या काय म्हूण.! " तेजसान म्हळें.

तें आयकून तन्वीक हांसूंक आयलें.

" ताची आवय शेणल्या, काय तें शेणलां रे? ताची आवय शेणल्या जाल्यार ताच्या रडण्याचो आवाज आयकून येतली. चल या आमी." अशें म्हणून तन्वी चलूंक लागलें . पूण तेजस फुडें वचना जालो. तो थंयच रावलो... तन्वीन ताका आपयलो.

" ना दिदी, हांव तेका व्हरतलोंच घरा." अशें म्हणत मांजराच्या त्या पिलाक घेवन तेजस चलूंक लागलो. फाटल्यान तन्वी ताचेर आरडलें.

"तुका सांगल्यार कळना तेजस!! ताका पळयतांच आई म्हजेर काडटली फोर. तुका कोण कांयच म्हणचोना. 'तूं व्हडलें मगो? तुकाय ना बुद्द.' अशें म्हणटली, जाणा तूं?"

"ना गो दिदी, आईक कळचें ना. "

"आईक कळचें ना? आई कितें कुड्डी, ना कळपाक? "

"दिदी, आमी ताका बोटव्यांत घालून व्हरया. हें पळय अशें."

तेजसान मांजराच्या पिलाक आपल्या बोटव्यांत घालें.

"तूं न्हय तेजस, कसोच आयकपाचो ना. चल आतां, घालें न्हय ताका बोटव्यांत?" तन्वीन वाजेवन म्हळें.

"हां दिदी, म्हणल्यार तुवेंनूय बी मान्य केलें न्हय, हाका आमच्या घरा व्हरचें म्हूण? " तेजसान हांसत विचारलें.

"हय वय, पळोवंया घरा पावतगीत कितें जाता तें! " अशें म्हणून तीं वाट चलूंक लागलीं.

दोगांय जेन्ना घरा पावलीं तेन्ना

तांची वाट पळयत आई दारांतूच उबी आशिल्ली. तीं आयल्यांत तें पळोवन आई फणफणली.

"आगो बाय, आयज उशीर कित्याक गो?" आईन विचारलें. आयकून दोगांय एका-मेका कडेन पळयत ओग्गी रावलीं.

"हांवें विचारलां आयज उशीर कित्याक जालो गो येवपाक? " आईन परतून आवाज वाडयलो.

"तें मांजराचें पील..."

"उदकान पडिल्लें गे आई. ताकाच वयर काडटा म्हणल्यार आमकां उशीर जालो." तेजस फुडलीं उतरां उलोवंचे पयलींच तन्वीन जाप काडली. तेजसान तन्वी कडेन पळयलें. तन्वीन ताका ओग्गी राव म्हणून खुणायलें.

"हय आई, उदकान पडिल्लें तें मांजराचें पील." तेजसानूय आपली हुशारकी दाखयली.

"रत्यावयल्या मांजराक उदकांतल्यान वयर काडपाक तुमी स्कुलांत वतात?" आई तांचेर तापली आनी सदचे वरीं तन्वीच्या खांदा वयलो बोटवो काडून घेतलो आनी तेजसाचोय काडपाक गेली पूण ताणें तो काडूंक दिलो ना.

"बुडटल्याक वाचोवचें, अशें तुवेंन एक फावट सांगिल्लें. याद आसा न्हय आई तुका?" तेजसान खूब्ब दिसां फाटीं उलयल्लीं उतरां आईक याद करून दिलीं.

"हय आसा याद, पूण स्वताच बुडून दुसऱ्याक वाचोवप नासता. त्या मांजराच्या पिलाक वाचयतां-वाचयतां तुमी बुडिल्लीं जाल्यार?"

तीं दोगांय ओगीच रावलीं. आई परतून तेजसाच्या खांदा वयलो बोटवो काडूंक गेली पूण तो फाटीं सरलो.

"आरे, बोटवो दी मरे, भितर दवरतां." आईन म्हणलें.

"नाका आई, आयज हांवूच दवरतां." तेजस बोटवो घेवन भितर गेलो. आई ताचे कडेन पळयत रावली.

"आगो बाय, कितें जालां हाचें आयज? बोटवो घेवन भितर सो?" आईन तन्वीक विचारलें. तन्वी मातशें घुसपटल्या वरीं जालें.

"आई, आपलें काम आतां आपणेंच करपाचें हें ताका समजलां आसतलें." तन्वी बडबडलें.

"हय? आनी तुका केन्ना समजतलें? चला, हात पांय धुवन घेयात. जेवण वाडटां." अशें म्हणून ती भितर गेली.

"हां देवूच पावलो म्हणपाचो! आईक जर कळिल्लें आमी मांजराचें पील घरांत हाडलां तें, आनीक सोंसपाचें नाशिल्लें." अशें म्हणत तन्वी सुस्कार सोडून भितर गेलें. दोगांय हात, पांय धुवन जेवंक बसलीं. आईन जेवण वाडलें.

"आई, बाबा गे, येवकना आजून?" तन्वीन आईक विचारलें.

"हां, हें पळय, विसरलींच हांव. आयज बाबा दनपारच्या जेवणाक येवंचो ना अशें म्हणलां ताणें. ताच्या ऑफिसांत पार्टी आसा खंय आयज. तुमी जेवन घेयात." आईन म्हणलें.

"आई तुंवय जेवंक बस न्हय आमच्या वांगडा." तेजस.

" नाका. तुमी जेवात पयलीं. हांव मागीर जेवतां...आनी हां ओगी बसून जेवतलीं, मस्ती करी नासतना. कितेंय जाय जाल्यार म्हाका उलो कर."

अशें म्हणून ती थयसरल्यान गेली. तन्वीक कसली तरी याद आयली. ताणें तेजसच्या कानांत ल्हवू आवाजान सांगलें,

"मांजराचें पील तें तुज्या बोटव्यांतूच आसा न्हय! घुसमट्टलें तें!"

" ना दिदी, हांवें ताका बोटव्यांतल्यान काडून खाटी पोंदाक दवरलां."

"आरे पिशा, तें खाटी पोंदाच्यान भायर सरलें जाल्यार?"

"तूं समजता तसो पिसो न्हय हां हांव दिदी. हांवें ताच्या पांयाक सुतळी बांदून खाटीच्या पांयाक बांदल्या."

"पूण भूक लागची ना रे ताका?"

"फ्रिजान पेलो भर दूद आशिल्लें तें दिलें पिवंक. आतां ताचें सामकें पोट भरलां!"

"हूं! हुशार हां तू!" तन्वीन तेजसाची तोखणाय केली.

"पूण दिदी, आईक तुवें फट कित्याक सांगलें, मांजराचें पील उदकांत पडिल्लें म्हूण? " तेजसान अचकीत प्रस्न विचारलो.

"ना तर कितें सांगू आसलें!! मांजराचें पील बोटव्यांत घालून हाडलां म्हण? जेव थंय ओग्गी आनीक हुशारकी कर नाका." तन्वी ताचेर चाळवलें! तो तकली सकयल घालून जेवंक लागलो. कांय वेळान दोगांयचें जेवण जालें आनी थंय आवय आयली.

"जेवलीं मगो! चलात, मातसो विसव घेवन अभ्यासाक बसात. तो पर्यन हांव जेवन घेतां."

"बरें आई!" अशें म्हणून तीं दोगांय आपले कुडींत गेलीं. तो पर्यन आवयन जेवन घेतलें.

(चलता...)

## काव्यकाणी



अभयकुमार वेलिंगकार

**अभयकुमार वेलिंगकार** [illegible] वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कोंकणींतल एक निश्टावंत कार्यकर्ते म्हूण कोंकणीची सेवा करत आसतनाच तांणी कोंकणी साहित्य मळार आपलें परीन योगदान दिल्लें आसा. बालसाहित्य हो तांचो आत्मो. त्या भायर तांणी कथा, कविता, ललित, एकांकी अशे साहित्यांतले भोवतेक प्रकार समर्थपणान हाताळल्यात.



# हुप्प माकडा

दवर्लेच्या दोंगराचेर
माकड एक रावतालो
हेवटेन तेवटेन भोंवपांत
दीस वगडायतालो।।१।।

ह्या झाडार, ते खांदयेर
उडयो तो मारतालो
चिंचो, पोपायो, केळीं खायत
जीण आपणाली सारतालो।।२।।

लुकसाण आपलें करता
म्हूण, लोक बेजार जाताले
फुगेट्यां माराण मारून
धांवडावंक ताका पळेताले ।।३।।

घरां, झाडां माड्डीत माड्डीत
माकड धांवतालो फुडें
फाटीक लागताले सुणे
आनी लोक मारताले गुंडे ।।४।।

एकदां एका भाटांत हो
माकड पुता पावलो
केळींक लागिल्ले घड बरे
तुटून तांचेर पडलो ।।५।।

भाटांत त्या कांय मानाय
सावळ माडांक घालताले
पळोवन माकड घेवन फातर
मारूंक ताका आयले ।।६।।

केळीर बसून माकड
नेटान केळीं खातालो
एकएक घांस मारून केळें
जमनीर मोखून मारतालो ।।७।।

नेम धरून मानायान
फातर एक मोखलो
जिस्त तो माकडाचे
फाटीर वचून बसलो ।।८।।

केळीं खावपांत माकड
गुल्ल बरो आसलो
फातर बसना फुडें
सामको तो हाल्लो ।।९।।

फातर बरोच दुखलो
तो खिणभर वळवळ्ळो
केळीं थंयच सांडून
शेपटी तुटसर धांवलो।।१०।।

फाट बरीच दुखताली
तरी धांवत रावलो
मुखार वचून झाडाचे
धोलींत एके बसलो ।।११।।

जायतो वेळ माकड
धोलींत बयून आसलो
फाटीवेलो याय ताका
बरोच सतयतालो ।।१२।।

असोच जर उरलों
भायर कसो भोंवतलों?
पोटाक भूक लागल्यार
किर्ते सायबा करतलों? ।।१३।।

भुकेचे यादीन सामको
खासावीस तो जालो
गेले काय ते लोक, पळोवंक
धोली भायर आयलो ।।१४।।

चितर्ले तार्णे, मनशांवरीच
दोतोरागेर वर्चे
याय दाखोवन दोतोराक
वखद विर्सद करर्चे ।।१५।।

मनांत आयलो विचार तसो
माकड सट्ट करून उठलो
दुखपी याय सोंशीत सोंशीत
धांवपाक तो लागलो ।।१६।।

दवर्लेच्या दोतोरागेर
आसली बरीच गर्दी
अर्दे आसले दादले आनी
बायलां तातूंत अर्दी ।।१७।।

कांय जाण खांकताले
कांय जाण शिंकताले
मान करून वांकडी
थंयच थोडे थुंकताले ।।१८।।

कोणाक जाल्ली थंडी
आनी कोणाक आसलो जोर
कोवीड बी न्हय मूं हो
जिवाक बेठोच घोर ।।१९।।

पयसुल्ल्यानूच दोतोर
एकेकल्याक तपासतालो
वखद, गुळयो दिवन बरोवन
घेवंक तांकां सांगतालो ।।२०।।

मर्दीच येवन इंजेसांव हार्ती
थोड्यांक सूय तोपतालो
हाय हुय करीत करीत
दुर्येत बाबडो सोंसतालो ।।२१।।

धांपेत खरशेत वचून माकड
रांकेंत फाटल्यान राविल्लो
कांय वेळ रावन उबो
तोय बाबडो कंटाळ्ळो ।।२२।।

मनशां रांकेंत कितलो वेळ
आसलो माकड उबो
पळोवन ताका अजापलो
आड्या वयलो हळडुवो बेबो ।।२३।।

माकड काय मनीस हो
बेब्याक बाबड्याक कळना
म्हऱ्यांत वचून चोवचेलें
धाडस ताका जायना ।।२४।।

पुट्ट करून आड्यावेल्यान
खिणांत बेब्यान उडकी मारली
रांकेंत आशिल्ल्या दुर्येतीच्या
पांयां कडेन गुटली पडली ।।२५।।

भियेल्ल्या मनशान त्या
पांय आपलो ़फाटीं काडलो
फाटल्यान आसलो माकड
ताच्या तोंडार आपटलो ।।२६।।

दुखलें बरेंच माकडाक
बाबडो सामको वळवळ्ळो
बोवाळ मारून व्हडल्यान
थंयच आडवो लोळ्ळो ।।२७।।

पळोवन ताका लोक थंयचे
हेवटेन तेवटेन धांवक लागले
'पिसावला काय किर्ते' म्हणत
पयसुल्ल्यान पळोवंक लागले
।।२८।।

दोतोराच्या कानार
बोवाळ हो पावलो
दुर्येतीक थंयच दवरून
दोतोर भायर आयलो ।।२९।।

गळ्यांत आसलें हेंवाळें
आनी हातांत इंजेसांव
भायलो देखाव पळोवन
वाडलें बाबड्याचें प्रेसांव ।।३०।।

'पिसावला आसत, सांबाळात'
दोतोर भंयान आड्डलो
'सांपडल्यार लागीं सोडचोना
सोमतोच बुड्डीतलो' ।।३१।।

दोतोराचीं उतरां हीं
माथ्याक ताच्या मारलीं
मारून झोंपय येतलें इंजेसांव
आनी झाडार उडी मारली ।।३२।।

दोतोर पयलोच भियेल्लो
पळेत ताका उरलो
झाडार बसून माकड
चाळोवंक ताका लागलो ।।३३।।

पळोवन हें सगळें
लोक सामके चाळवले
मारूंक म्हूण माकडाक
तांच्यांनी फातर उबारले ।।३४।।

नाका दोतोर नाका फातर
म्हणून माकड परतलो
फाटीवेली दूख आपली
विसरुनूच बाबडो गेलो ।।३५।।

माकडा हातांत इंजेसांव
सगळ्यांक जालें पिकासांव
येतल्या वतल्याक तोपीत सूय
माकड मारता दोंगरार धांव ।।३६।।

इंजेसांव घेवन माकड
चलतालो दोंगरा वाट
रस्त्यावेल्या गोरवांकडेन
पडली ताची गांठ ।।३७।।

तांतल्या एका पाडकाक
ल्हवूच, तोंपली तार्णे सूय
दुखीन पाडूक उधळ्ळें
करूंक लागलें 'हाय हूय'।।३८।।

हांसत हांसत माकड
वाट चलूंक लागलो
वाटेवेल्या झोपांनी ताका
कोलो नदरेक पडलो ।।३९।।



तिनसांज केन्ना जाता
वाट तो चोयतालो
मळ्यांतल्या पिंपऱ्यांचीं
सपनां तो देखतालो ।।४०।।

ल्हवूच वचून फाटल्यान
ताका, तोपली इंजेसांवां सूय
उडकी मारून धांवलो कोलो
करूंक लागलो,'कूय कूय' ।।४१।।

मजा येत येत माकड
वाट आपली चलतालो
वाटेवयल्या सावदांक
वोगीच आपलो सतायतालो ।।४२।।

इतल्यांत ताचे नदरेक
बिबटो एक पडलो
वाट चुकून बाबडो
गांवांत त्या पाविल्लो ।।४३।।

कशें आतां वचप रानांत
वाट तो सोदतालो
कोण सांगीत वाट आपणाक
मनांतूच बाबडो चिंततालो ।।४४।।

मनशांचे पडल्यार नदरेक
आपूण काय उरचोना
मनीस ही जातूच तशी
सावदांक कशीच सोडची ना।।४५।।

चिंतनानीच तो सामको
आकूळ पिकूळ जाल्लो
पळयना मूं आपणाक कोण
हांगा थंय पळतालो।।४६।।

पळोवन ताका दिसलें माकडाक
करची हाचीय मजा
हेरांवरीच उडोवची
हाचीय इल्ली धजा ।।४७।।

चिंतून माकड ल्हवूच
फाटल्यान ताच्या गेलो
फाटीकडेन रावन ताच्या
सूय तोंपूंक लागलो ।।४८।।

लिपून जरी केलें तार्णे
बिबट्यान जिस्त पळेलो
मारली रागान उडी आनी
खिणांत ताका लोळयलो ।।४९।।

कितें म्हणून सुचलें आनी
बिबट्या वाटेक गेलो
निमण्या खिणाक कळ्ळें
आपूण बाबा चुकलों ।।५०।।

हातांत मेळ्ळें कोलीत म्हूण
उजो लायत जो भोंवता
केन्नाय तरी असल्याक
बिबटो एक मेळटा ।।५१।।

देखून कितेंय करतना
आपणें, दवरचें इल्लें भान
दुसऱ्यांक दिवचो मान
आनी वाडोवची शान ।।५२।।

# मानाचें पान

मंजुषा शेणवी तळावलीकार



फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा शेणवी तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच, तेच वांगडा समिक्षा, कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

स्वताच्या दुख्खा खातिरूय अनुकंपा जागयात- अनुकंपा ही दुख्खाचेर आपुलकेची फुंक घालपी संवेदनशीलताय. आमी जेन्ना अनुकंपेन वागतात तेन्ना आम चो ताण उणो जावन कुडीक शितळकाय भोगता.






आमकां जर एक निरोगी जीण जियेवपाची आसल्यार फकत निरोगी कूड आसून उपकरना. तर एक निरोगी मन लेगीत आसचें पडटा. आमची कूड आनी मन हें दोनूय एकमेकांक एकसंध आसतात. म्हूण मनांतल्यान कुडींत आनी कुडींतल्यान मनाक संदेश धाडप शक्य आसता. आमचे मनाचे सगले वेव्हार आम चे तकलेंतलो मेंदूच सांबाळटा. मेंदवांत आशिल्ल्यो पेशी- मज्जातंतू हेच सगल्या संदेशांचें आदान प्रदान करतात. आमचो जर मेंदू बरे तरेन काम करपाक लागलो जाल्यार मनूय बरें चलता आनी ताचेर अवलंबून आशिल्ली कुडय बरी चलता. आमच्यांनी खंयचेय पिरायेचेर मेंदवाक आमकां जाय तशें वळण लावपाक जाता हें तर आतां आधुनीक संशोधनांतल्यान सिध्द जालां. तर तो कसलो सकारात्मक बदल घडोवप आनी कशे तरेन तो शक्य आसा हाचें गिन्यान दिवपी एक खूब सुंदर अशें एक पुस्तक वाचलें तें म्हणल्यार Resilient- How to grow an Unshakable Core of Calm, Strength and Happiness.

ह्या पुस्तकाचे लेखक डॉ. रिक हॅन्सन आनी सह-लेखक तांचे पूत फॉरेस्ट हॅन्सन. लेखक डॉ. रिक हॅन्सन हे न्युयॉर्क टायम्स बेस्ट सेलर लेखकांचे वळेरींतले नामनेचे लेखक जांणी ह्या पुस्तका पयलीं Hardwiring happiness AmZr Buddha's Brainht न्युयॉर्क टायम्स बेस्ट सेलींग पुस्तकां बरयिल्लीं आसात. पीएच् डी. केल्ले डॉ. रिक हॅन्सन अमेरिकेचे एक मानसोपचारतज्ञ जांणी न्युरोसायन्साचेर जायतें संशोधन केल्लें आसा आनी तांचीं पुस्तकां 29 भाशांनी अणकारीत जाल्लीं आसात. तर Resilient हें घटमूट आनी आनंदी जीण कशी घालोवप हाचेर मार्गदर्शक अशें पुस्तक. दर एकल्यान खरेंच वाचपा सारखें हें पुस्तक जाची आयज हांव तुमकां थोडे भितर वळख करून दितां.

सुरवात करतना ह्या पुस्तकाच्या नांवा वयल्यानूच करुया. लेखक आमकां कितें सांगपाक सोदता तें ह्या पुस्तकाच्या नांवा वयल्यानूच समजता. Resilient ह्या उतराचो शब्दशः अर्थ जावन आसा लवचीकपणा वो लवचीक वृत्ती. आमचे कडेन जेन्ना दृढनिश्चय, आपयोग्यताय आनी दयाळूपण हे गूण आसतात तेन्ना आमी लवचीक आसतात, जे वरवीं आमी कठीण परिस्थीती वो आपत्तीचेर मात करपाक शकतात. तशेंच जिणेंत मेळिल्ली संद आपणावपाक

सगल्या आव्हानाक फुडो करपाक शकतात. आमचे कडेन लवचीकपणा आसल्यार आमी कसलेय हानी आनी धसक्यांतल्यान उसळी मारून रोकडींच भायर सरूंक शकतात. ते भायर लवचीक वृत्ती आमकां निरोगी भलायकी, आनंद, मोग-मोयपास, शांतीकायेचो अणभव दिता. जेन्ना आमची मानसीक भलायकी घटमूट आसता तेन्ना आमकां मनाच्या गाभ्यांतल्यान बळगें आनी सामर्थ्य मेळटा.

तर हो लवचीकपणा मेळोवप कसो? आमचो मेंदू हो दर खिणाक जोडिल्ल्या अणभवा वयल्यान कितें ना कितें तरी शिकत आसता आनी त्या आदाराचेर सातत्यान आपली फेररचणूक (re-model) करता. दरेक विचाराचें, अणभवाचें आमच्या मेंदवांत एक सर्किट जाता. आनी ज्यो गजाली आमी परत परत अणभवतात तेन्ना तें सर्किट आमच्या मेंदवांत परत-परत उत्तेजीत जावन तो विचार घटमूट जाता आनी तो विचार आमचे वृत्तीचो एक भाग जाता. देखीक आमी गाडी चलोवपाक शिकतना सुर्वेक भीत-भीत सगलें लक्ष रस्त्याचेर आनी गाडयेचेर केंद्रीत करून चलयतात. पूण मागीर जेन्ना आमकां संवय जाता, तेन्ना आमी गजाली करतां-करतां लेगीत गाडी चलोवपाक शकतात. तंतोतंत हेच पध्दतीचेर आमच्या मेंदवाचो कारभार चलता. एकदां आमकां संवय जाली काय मागीर आमी अभावितपणान कसलीय गजाल करपाक शकतात. आमी लवचीकपणान, मेंदवाचे हेच संवयेचो वापर करून, आमकां जाय तशें वळण आमच्या मनाक लावपाक शकतात.

दरेकल्या मनशाक तीन मुळाव्यो गरजो आसतात. त्यो म्हणल्यार सुरक्षा, समाधान आनी संयोग, जाची बुन्याद आमच्या पुर्विल्ल्या उत्क्रांतीच्या इतिहासांत पडल्या.



आमची सरभोंवतणची परिस्थीती जरी 2 अब्ज वर्सांत बदलून आयज आमी आधुनीक काळांत पावलीं तरी आमचो मेंदू मात अजून चडसो बदलूंक ना. आमच्या मेंदवांतली मज्जातंतू सामुग्री जी आमच्या पुर्वजांक, सुरक्षताये खातीर जाय आशिल्ली गरज आलाशिरो सोदून, समाधानाची गरज अन्न मेळोवन आनी संयोगाची गरज एकमेकां कडेन नाते जुळोवन भागयताली, तीच आयच्या मनशाच्या मेंदवांत अजून मेरेन जागृत आनी सक्रीय आसा.

आमी आमच्यो गरजो चार मुखेल तरेन भागयतात. सत कितें आसा तें जाणून घेवन, दुसऱ्यांक आदार दिवन, आमचे विचार, भावना आनी कृतीचेर नियंत्रण दवरून, आनी लोकां कडेन कळाशेन वागून. जेन्ना आमी ह्यो चार पद्दती वापरून आमच्यो तीन गरजो भागयतात तेन्ना आमकां 12 मुळाव्यो मानसीक शक्ती वापरच्यो पडटात. त्यो शक्ती चार भागांनी, 12 पाठांतल्यान ह्या पुस्तकांत दिल्यात.

## भाग1. जाणप वो वळखप
(Recognizing)

### 1.अनुकंपा वो करुणा (Compassion)-

आमी जेन्ना दुसऱ्यांक मानान आनी आस्थेन वागयतात तेन्ना तांचे भितरले उत्कृश्ट गूण ते उक्तायतात. देखीक आमच्या इश्ट-इश्टीणक आमी सदांच उत्तेजन दिलें, आपुलकायेन वागयलें, जाल्यार तांकां तांचे उदरगतींत निश्चीतच आदार जाता. तेच प्रमाण आमी स्वता कडेनूय दुसऱ्या कडेन वागतात तेच आस्थेन वागपाक जाय. तशें केल्यार आमी उत्तेजीत, मायेस्त आनी दयाळ जावन, निरोगी रावपाक आनी उदरगतीचे वाटेर चलपाक स्वताक मजत करतलीं. जेन्ना आमचे भितर हे उत्कृश्ट गूण आमी रुजयतलीं तेन्नाच आमी दुसऱ्यां कडेनूय चड सोसणिकायेन, मायेन आनी सहकार्यान वागतलीं.

स्वताच्या दुख्खा खातिरूय अनुकंपा जागयात- अनुकंपा ही दुख्खाचेर आपुलकेची फुंक घालपी संवेदनशीलताय. आमी जेन्ना अनुकंपेन वागतात तेन्ना आमचो ताण उणो जावन कुडीक शितळकाय भोगता. आमकां जेन्ना दुसऱ्या कडल्यान अनुकंपा मेळटा तेन्ना आमी मनान घट जावन, मेकळेपणान स्वास घेवन उमेदीन पावल फुडें घालपाक शकतात. आत्म-अनुकंपा म्हणल्यार स्वता खातीरची अनुकंपाय आमकां तेच परिणाम दिता.

पूण आत्म-अनुकंपा जागोवपाक जायत्या जाणाक कुस्तार पडटा आनी ताचें एक कारण आमचे कुडींतले मज्जासंस्थेचें कार्यकारिणीचेर अवलंबून आसा. आमचो मेंदू आमचे जिणेंत येवपी अणभवा नुसार बदलता. जातुंतले विशेश करून भुरगेपणांत

आयिल्ले जे वायट अणभव आसतात ते आमच्या मेंदवाचेर चड प्रभाव घालतात. आमकां आमच्या लागीच्या खास लोकांनी म्हणल्यार आमच्या पालकांनी आनी घरच्यांनीं जे तरेन वागयिल्लें आसता– जातूंत दुर्लक्षीत केल्लें, उणाकपणान वागयिल्लें, भावना दुखयिल्ल्यो आसू येता– हें सगळें मेंदवांत जिरोवन आमी तेंच सत मानून चलतात आनी स्वताकूय तेच भाशेन वागयतात. त्या दुश्टचक्रांतल्यान आमी भायर पडपाक जाय.

आमी स्वताचेर मोग करपाक जाय आनी जिवीत आनंदान उपभोगप हो स्वताचेर मोग करपाचो प्रभावशाली मार्ग. आमी सदांच जर खूश रावलीं जाल्यार आमचे जिणेंतलो ताण तणाव कमी जावन आमकां सहनशीलता येता आमचें लोकां कडलें आपलें नातेंय घट करपाक मजत जाता.

जिणेची खोशी ही व्हडल्या गजालींनी नासता तर ल्हानल्हान गजालींनीं आसता. तिबेटांत एक म्हण प्रचलीत आसा, तुमी जर तुमच्या दरेक मिनटाची काळजी घेतली जाल्यार वर्स आपली काळजी घेतलें. कारण वर्स हें एक एक खीण, एक एक मिनीट जोडुनच जाल्लें आसता. आनी जिणेंतलें सगल्यांत म्हत्वाचें मिनीट खंयचें तर तें आतांचें! फाटल्या भुतकाळांत जमा जाल्ल्या खिणा बद्दल आमी कांयच करूंक शकनात आनी फुडें येतल्या दिसांचेरूय आमचो चड प्रभाव आसना. आमकां जर चड संघर्श करनासतना जगपाक जाय आसल्यार जी गजाल जशी आसा तशी आमी स्वीकार करची पडटा. तातूंत आमी स्वताचो लेगीत आसा तसो स्वीकार करप हेंवूय आस्पावता.

2.सावचीतकाय (mindfulness)

आमकां आयिल्ल्या अणभवांतल्यान आमच्या मेंदवाची जडण-घडण जायत आसता. आनी आमचे अणभव हे आमी ज्या गजालींचेर लक्ष केंद्रीत करतात ताचे वयल्यान घडटात. आमी जागरूक आसल्यार आमचें लक्ष अनुकंपा, कृतज्ञताय ह्या मानसीक स्रोतांचेर दवरलें जाल्यार आमी आमच्या मेंदवांतल्या पेशींनी आनी मज्जासंस्थेंतल्या मज्जातंतूंत ठसोवपाक शकतात.

वयर उल्लेख केल्ले प्रमाण मनशाक तीन गरजो आसतात. सुरक्षा, समाधान आनी संयोग ज्यो आमी हानी टाळून, मोबदलो मेळोवन आनी दुसऱ्यां लागीं नातें जोडून मेळयतात. ह्यो आमच्यो गरजो आनी त्यो भागोवपाची आमची पद्दत उत्क्रांतींतल्या तीन पांवड्यां वयल्या आमच्या मेंदवाचे घडणेचेर आदारिल्ली आसा. मनशाच्या मेंदवांत जो मुळावो भाग आसा, जाका ब्रेन स्टेम म्हणटात तो सरपटत्या प्राण्याचे उत्क्रांतीच्या पांवड्याचेर विकसीत जाल्लो आशिल्ल्यान तो सरपटत्या प्राण्याच्या मेंदवा सारको आसता. ते खातीर तो सुरक्षीततायेचेर चड भर दिता, देखून मनशाची सगळ्यांत मुळावी गरज ही 'जिवें उरप' हीच आसता. मेंदवाचो दुसरो मजलो म्हणल्यार मदलो भाग सबकॉर्टेक्स जातूंत हायपोथॅलामस, थॅलामस, एमिग्डॅला, हिपोकॅम्पस आनी बॅसल गँगलिया हे भाग आसतात. तो 20 कोटी वर्सां आदी सस्तन प्राण्यांच्या उत्क्रांतीच्या पांवड्याचेर विकसीत जाल्लो आसा. ते खातीर तो बाकींच्या सस्तन प्राण्यां सारखो 'समाधान' सोदीत आसता. आनी सगल्यांत निमाणें म्हणल्यार 5 कोटी वर्सां आदीं उत्क्रांत जाल्लो जो न्युओकोरटक्स आसा तो माकडाच्या वो आदीमानवाच्या उत्क्रांतीच्या पांवड्यार विकसीत जाल्लो. ते उपरांत 25 लाख वर्सां आदी जेन्ना सावन आदिमानव आवतां करपाक लागलो तो मेंदवाची वाड तिप्पट जाली. त्या भागाक लागून मनीस सामाजीक प्राणी जावंक पावलो. मनशा भितर जी भास, सहकार्य, नियोजन, अनुकंपा हे सगळे कलागूण ह्याच भागाक लागून वाडीक लागले. हे सगळे गूण मनशाची संयोगाची गरज भागयतात जे वरवी मनीस एकमेकांक बांदील रावतात. जरी हे मेंदवाचे तीन भाग एकठांय येवन आमच्यो गरजो भागोवपाक आमकां मजत करतात तरी ते त्या त्या पांवड्या वयल्या प्राण्या सारकेच काम करतात. लेखक म्हणटा आमच्या मेंदवांत प्राणीसंग्रहालय आसा, जातूंत एक पाल आसा जी संकश्टाच्या वेळार एक तर पळटा (flee) ना जाल्या थंयचेथंय घट जाता (freeze), एक हुंदीर आसा जो सदांच चीज हुंगत आसता आनी एक माकड आसा जो आपली टोळी सोदत आसता. ह्या प्राण्यांच्यो मेंदवांतल्यो गरजो जेन्ना मनशाच्या मेंदवांत देंवतात, तेन्ना तांचें मनशांचे गरजे प्रमाण परिवर्तन जाता.

आमच्यो गरजो जेन्ना जाय तश्यो भागल्यो असो अणभव आमकां येता तेन्ना आमची कूड आनी मन ग्रीन झोनांत वता जंय आमकां शांती, सूख-समाधान आनी मोग भोगता. ग्रीन झोनांत आमचें मन प्रतिसादक्षम ( responsive) आसता. जेन्ना आमच्यो गरजो सारक्यो भागनात तेन्ना फायट-फ्लायट -फ्रीझ ह्या रेड झोनांत वता आनी तें प्रतिक्रियाशील (reactive) जाता, जंय भिरांत, वेदना आसता आनी आमची चडफड जाता.

जागरूक वो सावध रावप म्हणल्यार दर खिणाक वर्तमानकाळांत रावप, दिवा-सपना पळयनासतना, मन हांगा थंय व्हरऽ नासतना, थतरवितर जाय नासतना, त्या खिणाक आसा तशें स्वीकारप. आमी जर दर खिणाक अशेच स्थितींत रावलीं

जाल्यार आमच्या मना वयलो ताण कमी जावन, भलायकी आनी मनस्थिती निरोगी उरता अशें संशोधनांतल्यान सिध्द जालां. Mindfulness हें मूळ उतर पुर्विल्ल्या काळांतल्या बुध्दधर्मीय पाली भाशेंतलें, जाचो अर्थ जावन आसा 'उगडास वो स्मरण'. आमी जेन्ना सावचीत वो जागरूक आसतात, तेन्ना आमी घाळ आमनात तर सावध आसतात, सैरभैर आसनात तर स्थिरचित्त आसतात. जागरूक रावप हो एक तरेचो व्यायाम जो आमी दर दिसाक केलो जाल्यार ल्हव ल्हव करुन कांय तेंपान तो गूण आमचे संवयेचेर पडटा आनी दरेक खिणाक आमी सावचीत रावपाक शकतात.

आमचें मन उपयुक्तपणान व्यस्त दवरपाक तीन तरा आसात- तटस्तपणान मना वांगडा रावपाचें, दुख्ख आनी हानीकारक गजाली कमी करपाच्यो आनी तिसरें म्हणल्यार आनंदाच्यो, खोशयेच्यो गजाली वाडोवपाचो यत्न करपाचो. तटस्तपणान मना वांगडा रावप म्हणल्यार दरेक खिणाक जी किर्ते भावना येता -ती मागीर कडू आसूं ना तर गोड आसूं- ती अणभवप, त्या अणभवाचो अणभव घेवप. दुसरी तरा आपणायतना जें किर्ते दुखदिर्णे आसा, हानीकारक आनी यातनामय आसा तें टाळप, कमी करप वो काबार करप. आनी तिसरे तरेन आमी आमचे सुखाचे, आनंदाचे खीण वाडोवपाचो यत्न करपाक, जें किर्ते खोसदिर्णे आसा तें निर्माण करप, वाडोवप आनी सांबाळप.

3.परिवर्तनशील शिक्षण (Learning) -

आमचे मनस्थितींत, दिश्टीकोनांत आनी वागण्यांत बदल घडोवन हाडपाक जाय आसल्यार शिकप लागता. अदमाशे एक तृतीयांश गूण हे आमच्या गुणसुत्रांतल्यान



आमकां फावो जाल्ले आसतात आनी दोन तृतीयांश मात आमी शिकपांतल्यान जोडूंक शकतात. कसलेय तरेचें शिक्षण आमचे मज्जासंस्थेचे बांदावळींत आनी कार्यांत बदल घडोवन हाडटा. हे बदल दोन पांवड्यांचेर घडटात. एक म्हणल्यार सक्रीयण ( activation) आनी संस्थापन (installation). पयल्या पांवड्याचेर आमकां येवपी दरेक अणभव आमकां एक विशिश्ट मानसीक अवस्थेंत पावयता. दुसऱ्या पांवड्याचेर तो अणभव ल्हवल्हव आमच्या मेंदवांतल्या स्मृतीकोशांत बळावता आनी दृढावता. आनी काळ वता तसो ते आमच्या सभावाचें चिरस्थायी गुणवैशिश्ट्य जाता. मानससंशोधक डॉनाल्ड हब हांच्या मतान ज्या मज्जापेशींचें एकमेकां वांगडा घर्शण जाता ते एकमेकांत घुस्पतात. तर ह्या सगल्याचो सार म्हणल्यार आमी कृतज्ञताय, आत्मविश्वास आनी दृढनिश्चय ह्यो गजाली परत परत अणभवून त्यो आमचे मज्जासंस्थेंत सक्रीय करून, दृढावन आमी जिवितांत चड कृतज्ञ, आत्मविश्वासू आनी निग्रही जावप शक्य आसता. हाका परिवर्तनशील (transformational) शिकप म्हणटात. देखीक आमी एक फावट सायकल चलोवपाक शिकले काय ती केन्नाच विसरप जायना वो आमी पेंवपाक शिकल्यारुय आमकां जल्मभर तें कळटा.

सकारात्मक आनी सगुणात्मक गजाली अणभवतकच आमचे भितर सकारात्मक बदल घडून येवप हें सगळें इतलें सरळ कोश्टक आसा जाल्यार आमकां तें सहज शक्य कित्याक जायना? ताचें कारण म्हणल्यार आमच्या मेंदवाचो नकारात्मक कल. उत्क्रांतीच्या प्रवासांत आमचो मेंदु इतलो दुबावी जाला, जे खातीर धोकादायक हानीकारक आनी दुखदिणे अणभव सदांच आमचे जाणविकायेच्या अग्रभागाचेर येतात आनी आनंददायी, उपेगी अणभव जाणविकायेच्या पृश्ठभागाचेर लुप्त जातात. हातुंतल्यान जाता किर्ते तर आमचो मेंदु आमकां जिवीत दवरपा कडेन झुकता (survival) पूण ताका लागून आमचे भलायकीचेर आनी हिताचेर मात वायट परिणाम पडटात. सकारात्मक अणभव आमकां पुराय भरतात जाल्यार नकारात्मक अणभव आमकां रिते करतात वो झिजयतात.

आमचे अणभव हे पांच घटकांनी बांदिल्ले आसतात -

o एक म्हणल्यार आमचे विचार जातूंत प्रतिमा, विश्वास आस्पावता.

oदुसरे आमची आकलनशक्त जातूंत संवेदना, ध्वनी आस्पावता,

oतिसरो घटक म्हणल्यार भावना जातूंत उमाळे, मनस्थिती आस्पावता,

oचवथो घटक हावेस जातूंत मुल्यां, हेतू आस्पावता आनी

oनिमणो पांचवो घटक म्हणल्यार कृती जातूंत आमचें वागणें, हालचाली, चेऱ्या वयलो भाव, ढब आस्पावता.

देखीक एक कृतज्ञतायेच्या अणभवांत, एका इश्टान दिल्लो विचार, खोशेची भावना, तोखणाय उक्तावपाचो हावेस, आनी आभार परगटावपाक बरयिल्ली एक चीट आसू येता. अशे तरेन ह्या पांच घटकांच्या आदारान आमी आमचे मदी बरे गूण वाढीक

लावपाक, आमकां येवपी सकारात्मक अणभवांचो दीर्घकाळ प्रभाव उरचो हाचे खातीर आमी प्रयत्नशील रावपाक शकतात.

ते अणभव संपन्न करपाक पांच मार्ग आसात. ते म्हणल्यार

o अणभव लांबलचक करात ( lengthen) : त्या अणभवा वांगडा पांच, धा वो चड खीण रावात. जितलो चड वेळ ते उरतले तितलो चड आमचे मज्जातंतू (neurons) चकामक जातले वो ठिणगी पेट्टली आनी तितले ते एकमेकां भितर चड घुस्पतले.

oअणभवांची तिव्रताय वाडयात- अणभव घेतना मातसो उमेदीचो बटन घुवडांवन आवाज मातसो वाडयात, म्हणल्यार तो अणभव आमकां स्पश्ट आयकूंक येतलो.

oअणभव विस्तृत करात-अणभवाचें क्षेत्र वाडयात. तुमच्या अणभवांतले बाकीचे बारकावे लक्षांत घेयात. देखीक तो अणभव येतना तुमच्या मनांत येवपी विचार, उमाळे लक्षांत दवरात.

oअणभव ताजे टवटवीत करात- आमचो मेंदू हो सदांच नाविन्य शोधक, ज्याचें नव्या, रंजक आनी अनपेक्षीत गजालींचेर चड लक्ष वता. म्हूण पयलेच फावट आयिल्लो कसलोय अणभव आमच्या लक्षांत चड उरता. ते खातीर तुमच्या अणभवांतली रंजकताय आनी नावीन्य सोदात आनी तो पयलेच फावट आयला अशी कल्पना करात.

oअणभवाक म्हत्व दियात- आमकां जें म्त्त्वाचें आनी उपयुक्त दिसता तें आमी सदांच बेगीन शिकतात. ते खातीर कसलोय अणभव लक्षांत उरपाक जाय जाल्यार ताचे फाटलें म्हत्व, तो आमकां कसो उपयुक्त आसा आनी ताचो आमचे जिणेंत कितें फरक पडूंक शकता हें लक्षांत घेयात.

अणभव मनांत कसो जिरोवप? - अणभव जिरोवपाची कुवत आमी तीन पद्दतीन वाडोवपाक शकतात

oस्वीकार करपाचो उद्देश दवरात- त्या अणभवाचो जाणीवपुर्वक स्वीकार करात.

oतो जिरोवन घेतना जाण दवरात- अणभव काळजाच्या कप्प्यांत मोलादीक थेव्या भशेन जतन करात. तो स्वताचो एक भाग जावपाक दियात.

oस्वताक इनाम दियात- जें खोसदेणें, उपयुक्त, आशादायी आसा तें आपणायात. तशें करतकच आमच्या मेंदवांतलें डॉपामीन आनी नोरपायनफ्रायन न्युरोट्रान्झमीटर्साची क्रियाशीलता वाडटा जे वरवीं ते अणभव आमच्या स्मरणांत दिर्घकाल उरतात.

परिस्थितीचेर न्हय तर अणभवांचेर लक्ष केंद्रीत करात-

आमच्या मेंदवांत अणभव हे परिस्थीतीचेर अवलंबून नासतात. परिस्थीती आनी अणभव हातुंतलो फरक साध्य आनी साधन हांचे सारकोच आसता. तो फरक सम जुवप खूब म्हत्वाचें. देखीक, खरें म्हणल्यार आपले कडेन पयशे नात म्हूण लोक दुख्खी आसनात तर तातुंतल्यान मेळपी सूख, सुशेग, यश आनी समाधान मेळना म्हूण दुख्खी आसतात. समाधान हें साध्य आनी



तें मेळोवन दिवपी पयशे हें साधन. आनी जेन्ना हो फरक सारको समजता तेन्ना भायर कसलीय परिस्थीती आसल्यार, मेंदवांत मात आमी वेगळोच अणभव जागोवपाक शकतात.

शिक्षणाची न्युरोसायकोलॉजी वापरात-

दुवो साधप ही एक ताकदवान पद्दत. आमचो मेंदू हो सांगड घालून शिकता आनी जेन्ना दोन गजालींची सांगड घालतात तेन्ना त(Paper Tiger Paranoia)

मनीस जेन्ना ल्हानशा सवस्तकायेच्या वर्तुळांत (comfort zone) रावता तेन्ना तो नव्या आव्हानाक फुडो करपाक टाळाटाळ करता, मानसिकरित्या प्रतिबंधीत जाता, उबो रावन आपलें मत मांडपाक लेगीत टाळटा. भंय भिरांत ही मनशाक तिगोवन दवरपाक मुळावी गरज आशिल्ल्यान खूब बळिश्ट आसता.

उत्क्रार्तीच्या प्रवासांत प्राण्याची मज्जासंस्था विकसीत जातासतना दोन चुको करताली.

1.झोंपा भितर खरेंपणीं वाग नासतना वाग आसा अशें मानताली.

2.झोंपा भितर वाग आसतना तो ना अशें मानताली.

पयले चुकीची ख्यास्त कितें? तर गरजे भायर ताण आनी भिरांत जी कुडीक आनी मनाक कांय वेळ मेरेन अस्वस्थकाय दिताली. पूण घातक नाशिल्ली. दुसरे चुकीची ख्यास्त म्हणल्यार मरण. ते खातीर आमच्या पुर्वजांक दुसरी चूक टाळपा खातीर पयली चूक करपाची संवंय लागली आनी अशे तरेन मनीस कागदाच्या वागाचो दुबाव मनांत बळावन उत्क्रांत जालो. आयज झोंपाय नात, वागूय नात तरीय उत्क्रांतीचे संवयेचो गुलाम आशिल्ल्यान इल्लोसो लेगीत धोको दिसल्यार दुबावान तो मनांत कितले तरी

पर्टीनी वाडयता आनी नाका तितलो ताण घेता जे वरवी ताची लवचिकताय उणी जाता.

ते खातीर मनशान भिरांत उणी करपाक, आपली संसाधनां समजुपाक जाय. आमच्या मनांतलीं संसाधनां म्हणल्यार आत्मशक्ती, चिकाटी, आत्मविस्वास, शारीरीक संसाधनां म्हणल्यार निरोगी भलायकी, शक्त, कार्यक्षमता, संवासारीक संसाधनां म्हणल्यार आमचीं घरचीं मनशां, सोयरी, बरे मागपी, इश्ट-इश्टिणी. सगल्यांच्या आदारान फुडे सरल्यार भंय भिरांत गायब जाता.

**रागाचेर नियंत्रण**- दुख्ख, यातना, निर्शेणी, अन्याय हाचेर सभावीक प्रतिक्रिया म्हणल्यार राग. आमच्यो चार तरेच्यो नकारात्मक भावना म्हणल्यार दुख्ख, दुगदूग, लज आनी राग. बाकी तिनूय भावनां परस राग मात्सो वेगळो आनी ताचें वेगळेपण म्हणल्यार बाकीच्यो भावना आम कां खिन्न, चिंतेस्त आनी उदास करतात पूण रागाचें तशें ना. राग येतकच मनीस प्रोत्साहीत जावन तातूंतल्यान ताका कांय प्रमाणांत उमेद मेळिल्ल्यान ताका रागाचे नशेचें वेसन जाता. पूण तातूंतल्यान उप्रासपी नुकसान म्हणल्यार, रागाची स्थिती आमची सिम्पॅथेटीक मज्जासंस्था कार्यरत करता, जेवरवी आमचो ताणतणाव वाडटा.

8.प्रेरणाशक्त - (Motivation)

जीं मनशां लवचीक आसतात तीं कसल्याय आव्हानाक फुडो करपाक तयार आसतात. मनशाच्या मेंदवात मुलभूत प्रेरणाशक्तीचें सर्किट आसता जें डॉपाम नि क्रियाशिलतेचेर आदारीत आसता. दरेकल्याच्या मेंदवांतल्या डॉपामीन ग्रहण करपी चेतातंतूंचें प्रमाण वेगवेगळें आसता. जांचें प्रमाण उणें आसता तांकां प्रेरीत रावपाक चड रिवॉर्ड लागता. आमी जें कितें करतात तें आनी ताचो मेळिल्लो मोबदलो वो बक्षीस हांचो जर संयोग जुळोवन आमी मनाक वळण लायलें जाल्यार आमी चड प्रेरीत उरपाक शकतात.

9. लागसारपण वो समीपताय-(Intimacy)

लागसारपण दवरपाक अनुकंपा सामकी गरजेची. आमच्या मनांतली दया आनी मोग हे आमच्यांनी वाडोवपाक जाता. दुसऱ्यांचें दुख्ख, यातना मनीसपणान समजून घेतल्यार ती आपसुकच विकसीत जाता. अशे तरेन आमी दुसऱ्यां कडेन बरेपणान वागून सम ीपताय मेळोवंक शकतात.

भाग 4. नातेसंबंद (Relating)

10. धैर्य -

मेकळे, प्रामाणीक संदेश वो संपर्क हो नाते संबंद जुळोवपाक भोव गरजेचो. बुध्दाचे पंरपरेतलें संपर्काक योग्य अशें बुदवंतकायेचें उलवप सदांच लक्षांत दवरात.

उलवप सदांच -

oबऱ्या हेतूचें - दुसऱ्याक मजत करपी आसचें. वायट उद्देशाचेर आदारिल्लें वो दुखोवपी न्हीं.

oसत्य - प्रामाणीक आनी अचूक आसचें

oयोग्य वेळार - जे वेळार जाय आसता तेन्नाच उलोवचें

oकठोर वो रुक्ष न्ही - निर्धारान जरी सांगलें तरीय उंचेली आवाजाची पट्टी आनी उतरां अपमानास्पद वो हिणसावणेचीं आसचीं न्हीं.

o लाबदायक -दुसऱ्यांक लाबदायक आनी खोशी दिवपी आसचें

o गरजेचें आसल्यारच उलोवचें

11. हावेस -(spiration):

भुरगेपणांत आमचीं जायतीं सपनां, आशा आकांक्षा आसतात, पूण व्हड जाता तशीं तीं उणीं जायत वतात. भोवतणीं आसपी लागसरच्या लोकांच्या नकारात्मक प्रभावांतल्यान, येवपी वायट अणभवांतल्यान आमचीं सपनां खंयचे खंय शेणटात. आपूण कित्या भितर फिशाल आसां ते गूण वाडोवपाचो यत्न करचो आनी जे कितें आपल्याक आनंद दिता तें स्वता खातीर करचें. आनी जिणेंतलो हावेस उणो जावपाक दिवंचो न्हीं.

12. औदार्य -(Generosity) :

मनीस हो सभावीकपणान परोपकारी आसता. मनशां भितर आशिल्ल्या परोपकारा खातीरच ते इतले उत्क्रांत आनी विकसीत जावपाक शकले. दुसऱ्यां कडेन आपलें खाण वांटून घेवप, तांकां संरक्षण दिवप, तांकां मजत करप हे गजाली खातीरच म नशाची तिगून उरपाची संभावना वाडली. हें सगळें आमच्या DN भितर रुजलां जें आमकां होमो बेनेफिकस - म्हणल्यार परोपकारी मनशां म्हूण वळख दितात. ते खातीर हे मुळावे गूण आमी आमचे मदी वाडोवन आमची मनीसपणाची परंपरा चालू दवरपाक जाय.

तर हे सगळे गूण आमी आमचे मदीं रुजोवन वाडीक लायले जाल्यार आमकां एक थीर, शांत, सामर्थ्यशील आनी आनंदी जिणेचो अणभव मेळूं येता. चलात तर आमची लवचिकताय वाडोवपाक आमी आयच्यानच सुरवात करुया!

•••

नवलिका

डॉ. गुरुदास नाटेकार



# हो खेळ दैवाचो...!

दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी सातत्यान मराठी लिखाण करपी *डॉ. गुरुदास नाटेकार* हे गोंयचे एक नामनेचे उद्देजक आनी सामाजीक वावुरपी. तांकां साहित्याची मुळा सावन आवड आनी तांणी नाटक, कादंबरी, ललित अशे साहित्याचे वेगवेगळे प्रकार हाताळून गोंयच्या मराठी साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. आतां मेरेन तांचीं मराठी, कोंकणी, हिन्दी आनी इंग्लीश भाशेंत 18 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.तांणी संवसारांतल्या 40 देशांची भोंवडी करून जिवीत अणभव संपन्न केलां.'हो खेळ दैवाचो!' ही तांची एक आगळी वेगळी नवलिका बिम्ब वाचकां पासत खिरस्ती खिरस्तीनी.

'हो खेळ दैवाचो...!'ही नवलिका गोंय मुक्ती उपरांतच्या लागशिल्ल्या काळांतली आसली तरी तातूंत पुर्तुगेज राजवटीचो प्रभाव आशिल्ल्या काळखंडाचो प्रभाव दिसता. एके सत्य घडणुकेचेर निंबून आशिल्ली ही नवलिका वाचकांक एका वेगळ्या विश्वांत व्हरता.

मारिया तें आयकून सामकेंच अस्वस्थ जालें. रोजी आंटीन फुडलें सांगचें देखून तें तिका पराथूंक लागलें.

" सांग न्हूय आंटी, मुकार कित जालें तें...!"

"सांगतां गो सायबिणी... धीर धर गो! सांगतां हांव तुका सोगलें ... पूण एक उतर दी, लुसी सामकार केन्ना चुकोन लेगीत ही गजाल काड नाका. कित्याक तर तें आपल्याक अभागी सम जता आनी गरजे भायर आपल्याकूच त्रास कोन्न घेता.." रोझी आंटीन ताका म्हणलें.

"पूण आंटी, तें आपल्याक अशें अभागी कित्याक सजमता तेंच गोमोना! तशें तें अभागीच गे... तेचे मांयचें हांव नकळों, पूण बाबड्याच्या जिवितांत पायचो मोग म्हुणटा तो ना! तें जेन्ना आमगेर येता आनी म्हुजो पाय म्हुजी अपुरबाय करता तें पोयता तेन्ना असलो मोग, माया आपले वांट्याक कित्याक ना काय अशें तें मतींत चिंतून भितरले भितर दुखेस्त जाताच आसतलें! पूण तें केन्नाच तें आपल्या मुखामळार येवंक दिना आनी उलोवनूय दाखयना!"

रोझीआंटी लागीं पळयत मारियान म्हणलें.

तशी रोझीआंटी गालांतल्या गालांत हांसली. तिणें मारियाच्या पोल्यांक मायेन पोशेलें आनी म्हणलें," हय गो बाय खरें तुगेलें.. तें केन्नाच आपल्या काळजांतलें दुख्ख आपल्या ओंठार हाडपा ना. सारखें पायचे भाशेन जालां! तोय अस्सोच आसलो गो बाय! खुबूच उण्या लोकां लागीं ताचें जमतालें! आनी

जांचे लागीं जमता तांचे लागीं तो साम को काळीज फोडून उलयतालो.. आनी जाचे लागीं तार्चे पटोना न्हू, तांच्या मुखार ताच्या तोंडांतल्यान एक उतर केन्ना भायर सरप मुश्कील! आपल्या पुराय जिवितांत तार्णे कोणा लागीं वाद घातला, कोणाचेर फेर्र जाला हें म्हाका काय याद ना.''



मारियाक हें एक अजापूच आसलें. तें एकान एक उतर बारकायेन आयकतालें.

'' म्हाका तो दीस सारको याद आसा.'' रोझीआंटी फाटल्या यादींनी भितर सरत सांगपाक लागली. ''... म्हाका तो दीस सामकोच उगडास आसा. कित्याक तर तो दीस आसलो जॉनाचे एजामीच्या रिजल्टाचो. ताका लिसांवाचो भोवच घोस्त! तोय लुसी वरींच क्लासांत वोयल्या नुंबरार पास जातालो , आनी ती गजाल खोशेन आनी उमेदीन येवन म्हाका सांगतालो.. हांवूय सामकें उर्बेन आनी खोशेन भरतालें. कित्याक म्हाकाय हो एक मानलेले भाव सोडलो जाल्यार आपलो म्हणचो असो म्हज्या जिवितांत म्हाका दुसरो आनीक कोणूच नासलो.''

रोझीआंटीन एक सुस्कार घेतलो. आपल्या दोळ्यांर हात ओडलेल्यावरी केलो आनी ती मुखार सांगपाक लागली...

'' जॉनाचो घराबो सामको पेझाद! खावपा-जेवपाक, मुस्तायकी, दुडवांक, भांगरां शिंगरां आनी सवस्तकायेक कांयच उणाव नासलो. पूण तार्चे आनी ताच्या पायच्या मदल्यान उजो वचनासलो! दोगांयचें मात्तूय पटनासलें. ताचे मांयचेंय आपल्या घोवा लागीं कांयच चलनासलें. ताच्या पायक दुडू म्हणल्यार जालें! ते पासूत दुडू जोडपा फाटल्यान लागोन, तो जोडपाक तो आपले फॅक्टरींतल्या कामादारांचो सामको कुंडो काडपाक लागलो. तांकां पिळपाक लागलो. ताचे फॅक्टरींत काम करतल्यांक तो सामकोच उणो पागामेंत दितालो. तातूंत आनी ताका जाती, धर्म बी सगलें लागतालें. ताचो भेद तर ताच्या रगतांतूच आसलो! जॉनाक हें मात्तूय कोंताक ये नासलें . देखून ताचे वयल्यान दोगांयचें अर्दी मर्दी पेट्टालेंय!

पूण जॉन तें वाडय नासलो. ताचेर वाद घाली नासलो. जाता तितलें सजमवन घेवन तो पालोवपाचो यत्न करतालो! ताच्या पायक दिसतालें, जॉनान आपल्या धंद्यांत शितीद दिवंचें! आपलो धंदो तार्णे सामको वयर व्हरून दुडूच दुडू करचो! पूण जॉनाक दुडू म्हणल्यारूच सगलें अशें दिसनासलें! ताच्या जिवितांत दुडवांक सामकें उणें म्हत्व आसलें. लागीं लागीं तें नासलेंच म्हुणल्यार कोंताक येता! कित्याक खंयच्याय गरिबाच्या हातार दुडू दवरलो जाल्यार ताच्या मुखामळार जी खोस निशेवन येता तें पळोवन जें समाधान जिवाक भोगता तार्चे मोल कोणाच्यान करूं नज अशें ताका दिसतालें . ताचीच ताका मना थावन खोस भोगताली!''

मारियाक लुसीच्या पायचे विशीं एकेक नविदादूच रोझीआंटीच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळटाली. तें सामकें भारावन वचून आंटीचें एकेक उतर आयकतालें. रोझी आंटी सांगताली...

'' जॉनाक ताचो पाय म्हयन्याच्या

खर्चा पासत दुडवांक पातिशेर करनासलो. आपलो पूत चारचौगांत हेरां परस बरो गिरेस्त दिसचो अशें ताच्या पायक मना थावन दिसतालें. पूण जॉन मात ताचे इत्से आड वागतालो. सादेपणान रावपूच जॉनाक चड आवडटालें. ताचे लागीं मुस्तायकेचे फकत दोनूच जोडे आसले आनी सादेश्या बुटांचो पार. त्याय भेसांत जॉन सामको देखणो दिसतालो. त्या काळार कितलींच बरीं बरीं चेडवां ताचे लागीं काजार जावपाच्या हावेसान ताचे लागीं इश्टागत जोडटालीं! पूण जॉन मात आपलेच धुंदींत आपलें जिवीत जियेतालो! हेरांक आदाराक पावपाक, सदांच सकाळीं इगर्जेंत वचून प्रार्थना करून दीस पासार करतालो. गरीब वस्तींतले लोक जॉनाक मोगान 'सन ऑफ जिझस' म्हणटाले. तोय त्या लोकां वांगडा कसलेंच मोठेपण बाळगी नासतना खालतेकायेन वावुरतालो. तांचे मदलोच जावन रावतालो. अशें हें बरेच दीस चलतालें.

एक दीस जॉन आनी जॉनाचो पाय हांचे मदी बरेंच व्हडलें झगडें पेटलें. गरिबांचेर दुडू खर्चुपी, तांकां आदाराक पावपी आपलो पूत ताका मात्तूय आवडनासलो. हेच गजाली वयल्यान ह्या आदीं तांचे मदीं बरेच खेपे वाद-विवाद, झगडें-बिगडें जाल्लें. पूण त्या दिसाचें तें झगडें मात हाता भायर पावलें. रागाचे भिरकेंत जॉनाच्या पायन जॉनाक घरांतल्यान भायर काडपाची धमकी दिली. भोळ्या बाबडया जॉनाक आपल्या पायचें तें घमेंडी आनी निर्दयी उलोवप मात्तूय मानवलें ना. तेच राती ताणें आपलें बॅग भरलें आनी आपल्या पायचें घर सोडलें!

पाय-पुताच्या ह्या झगड्यांत हाल जाताले ते मात बाबडे जॉनाचे मांयचे. ती दरेक मांय वरींच आपल्या पुताचो जीव घालून मोग करताली आनी वांगडाच एका घरकाराची पतीण जाल्ल्यान कर्तव्य म्हूण तोय धर्म बेस बरी पाळटाली. जॉन घर सोडून गेल्या उपरांत मात ती सामकी एकसुरी जाली. कित्याक तर, तिका आपल्या घोवाचो सभाव आवड नासलो आनी ताच्या वांगडा झगडुंकूय शकनासली.

जॉन घरांतल्यान भायर तर सरलो, पूण वचून वचून वतलो तरी खंय आसलो! कांय दीस तो गांवांतूच आपल्या इश्टां वागडा रावलो. ताणें हे आदीं जांकां जांकां आदार केल्लो तांणी ताका फोर्सान आपल्यागेर दवरलो. सगळीं ताचेर जीव घालतालीं. रक्ताच्या नात्या परस आपणें जोडलेलीं मनशांच ताका चड म्हत्वाचीं दिसूंक लागलीं. पूण तो तांचे वांगडा कितले तेंप रावतलो? ताणें खंय तरी शिर्वीस करतलों म्हूण इतले मजगतीं तीय सोदपाचो यत्न केलो. पूण ताका मना सारकी शिर्वीस गोंयांत खंयच मेळ्ळी ना. तरी पूण कांय दिसांनी ताका शिर्वीसेची एक चीट आयली. ताका ती मानवली, पूण एक व्हड अडचण तातूंत आसली. ती शिर्वीस गोंयांत न्हय तर गोंयां भायर खूब पयस पुर्तगालाक आसली! तांचो पागामेंतूय तसो बरोच व्हडलो आसलो. ते पासत ताका तार्चे मोगाचें गोंय सोडचें पडपाचें, जाका तो राजी नासलो. आपलो गांव सोडून, जे सुवातेर आपले वळखी पाळखीचो कोणूच ना ते सुवातेर वचून रावप भोळ्या बाबड्या जॉनाक बरेंच कुस्तार वचपाचें! तरी ताणें तें आव्हान आपणावपाचें चिंतलें. ताच्या जिद्दी सभावाक तें मानवतालें. परिस्थिती मुखार हात जोडून रावप ताका मात्तूय पुटवनासलें. आयल्या ते परिस्थितीक फुडो करून झुंजप हेंच ताका रास्त दिसलें. ताचे सामकार तोच एक मार्ग आसलो!

जॉन पुर्तुगालाक वचपाचे तयारेक लागलो. इतले म्हणसर ही खबर ताचे मांयचो कानार पडली. तिणें आपल्या पुताक जीव घालून वयर काडलेलो. ताका असो इतले पयस पुर्तुगालाक वचूंक दिवप तिका कशें पुटवतलें आसलें! तिच्यान तें सोसूंक कशें जावपाचें! आपल्या घोवाक वास लागूंक दिना आसतना ती जॉनाक वचून मेळ्ळी. ताणें पुर्तुगालाक वचूंक फावना म्हणपाचें ताका सांगून विनयलें. पूण जॉन कोणाचेंच चिंतूक बसलो ना. आपले मांयचें लेगीत. ताणें गोंय सोडलें तें सोडलेंच!

म्हजो भाव पुर्तुगालाक गेलो. वयताना, म्हाका केन्नाय आदार लागलो जाल्यार तो तूं म्हाका दी अशें उतर घेवन गेलो. हांवेंय म्हज्या भावाच्या मोगा पासत ताका तें दिवनूय उडयलें. कित्याक ताचे सारखो भाव खूब उण्या भयणांच्या नशिबांत आसता. तांतली हांव एक आसलीं! पूण म्हाका खबर नासलें गो बाय, हांवें म्हज्या भावाक तेन्ना दिल्लें तें उतर मागीर हें अशे तरेन तो म्हुजे लागच्यान पाळून घेतलो म्हूण!''



...इतलें सांगून रोझीआंटी मारियाचो हात धरून हुंडके हुंडकेवन रडपाक लागली. मारियाचेय दोळे आतां भरून आयलेले. लुसीच्या निरागस हांश्या फाटल्यान हो येदो व्हडलो सोंपोन सोंपोना असलो एतिहास लिपला हें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूक नासलें!

मारियान मागीर आंटीक विचारलें, " आंटी, हे सगले गजाली बाबतींत लुसीक किते आयडीया आसा? ताणें केन्ना तरी तुका आपल्या पायविशीं विचारलां तरी? सांग न्हय आंटी, प्लीज!"

मारियाची विनवणी आयकून रोझी आंटी मातसो वगत चिंतूक पडलेले वरीं ओगीच रावली. भोवतेक ती याद करताली जावंये! मागीर ती ल्हवपीक आवाजान उलोवंक लागली..

"हय गो बाय, तें म्हाका सदांच जॉनाविशीं विचारता. जॉनाक आवडटालीं तितलींय बुकां ताणें सामकीं पिशावरीं वाचून काडल्यां. तें सदांच म्हाका ताका किते आवडटालें, किते आवडनासलें हें विचारीत आसता. त्या बाबड्या पोराक फकत आपल्या पायविशीं जाणून घेवपाचें आसता! खूब सादें आनी निश्पाप गो पोर लुसी! म्हाका केन्ना केन्नाय दिसता जेजून ताच्या जिविताच्या दर्याक सुखाची तड दिवंक ना काय म्हूण! ताच्या मांय-पायच्या भुतकाळाविशीं ताका सगलें खबर आसा. तरी ताच्या मुखामळार केन्ना दुख्खाचें कुसकूट लेगीत कोणाक दिसपाचें ना."

" मागीर मुखार किते जालें ?" मारिया आयकूंक आतां उत्सुक जाल्लें.

" मुखार आनी किते जातलें! म्हजो सादो बाबडो भाव, त्या अनवळखी शारांत आपल्या सांगाताक मुस्तायकेचे फकत दोन पार आनी हिसपा भायर बुदवंतकाय घेवन गेलो. पूण तो दिसपाक जितलो सादो आसलो तितलोच बुद्दीन सामको हुशार आसलो. ताका लागून तो जे कंपनींत शिर्वीस करतालो थंय ताका फटाफट प्रमोशन मेळत रावलें. आदले परस ताका आतां पागामेंत चार पटीन चड जालो. कोणाचोच आदार घे नासतना ताणें आपल्या बळाचेर आपलें जिवीत उबें केल्लें. ताणें म्हाका भयण मानून तितलो मान दिल्ल्यान म्हाकाय ताचो भोव अभिमान भोगतालो. म्हुणटात न्हय, केन्ना केन्ना रगताच्या नात्या परस मनशान जोडलेलीं नातीं आपल्या जिवितांत चड म्हत्वाचीं थारतात! कित्याक जाणा बाय, तांचे लागीं जोडलेल्या ह्या नात्यांत कसलींच बंधनां, अटी, नाटकीपणा वो मोठेपणा आसनात! आसता ती फकत सम जणी., मोग, माया आनी आपलेपण... दुडवांच्या पुला पलतडी भावनेच्यो गांठी मारपी विश्वासाची दोरी ...."

रोझी आंटीन एक सुस्कारो घेतलो आनी तिणें आपलें सांगणें मुखार व्हेलें -" कांय दिसांनी, म्हणल्यार तो पुर्तुगालाक वचून सुमार दोन वर्सां उपरांत ताची एक चीट आयली. तश्यो तो वचत सावन ताच्यो रेगुलार चिटी आसताल्योच! पूण त्या दिसाची ती चीट वाचून म्हाका सामकी चड खोस जाली. हांवें इगर्जेंत वचून जॉना पासत जेजू पाशी खाशेलें मागणें केलें. कित्याक तर, म्हजो जॉन काजार करपाचो आसलो. ताणें कोणाचेर तरी आपलो

जीव हुवाळून घातलेलो! ताची ती चीट वाचून हांव सामकें भुरकुटलें. ताणें ते चिटये सांगाताक म्हाका दुडूय धाडलेले आनी बरयलेलें, 'म्हजे एकले एकसुरे भयणी..., खंयच्याय संकश्टाच्या काळार म्हज्या फाटल्यान उबें रावपाचें उतर दिल्ले म्हजे भयणीचे हाजेरे बगर हांव कसो काजार जावंक शकतां? '

ताणें चिटयेंत अशें बरोवप हेंच म्हजे पासत खूब भाग्याचें आसलें! खंय एका राजवाड्यांत ल्हानाचो व्हड जाल्लो जॉन आनी खंय जल्मा सावन गरिबकायेच्या उज्यांत ल्हासत जिवीत धुकलपी हांव..! आनी तरी लेगीत ताणें म्हजे सारख्याक आपल्या काजराक विनवणी करून आपयलेलें.... कितेंय करून वचूंकच जाय अशें हांवें चिंतलें... खरेपणी तशें कितेंच करपाची म्हाका गरज नासलीच. कित्याक म्हजी परिस्थिती ताका खबर आसली देखून ताणें म्हाका पुर्तुगालाक येवपा पासत दुडूय धाडून दिल्ले. .''

'' हांवें वचपाची तयारी केली. म्हजे लागीं केन्ना ल्हान भुरग्यावरीं तर केन्ना एका व्हड बुदवंतावरी सभावान वागपी जॉन आतां आपल्याक काजराच्या साक्रामेंतांत बांदून घेतालो.

हांवें म्हज्या जिवितांत केन्नाच गोंयां भायर सोड म्हज्या गांवच्या भायर पावल घालूंक नासलें, अशिक्षीत अशें हांव , मानलेल्या भावाच्या मोगाक लागून पुर्तुगालाक वेतालें! जॉनाक म ळून ताका केन्ना एकखेप दोळ्या खाल घालतां अशें म्हाका जाल्लें. आमच्या गांवचोच एकलो पुर्तुगालाक शिर्वीस करतालो. तो आपले घरकान्नीक व्हरपाक येयलेलो. त्याच दिसांनी तो परत वचपाचो आसा म्हणपाची खबर म्हाका आमचे शेजान्नीन दिली. तांचेच सांगातान हांव बोटींतल्यान पुर्तुगालाक वचूंक भायर सरलें आनी काजराक चार दीस आसा म्हुणल्यार हांव थंय पावलें. म्हजो भाव जॉन म्हाका व्हरपाक बोटीच्या धक्यार येवन रावलेलो. ताचे ते आत्मविश्वासान भरलेले दोळे, उमेद आनी मोग पळोवन हांव इतल्या दिसांचो बोटींतलो उबगणीचो प्रवास सामकेंच विसरलें. म्हजेर नदर पडटांच एका माणकुल्या भुरग्या वरीं तो धांवट म्हजे सरीं आयलो आनी म्हाका साम की घट्ट वेंग मारली. कितल्या काळान आमी भयण-भाव अशीं मेळटालीं...''

रोझी सामकें सपनांत बुडून कशें सांगतालें आनी मारिया तें सामकें मन लावन आजापीत जावन कशें आयकतालें.

'' जॉन म्हाका घेवन आपल्या घरा गेलो. ताणें आपले पासत एक बरें घर घेतलेलें. तें बरें सादेपणान सजयलेलें. गोंयांत सामको सादो रावपी जॉन तसो मात्तूय बदलूंक नासलो! ताका पळोवन म्हाका गोंयांत आशिल्ल्या ताच्या म ांय-पायची याद जाली. तांचो हुसकोय म्हाका आसलोच! म्हुज्यान रावपाक जायना म्हूण हांवें जॉनाक विचारलेंच, ''जॉन, मामा-पापाक आपयलां काय ना रे काजराक? तांचे लागीं कितें उलयला काय ना?''

म्हज्या प्रस्नान जॉनाचें तोंड बावलें. तें पळोवन हांवें ताका समजायत म्हणलें, '' हें पोय जॉन,जें कितें फाटीं घडलें तें आतां विसर. कित्याक, निम णे तीं तुज्या रगताचीं आवय-बापूय! ताणी तुका फकत जल्मूच दिवंक ना तर तुका ल्हानाचो व्हड करूंक सुमरा भायर कास्तीग काडल्या. देखून तुवें तांकां केन्नाच विसरूंक फावना. तुज्या काजराचो हो खोशयेचो खीण तुमच्या मदें उप्रासलेल्या वेरीक सिमिट जावं येता! काजरां सारके मोगाचे खीण पयस गेल्ल्यांक लागीं हाडपा पासतूय आसतात''

मारियाक रोजीआंटीचें हें आगळें रुप तिच्याच तोंडांतल्यान कळटालें. तें आतां तिजो हात धरून फुडलें आयकूंक आशेल्ल्या वरी बसलेलें.

'' म्हजें तें उलोवप आयकून जॉन आपले भितरूच हांसलो.'' रोझीन फ ुडली गजाल सांगपाक आरंभ केलो.'' जॉन म्हजे लागीं पळयत म्हणूंक लागलो,'हें तूं आनी हांव म्हणटात रोझीभयणी, पूण, म्हजो पाय जर म्हाका आपलो पूत मानपाकूच तयार ना जाल्यार हांवें कितें करपाचे? तूंच सांग न्हय! तुका खबर नासत, हांवें ताका मजगतीं खूब चिटी बरयल्यो. त्या चिटयांतल्यान हांवें ताचे लागीं भोगसणें मागलें. पूण ताणें म्हजे एकूय चिटयेची सादी जाप लेगीत दिली ना. फाटींच हांवें ताका ताच्या एकल्या एकसुऱ्या पुताच्या काजराचो कोवीद धाडलो. तर ताची कितें जाप आयली जाल्यार,' म्हाका कोणूच पूत ना' म्हूण! पापाच्या ह्या रागाक लागून मामाची स्थिती मात सामकी बिकट जावन गेल्या आसतली हें हांव जाणां. तरी तूंच म्हाका सांग, पापाच्या असल्या सभावाक हांवें कितें वखद धाडप? देखून तोच जर इतलो

निश्ठूर वागता जाल्यार ह्यान फुडें हांवें ताचो उगडास लेगीत काडप ना अशें थारायलां.' जाणां बाय, जॉन अशें उलयलो खरो पूण ताच्या दोळ्यांतल्यान उदकाच्यो झरी व्हांवताल्यो. तेन्ना ताच्या जिवितांतल्या ह्या खोशयेच्या समयार हांवें ताका परत ताच्या पायची याद करप ना अशें थारायलें आनी ताका तें विसरून वच म्हूण सांगलें.

काजराचे तयारींत आनी बोवाळांत ते चार दीस कशे पासार जाले तें गोम लेंच ना. आनी शेवटाक काजराचो दीस उजवाडलो. आयज म्हजो भाव कोणा लागीं तरी साक्रामेंत जोडपाचो आसलो! एके अस्तुरेचो घोव जावन तिका घरकान्न म्हूण आपल्या जिवितांत हाडपाचो आसलो! देखून हांव तर साम कें हिसपा भायर उमेदीन आनी खोशयेन भरलेलें, ते नशीबवंत चलयेक पळोवंक आशेल्लें!

पुर्तुगालाक जॉन रावतालो त्या घराक लागींच एक व्हड इगर्ज आसली. थंयच ताचें काजार जावपाचें आसलें. जॉन, ताचे कांय इश्ट आनी हांव इगर्जेंत गेलीं. थंयच हांव जॉनाची मोगी सेंड्राक पयले खेप मेळ्ळें. तें सोबीत, सुंदर, मोयपाशी आसतलें असो हांवें आदीं अदमास केल्लोच. पूण हांवें चिंतलेल्या परस तें अदिकूच सुंदर आसलें. एखाद्या सपनांतल्या आंज्यावरी तें दिसतालेंच आनी सामकें झ्ंतान भरलेली ती एक सोबीतकायेची मूर्त कशी आसलें! तिचेर नदर पडल्या बराबर तें म्हाका सामकें आवडलें. तें सामकें निसुवार्थी आनी मायेस्त आसा म्हणपाचें ताच्या मुखामळा वयल्यानूच म्हाका उमगलें. ताचें चलप, उलप, वागप हें सगळें सामकें निरागस आनी सादें भावतालें आनी तें तशेंच आसा म्हणपाचें मागीरूय म्हाका होलमलें. जॉन इतलो गिरेस्त आसतनाय ताणेंच ताका विनयलें खंय आमचें काजार आमी सादे भितरूच करून उडोवया! ताणें जॉनाचो सभाव पारखिल्लो आनी असो गरजे भायर नश्टो खर्च करपाक तेंय राजी नासलें!

तांच्या काजरा उपरांत हांव लागीं लागीं स म्हयने तांचे वांगडा रावलें. कित्याक तीं म्हाका सोडपाकूच राजी नासलीं. जाणा बाय, ते चार पांच म्हयने म्हज्या जिवितांतले सामके सुखाचे दीस आसले. जशें एखादरे आठ वर्सांचें भुरगें नेव्या शारांत पावलें म्हणटच दिसरात हांगा थंय भोंवपातूच दीस सारता तशे हांवें पुर्तुगालाक तांचे सांगातक सारले. आमी तिगांय भोवच भोंवलीं. सेंड्रा लागच्यान हांव खूब कितें रांदपाक शिकलें. जॉन कामाक वयतालो आनी मागीर घरा हांव आनी सेंड्रा दोगांच आसतालीं. जॉन फकत सांजेर घरा येतालो. ताका लागून आम कां दोगांकूय गजाली मारपाक खूब वेळ मेळटालो. सेंड्रा जॉनाविशीं साम कें जीव घालून खूब कितें उलयतालें.

ताणेंच म्हाका एक दीस तांच्या काजराची गजाल सांगली. तीं दोगांय आदीं एकेच कंपनींत, एकेच सुवातेर काम करतालीं. तेच सुवातेर तांचो मोग जालो. पूण जॉन हो सदांच शांत आनी फाटीं फाटीं रावपी जाल्ल्यान काजराचो विशय सेंड्राकूच काडचो पडलेलो. तेन्नाच सगळें जाग्यार पडलें.

'' पांच-स म्हयन्या उपरांत पुर्तुगालच्यो यादी बांदून घेवन हांव गोंयां आयलें. त्यो यादी काडीत आनीक पांच स म्हयने पासार जातात थंयच आसात, पुर्तुगालच्यान जॉनाची चीट आयली. वाचून हांव सामकें खुशालभरीत जालें. म्हजो भाव जॉन आतां पाय जावपाचो आसलो! आनी हांव आंटी! आमचो घराबो खऱ्या अर्थान आतां पुर्णायेक पावपाचो आसलो! ताची चीट येयल्या बराबर हांवें भुरग्याचीं कापडां विणपाक घेतलीं. म्हाका दिसता तसले तरांतरांचे खेळ हांव घेतालें. आनी मागीर पुर्तुगालाक शिर्वीसे पासत वचूंक भायर सरलेल्या एका वळखीच्या मनशा वांगडा हांवें तें सगलें सामान ताका धाडलें लेगीत. उपरांत सेंड्रान एके सोबीत चलयेक जल्म दिलो म्हणपाची चीट म्हाका आयली. म्हाका दिसतालें अशेंच पुर्तुगालाक धांव मारची! पूण म्हाका मनांत आसतनाय वचप जालें ना. तश्यो अडचणी आसताच न्हय!.''

उपरांत लागीं लागीं एका म्हयन्यान सुमार जॉनाची चीट आयली, 'आपूण गोंयां येतां. पूण रावपाचो ना. रोकडोच परतो येवंक जाय. हांव येतां म्हणपाचें कोणाकूच गोमोंक दिवं नाका...'

चीट वाचून हांव चिंतपाक पडलें. सामकी ल्हान चीट आसली. तितल्या पुरतेंच बरयलेली. ती वाचून कांयच स्पश्ट जाय नासलें. हांव सामकें हुसक्यांत पडलें म्हणल्यार जालें. केन्ना एकदां जॉन पावता अशें म्हाका जालें!''

(चलता...)

अत्रेकणी



हर्षा सदगुरू शेट्ये

# आमुरचंवरी




कोंकणी साहित्यांत आपली खाशेली वळख निर्माण करूंक सातत्यान प्रयत्न करपी लेखिकां मदीं **हर्षा शेटये** हांचें नांव मुखेलपणान नदरेक भरता. कविता ह्या साहित्य प्रकारांतल्यान आपली वळख सांगतनाच ललित निबंध,बाल साहित्य आनी प्रवास वर्णनाच्या मळाचेरूय तांणीं आपली खाशेली सुवात सुगूर केल्या. तांचो हेर पुरस्कारां वांगडाच 'बिम्ब' पुरस्कारानय भोवमान जाला.

पत्तो : मडगांव-गोंय.

मो. : 9850530152

पावसाचें आनी म्हजें नातें म्हज्या जल्मा सावन. म्हजो जल्म सोंपत्या ऑगस्टांतलो.हांव जाल्लों तेन्ना घोग्यांनी पावस पडटालो अशी म्हजी आवय सांगता. हरशी पावस शिरशिरून वचपाचे दीस ते. पूण ते दोन दीस खूब पावस पडलो. आतां हें म्हजे आवय कडल्यान आयकून आयकून याद उरलां. तेच पासत जल्मा सावन पावस म्हजो सांगाती.

सामके भुरगेपणांतलो पावस तसो म्हाका याद जायना. आमचें कोंबांतलें चवकेचें घर. मदीं आंगण. म्हणटकीच वर्साचें आसतना हांवें चवके वयल्यान पावस पळयला आसतलो. पावसाच्यो दडकेर दडको येतकच चवकी ओली जाताली. म्हजी आवय सांगता, हांव इकरा म्हयन्यांचेरूच चलपाक लागिल्लें. ' च्याल गे च्याल ' करून ओले चवकेर चल्लां आसतलें! नळ्यां वयल्यान पनेळांतल्यान घसघस करून घोगो रकला आसतलो! तकली वयर काडून हांवें अजापान तुकू तुकू करून अजापान पळयलां आसतलो!

फुडलो पावस लागचे पयलींच हांव उबाळांत आवय वांगडा साखळे आजोळा पावलें. आवय बाळंत जावपाची आसा म्हूण आजयेन म्हाका थंयच दवरलें. दोन तीन म्हयन्या खातीर म्हूण दवरिल्लें हांव थंय सात वर्सांचें जाय मेरेन उरलें.

आज्याल्या घराचे चोंय वटेन पोरसूं. फाटल्यान दोंगर. दोंगरा सकयल एक खण. केन्ना तरी ते खणींतले चिरे काडल्यात आसतले! आज्याल्या घराक तेंकून ताच्या बापोलभावालें घर. मदीं व्हडलो व्हाळ. घरा मुखार रुंद खळयो. रस्त्या वयल्यान घरांत भितर सरपाक खळयेचेर फातरी घाल्ल्यो.

घरांत भितर सरपाक धायेक रूंद सोपणां.दोशीं वटेन घसरगुंडी कशी गराद. घराचे दोशी वटेन रूंद वारांद.पोरसांत देंवपाक दुसरेय वटेन सोपणां. हांव सांखळे गेलां तेच वर्सा बाबान म्हाका तांबडेच गमबूट हाडिल्ले. ते घालून पावसा दिसांनी हांव पोरसांत उमेदीन भोंवतालें. गमबूट घालून भोंविल्ल्याची तशी म्हाका आतां याद ना. पूण ते हांवें पळयल्यात. म्हजे फाटलीं मावसभावंडां सांखळे येतालीं तेन्ना ते तीं वापरतालीं.

आज्याल्या पोरसांत धा-बारा आंब्याचीं झाडां. आडवेळ्या पावसाचो गडगड.जोगलां मारून वारो सुटलो काय पोरसांतल्या त्या आंब्यांचीं वाऱ्यान तोरां

झडटालीं. तें जोगलावणें, तो गडगड आनी तो पावस पळोवन म्हजी भियेवन गुळी जाताली. वाड्या वयलीं भुरगीं मात धांवत येवन तीं पुंजायतालीं. वारांदांत रावून म्हजो बोवाळ, भुरगीं तोरां व्हरतात म्हणून. आजो ओग्गी रावतालो.

दोन दीस सेगीत पावस पडतकीच धवेफुल्ल घसघशे खणींत रकताले. तीन वर्सांचें हांव वारांदाचेर रावन तें अप्रूप पळयतालें. खण भरून ओतताली. कुशिच्या व्हाळांतल्यान उदकाचो व्हडलो लोट रस्त्यार येतालो. मुखा वयल्या बापुल्या वारांदाचेर उदक भरतालें. आज्याल्या पोरसांत उदक येतालें. ताचे वयर उदक केन्नाच येवंक ना. म्हाका मागीर खूब वायट दिसतालें. आनीकूय खूब पावस पडचो, आज्याल्या घराचीं धाय सोपणां उदकांत बुडचीं, म्हज्या कुकुल्या पांयां मेरेन उदक येवंचें आनी हांवें थप थप करून त्या उदकांत नाचचें! मागीर हांव आजयेक विचारतालें, 'आई, कितलो पावस पडपाक जाय गे, म्हज्या पांयां मेरेन उदक येवपाक?'

'कित्याक गो जाय बाये तुका बुडटी? सकयल्या घरांत रावतना खूब बुडट्यो पळयल्यो आमी! व्हाळवंटी न्हंय भरून आमचे घरांत उदक येवंचें. म्हणून मागीर बाप्पान, तुज्या पणज्यान हें अशें वयर घर बांदलें. मागीर बुडटी येतकीच सकयल्या घरांतले लोक हांगा रावपाक येवपाक लागले.'

आतां खंयूय बुडटी आयली म्हूण कानार पडतकीच म्हजे यादींचीं कुपां उसवतात आनी 'नाका बाये आनीक बुडट्यो' म्हणपी आजी दोळ्यां मुखार येता.

सांखळेच्या सांजावाच्या फेस्ताच्यो कांय यादी काळजाकुशीक दसून रावल्यात. घोग्यांनी पडपी पावस.



उप्पाट भरून व्हांवपी घरा फाटली खण. शेजारच्या मातालामामीची उदकांत भरिल्ली बांय. 'ओ रे सांजाव!' म्हणत माथ्याक फुलांचीं, पानांचीं कपेलां बांदून उडक्यो मारपी दादले. तांचीं तीं विस्मितां पळोवपी मिरयां मिरयांचो व्हिस्तीद घाल्लें हांव आनी म्हजेर लाकडी दांड्याची काळी व्हडली सत्री धरिल्लो आजो. मनांत खोल खोल सांठयिल्ल्यो ह्यो म्हज्यो यादी दर पावसांत व्हांवूंक लागतात.

सांखळे हांवें म्हजे भुरगेपणांत पावसाचीं तरेकवार रुपां पळयलीं, अणभवलीं. ते पावशी खीण हांवें म्हज्या काळजांत सांबाळून दवरल्यात. दुसरी यत्ता मेरेन सांखळे शिकून तिसरेक हांव मडगांवां घरा आयलें. कोंबांतल्या महिला नूतन शाळेंत वचपाक लागलें. शाळा सात-आठ मिनटांचे वाटेर. पूण वाड्या वयलीं सगळीं भुरगीं एकठांय जावन वतालीं. सत्री आनी दप्तर दोनूय हातांनी सांबाळप. वाटेर उदक साठलांशें दिसलें जाल्यार तातूंत पांय बुडोवन नाचप. शाळेंत पावता म्हणल्यार भिजून थापो जावप. इंटरवालाक पावसांतल्यान भिजत पेज जेवपाक घरा येवप.तोंडाक लोणचें वा बटाट्यांचो कुंवळ लावन सुरसुरीत पेज जेवप. भिजिल्ल्या जिवाक मातशी थाकाय येताली. फक्त पंदरा मिनटांचो इंटरवाल,पूण इतल्यार सोपं नाशिल्लें.

पावसांत आमकां झाडां रोवपाची उमेद येताली. मागीर आमची बार्टर सिस्टम चलताली. इश्टीण आपले धवे दसणीची खांदी िताली. तिका हांव जुयेची खांदी दितालें. हें सगळें चलतालें, शाळा सुट्टकीच एकमेकांच्या घरा वचून. उटंगाराचो पावस आसल्यार आंगावयलो युनिफॉर्म भिजून गादो जातालो. घरा येवन हांड्यांतलें खतखतीत उदक न्हातकच सामकें सूऽ जातालें.

आशाडांतलो अखंड पडपी पावस आनी आमचीं सुलचे नळ्यांचीं घरां. माया म्हयन्यांत कितलेय नळे शींव!उटंगराचो पावस आनी झणझणीत वारें एक जातकीच नळे बाबडे हालताले. खांची गळूंक लागताल्यो. मागीर वचत थंय बालद्यो दवरप. चडूच गळटा जाल्यार सवळ्याचे बडयेन नळो मातसो हालोवप. आनी मजा म्हळ्यार अशें करतकच गळपाचें थांबतालें. तरीय घरभर पावस शिरशिरल्ल्याची फिलींग येताली.

पावसा दिसांनी हाताक मेथी घालपाचो म्हणून आमचो भुरग्यांचो एक 'मेथी महोत्सव' आसतालो. मेथी म्हळ्यार आतां मेळटात तसले रेडीमेड कोन न्हय. मेथयेच्या झाडाचीं पानां खुंटून हाडून तीं वांटून केल्ली मेथी. तेन्ना मडगांवांत खूब कडेन मेथयेचीं झाडां आशिल्लीं. आमी पावसांत बिजत तीं पानां बुडडवप. मागीर तीं कोणाय एकल्यागेर फातरीर वांटप. वांटल्याचे हात पयलींच मेथयेन रंगताले. मागीर ताचेर उपाय सोदून काडलो. वांटटना हाताक प्लास्टीकच्यो पोतयो बांदप. तेन्ना प्लास्टीकच्यो पोतयो मेळपाक

कुस्तार. गोवा डेअरीचें दूद लेगीत आतां सारकें पोतयांनी येना आशिल्लें, बाटल्यांनी येतालें.

मेथी वाटून जातकच मेथी घालपाचो आक्त जातालो. सगळीं वांटकुळीं बसतालीं. सान्नीचे व्हीर तोडून तिचो खुटारो करून उडयतालीं. मागीर त्या व्हिरान तळव्यार मेथयेच्यो बारीक बारीक तिकल्यो घालप. मातशें कोणाक कलेचें आंग आसा ताच्या तिकल्यो बऱ्यो बारीक जाताल्यो. हेरांचे तिबे! बोटांक फुडल्यान फाटल्यान बुकलां थापतालीं. नाकटां आनी रंगोवपाचो वेगळो वावर ना. आमच्या हातांक मेथी घालुनय आनीक मेथी उरताली. मागीर आमी जाणट्या बायलांचे फाटीक लागतालीं. तीं मागीर आपल्या तळव्यार एक थापो थापतालीं.

दर पंदरा दिसांनी आमी ही मेथये परब मनयतालीं.

काळजा कुशीक दसून राविल्ली एक भर आशाडांतली याद. आशाडी एकादशीची.

आशाडांतलो दाट पावशी दीस. घो घो पावस. घरा लागसार विठोबाचें देवूळ. एकादशी निमतान देवळांत चोवीस वरां अखंड भजन. मंडपांत व्हडली पेटयल्ली दिवली. थंय हातांत तंबोरो घेवन एकटो उबो. तोंडांत विठ्ठलाचें नामस्मरण. सकयल मंडपांत दोशी वटेन भजन म्हणपी बसल्यात. गर्भकुडींत फांतोडेच्यान विठ्ठल रुक्मीणीक अभिशेक सुरू आसा. टाळ, मृदंग, पेटयेचे सूर...विठ्ठल विठ्ठल नामाचो गजर...देवळाच्या भायर झडपी पावसाचें संगीत.... ह्या भक्तिमय वातावरणाचो आमचेरूय परिणाम जातालो. आमचे उम ेदीक ओतो येतालो. आठ-धा वर्सांची निरामय पिराय ती! आमच्या चार-पांच जाणां मदल्या एक एकट्यान उठून तंबोरो धरप आनी तोंडान 'विठ्ठल विठ्ठल' म्हणप. एकट्याचीं धायेक मिणटां जातकच दुसऱ्यान उठून तशें करप. जो कोण तंबोरो धरता ताका दुसरो कोणूय येवन तंबोरो घे म्हणसर तो घेवन तशेंच उबें रावचें पडटालें.

फाटीं रमेशबाब वेलुस्कारान आपली आशाड दडक ही कविता फेसबुकार घाल्ली. ती कविता वाचतना दोळ्यां मुखार गुलाल बी फाफडून वच्चो तशें हें भुरगेपणांतलो देखाव झळकलो. आमी तेन्ना देवळांत जें अणभवतालीं तें ते कवितेंत आशिल्लें.

**दडक**

*थेंब थेंब*
*आशाडाचो*
*घाली विठ्ठलाचो*
*कोचो*
*थेंब थेंब*
*आशाडाचो*

*पळया रे*
*तांचो रंग*
*पळया रे*
*रंग*
*रंगाचें त्या*
*नांव खंय रंग*
*पांडुरंग*
*थेंबा थेंबाच्या*
*वंठार*
*साधु संतांचो रे*
*संग*
*उतर उतर*
*ह्या थेंबांचें*
*वयता जायत*
*अभंग*
*आशाडचे थेंब*
*जाले विठ्ठलीं*
*तल्लीन*
*जाले विठ्ठली*
*तल्लीन*
*तांचे खातीर*
*नुल्लें आतां*
*कांयच मल्लीन*
*आतां कांयच*
*मल्लीन*
*थेंब थेंब*
*आशाडाचो*
*घाली विठ्ठलाचो*
*कोचो*
*थेंब थेंब*
*आशाडाचो*

हांवें सोमतेंच कमेंट करून रमेशबाबाक म्हजी ही याद सांगली. तांचो रोखडोच रिप्लाय आयलो.

'हर्षा, तुजी याद आवडली. जातूंत भुरगेपणांतल्या आमरचंवरी खिणांचें अनेक ताशी चित्रण आसा. तुज्यान तें निश्चितपणान बरोवं येता.'

रमेशबाबालें हें 'आमुरचंवरी' उतर म्हाका खुब्ब आवडलें. आशाडांतल्या पावसांत अणभविल्ले भुरगेपणांतले कितलेशेच 'आमरचंवरी खीण' हांवें यादीचे कुपयेंत सांबाळून दवरल्यात. जेन्ना केन्ना हांव ती कुपी उगडटां, त्या आमुरचंवरी गंधान म्हजे आशिकुशिचो वाठार परमळटा. हांव हांव उरना. म्हजी जीण गोड करपी ते गंध म्हाका भारीत करतात.

थंड, शितळ कुडकुडो हाडपी पावस. सेगीत आठ दीस पडपी पावसान घर लेगीत तेवेलां. खंयच सुको म्हणटात तो जागो ना. अशे वेळार रांदचे कुडींतल्यान येवपी कुळदांची पिठी भाजिल्लो तो वास आनी वाडगो भरून पिल्ली दाट दाट पिठी. कुडकुडो खंयचे खंय नाच्च

**Harsha Shetye**
कविता वाचतना दोळयांमुखार गुलाल बी फाफडून वचचो तशें एक भुरगेपणातलें दृश्य झळकून गेलें. घरा लागसर विठोबाचें देवूळ घो घो पावस. आशाडी एकादशीचो दीस. 24 वरां अखंड भजन. मदीं एकटो तबोरो घेवन उबो. आमी एकएकटी वचून मदीं मदीं तबोरो हातांत घेवन उबीं रावतात. .. काळजाकुशीक आशिल्ली एक याद वयर सरली

4y Like Reply 3

**Ramesh Bhagvant Veluskar**
Harsha Shetye हर्षा, तुजी याद आवडली. जातूत भुरगेपणातल्या आमुरचवरी खिणाचें अनेक ताशी चित्रण आसा. तुज्यान तें निश्चितपणान बरोंव येता.

4y Like Reply 1

जातालो! आमच्या वाड्या वयलीं सगळीं एके वणटीचीं घरां. भायर येवन ह्या सोप्या वयल्यान त्या सोप्यार देवप. वणटीक तेंकून सत्री घेना आसतना शेजारच्या घरांत वचप. हातांत आसताली पिठयेची किटली. दुसरे दिसा तांगेलें आठवल आम गेर.

तेन्ना उदक हांड्यांत तापयतालीं. हांड्या रांदनींत इंगळे आसताले.

रसरशीत इंगळ्यांर भाजिल्ल्या सुक्या बांगड्यांचो वास आयजूय जिबेर लाळ हाडटा. पणसा भिकणांय ह्या कोळश्यांर भाजून खातालीं. उकडटालींय बी. त्या भायर मोममी भिकणांय उकडटालीं. कांद्याचीं भर्जीं चुकून एकदा बी करतालीं. आयलोळ्यो, येलापे तेंवूय एकदा जाताले.

पावसांतलो आनीक एक आवडटो जिन्नस, तळिल्ले फोव. म्हजी मां फोव तेलांत बरे फुलयताली. तातूंत सोय, मिरसांगे पिठो, इल्लीशी साखर घालून कालयताली. थंड पावसांत हुनहुनीत फोव! व्वा! कितल्लीं वर्सां जालीं हे फोव खाल्यार !आनी तिळसांजची ती तोपभर काफी शिजयताली. कॉफी न्हय आं! चवकेर बसून ती खतखतीत कारेंगाद काफी पिवप म्हळ्यार सर्गसूख! वांगड दिवपाक शेजारचीं कोण ना कोण तरी आसतालींच.

काफयं वांगडा आसतालो आंगणांतल्या फुलांचो परमळ. जायो,जुयो निकत्योंच फुलपाक लागताल्यो. चार कळयांचो लेंगीत वास चवकेर पातळटालो. तशे बांगयेंचे फुलकार पाटल्यांत घालून जायो विकपाक घेवन येताले. म्हजे केस तेन्ना लांब. विणी कंबरा मेरेन पावताली. म्हाका जायांचो एक पोंड बी माळपाक आवडनाशिल्लो. तेन्ना रुपयाक चार पोंड मेळटाले. हांवें आनी म्हजे इश्टीणीन, मितान रुपयाक एक असले व्हडले दोन दोन चार पोंड घेवप आनी विणीभर माळप. भुरगेपणातलें हे आमरचंवरी खीण आमची सादीशी जीण परमळीत करताले.

आशाडांतलो दाट पावस अजूनय झडटा. संगीत चार चार दीस पड पड पडटा. रातभर झड झड झडटा. केन्नाय सकाळीं फुडें बेगीनूच जाग येता. घर न्हिदिल्लेंच आसता. अश्या ह्या दाट पावसांत हांव म्हजी मां करताली तशी कारेंगाद काफी करतां . मग भरतां. भायर पोर्चांत कदेल घालतां. भायर फक्त पावसाचेंच संगीत आनी कसलोच दुसरो आवाज ना. पावस आनी काफी. आनी आमुरचंवरी यादी. जीण आनीकूय गोड जाता.

विज्ञान



गौतम
जल्मी

म्हायती तंत्रगिन्यान अभियांत्रीक म्हूण पणजे आल्तीन हांगा एके खाजगी कंपनींत काम करपी **गौतम जल्मी** हांकां ल्हानपणा सावन खगोलशास्त्राची खुबूच आवड. पर्यावरण तशेंच खगोलशास्त्रा सारक्या दुर्मीळ विशयांचेर चडांत-चड म्हायती मेळोवन ती आपले परीन फुडें पसरोवपाचो अतिरिक्त भार घेवन वावुरतात. खरें गोंय सोदपाच्या उद्देशान, वेगवेगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवून पर्यावरण संदर्भात देवरायो (Sacred Groves) आनी पुरातन खगोलशास्त्र (Ancient Astronomy) हाचेर बारीक अभ्यास करतात.
पत्तो : आजोबा नगर,
साखळी - गोंय
gautamjalmigmail.com

# ख्रऱ्यांनीच नक्षत्रां वायट आसता काय आमचें विचार ?



'होसंवसार, ही पुराय जीण, ही सृश्ट म्हणल्यार कितें, तांचो खरेपणान अर्थ जाणून घेवचो तो फक्त राती वेळारुच! दिसा उजवाडा दिसता ती सगळीं फटिंगपणा...!'

गोंयच्या एका ज्येश्ठ साहित्यकारान खगोलशास्त्राक लेखून म्हणिल्लीं, आयच्या काळांतली परिस्थिती दर्शो वपी हीं उतरां म्हाका भोव मानवलीं.

प्रत्येक शब्दांत एक वेगळें वास्तवीक सत लिपिल्लें आसता जें आमकां आम चे आजून पर्यंतचे एकंदरीत जिणेचो अभिप्राय सांगता. एक तरेन आमच्याच अस्तित्वाची आमकां जाण करुन दिता. तो शांत काळखी आसमंत, ते इल्लेशे दिसपी, लिकलिकपी - चकचकपी तारे आमकां अचळय खूब कितें सांगून वयता. तें आयकून-समजून घेवपाचें काय ना हें मात दर एकल्याचे विचारशक्तीचेर आनी तांकीचेर अवलंबून आसता, उदारणा खातीर हे सादेच प्रस्न घेयात.

हे धर्तरेर आमच्या जगण्याचो उद्देश किते? कित्याक जाय जाय शें दिसता आमकां हें जिवीत? कितें अडून उरलां आमचें हांगा? कित्याक लागून आमकां

दिसता रातचे न्हिदपाक गेले उपरांत फाल्यांचो दीस पळोवंक मेळटलोच!

हें केन्ना चिंतलां व्हय कोणी? काय फक्त मतां मारपाक जल्म घेतला आमी?

साद्या गोबरांतल्यान तयार जाल्लें हें ब्रम्हांड, सृश्ट आनी सगळी जिवावळ, जिण उपभोगुन जातगीर परती गोबरूच जावपाची आसा. कोण हांगा कांयच घेवन येवंक ना आनी कोणाक हांगच्यान कांयच व्हरूंकय मेळचें ना. तरी आसतना चलत्या खिणाचें, आपल्याच कर्मांतल्यान वाट्याक आयिल्लें सूख भोगपाचें सोडून, आमी तें कृतीम रित्या तयार करून वा एकामेकांचें हातासून, साठोवन दवरपाचो यत्न करीत आसतात हें खबर आसुनूय त्या दुडुवांच्या वा माणकां मोतयांच्या रुपान जमयिल्लें सूख हे धर्तरे वयल्या जिविताची खात्री केन्नाच दिवंक शकना.

घोड्यांचे हे शर्यतींत आमी जितले फुडें धावूंक सोदतात, जिणे मळार आमी तितलेच फाटीं पडत रावतात. आतां आमच्या शिक्षणाचो दर्जो जरी उंचावलेलो आसलो तरी मनीसपणाचो नक्कीच खालावला. आयच्या युगांत जायते कडेन आमकां हाच्यो देखीय पळोवंक मेळटात.

निमाणें कितें तर सगळ्यांक सुखच जाय आसता, पूण तें सूख म्हणल्यार कितें तेंच चडश्यांक खबर आसना. दुडू म्हणल्यारूच सूख, काय मनाचें समाधान म्हणल्यार सूख, हाचो लेगीत फरक आमी समजूंक शकनात. हातूंतल्यान बरो मनीस घडत काय म्हण दुबाव येवप तर स्वभावीकच.

काळा प्रमाणे बदलप, ह्या धोरणां वयल्यान आयची आमची शिक्षण संस्कृताय बदलत चल्ल्या. ताका प्रतिश्ठा आसा, पूण किंमत ना. हाका कारणीभूत घडये आमीच आसूंक जाय, कारण आमकांच स्वताच्या शिक्षणाचो मान राखूंक कळना आनी हे खातीर ताची शक्त समजूंक आमी कमी पडटात. मेळयिल्ल्या शिक्षणाचो कशे तरेन बरो वापर करप, वा जावं येता हाची आमकां कांय जाणूच ना.

शिक्षण म्हणल्यार फक्त बरयिल्लें वा वाचिल्लें गिन्यान न्हु तर प्रत्यक्षांत अणभवल्लें आनी अभ्यासपुर्ण चिंतन करून साक्षात्कार जाल्लें एक वास्तवीक सत, जातूंत सतत बदल हो जायत आसता आनी आमी तो तसो आमचे भितर घडोवन हाडपाचीय गरज आसता.

पुर्विल्ल्या काळांतल्या विचारांक फावो तो मान दिवन, तातूंत आर्विल्ल्या विचारांची भर घालून योग्य तरेन मिसळण करप आनी तातूंतल्यो चुको, अंधश्रद्धे सारके विचार भायर काडून आपलें चिंतन सुदारप, जेणे करुन ताचो येणाऱ्या काळांत बरो उपेग जावंक शकता, अशे तरेचे मानसिकतायेची आयज अत्यंत गरज आसा. हें अशें जेन्ना घडटलें, तेन्नाच त्या चार वणटीं भितर रावन मेळयिल्ल्या शिक्षणाचें आमी कितें तरी सार्थक करून घेता हाचें सूख प्राप्त जातलें.

आजून पर्यंत आमी फक्त उलयले, पूण आतां तें कृतींत बदलपाची आवश्यकता आसा. काळा प्रमाणे कोणाक पयलीं बदलप? दुसऱ्यांक काय आपल्याक..? कितें बदलप? भायलो देखावो काय आंतरीक विचार, हें थारावपाची गरज आसा.

हातूंत पयलें काम करपाचें म्हणटात तें, पिळग्यान पिळग्यो चलून आयिल्ल्यो त्यो अंधश्रद्धा आनी तातूंतल्यान उद्भवल्ल्या विपरीत विचारांचो नाश. जो पर्यंत आमी ह्या 21व्या शेंकड्यांत, त्यो मिरच्यो बांदप आनी लिंबू पिळप असले उद्देग बंद करिनात, तो पर्यंत कसल्याच प्रकारची उदरगत जावप वा ताची अपेक्षा धरप हांगा शक्य ना.

इतल्या वर्सां सावन आमीच ह्या अंधश्रद्धे सारक्या विद्रुप विचारांक सारें-उदक घालीत रावल्यात, आतां तांकां हुमटोवन उडोवपाची जबाबदारीय आमचीच.

आमच्या पुर्वजांक त्या वेळार अभ्यासा अभावी, खुबशा अचंबीत करपा सारक्या गजालींचो विज्ञानीक अर्थ समजुपाक शकूंक नाशिल्ल्या कारणान, अनुकूल परिस्थितींतल्यान, तसले विचार तकलेंत आयले म्हणू येता. पूण आतांच्या युगांत लेगीत ते आमी चालू दवरप हातूंत कसलीं शाणेपणा? काय आमकांच आमच्या शिक्षणाचेर अजुनय विश्वास ना? हेंच कारण थारता ते नाका आशिल्ले विकृतीक बळी पडपा खातीर आनी फुडें तांकां वाडीक लावपा खातीर.

आतां हे विचार जरी एका धपक्याक बदलप शक्य नासले, तरी थोडे थोडे करून आमी यत्न तर करपाक शकताच. आमच्या दिसपट्ट्या जिवितांत जायते कडे असल्यो विपरीत घडणुको दोळ्यां सामकार घडत आसतात. आतां तसल्या

गजालींची खरताय लक्षांत घेवन, वा ताचो कितलो प्रभाव समाजाचेर पडटलो, हाचें गणीत करून, जर आमी ताच्या आड उबे रावले नात जाल्यार, ती आमच्या जिवितांतली सगळ्यांत व्हडली चूक थारतली.

हाचें उदारण दिवपाचें जाल्यार, म्हाज्या विशयांतली नक्षत्रांचीच गजाल घेवया. आमचे सदचे जिणेंत, थोडे कडेन लोक आजुनूय गिरे-तारे, तशेंच राशी-नक्षत्रांच्यो विनाकारण बकत्शायो करतात (बऱ्या वायट घडणुकांचें खापर तांच्या माथ्यार फोडप) आनी म्हाकां तें मात्तय आवडना. पाप करप मनशांनी आनी आळ तांचेर? कित्याक? ते सवाय मेळटात म्हूण? काय आपली परिस्थिती लिपोवपाक ती आडवाट म्हूण पळयतात?

पयलींच्या तेंपार हें बरे भशेन चलतालें पूण आतांय बी? हीच ती उदरगत जी आमी सोदतात? फक्त भायल्या देखाव्याची? (हरशीं त्या वेळारूय असल्यो अंधश्रद्धा बी आडावपाचो यत्न जातालो खंय, पूण चडश्या लोकां कडे शिक्षणूच धड नाशिल्ल्यान त्या विचारांक बळगें मेळनाशिल्लें).

आतां तो वेळ येयला, मनशाक स्वता, आपूण जावन आपल्याक सम जावचें पडटलें आनी हीं उतरां परती परती मनांत घोळोवचीं पडटलीं, 'आरे पापया… 21व्या शेकड्यांतलें विज्ञानीक युग चालू आसा हें! परिस्थिती प्रमाणे, उपयुक्त विचारसरणींतल्यान तुका तुज्या चिंतनांत आनी फुडें जिणेंत, बदल घडोवन हाडचेच पडटले. ना जाल्यार हे




सृष्टीर तुजें अस्तीत्व तिगून उरप शक्य ना. कारण आतांच्या खिणाक तुंच तुजो विध्वंस करूंक उठला.

बरें, फुडें ते बदल घडयलेच म्हूण जावचें ना, तर ते फक्त आपल्या सुवार्था पुरते दवर नासतना, सगळ्या थरांतल्यान ताची पसरण जातली हाचीय काळजी घेवची पडटली.

आतां कशे आमी नळ्यांतल्यान उदक गळटा म्हूण तेर्रासाचें घर बांदतात..! शेणाची जमीन नाका, सगळ्याक काळें लागता म्हूण टायल्स घालतात..! हात-पांय चलोवंक त्रास जातात म्हूण गाडयो घेवन भोंवतात..! गरमी वाडल्या म्हूण घरांनी एसी घालतात..! तेच तरेन, पौराणीक, पुरातन, बाबा वरा काळांतले विचार विसरून, नवे पिळगेक सोब सारके, विज्ञानीक दिश्टीकोन आपणावचोच पडटलो.

हांव असल्या गजालींचो विरोध करतां वा कोणाकूय उद्देशून कितें बरयतां हाचो अर्थ असो मात्तय सम जुंचो न्हु की हांव हांगा शत्रुत्वाची भावना पिकयतां म्हूण. उदय भेंब्रे सरांचे हालींच जाल्ले मुलाखतींतले त्या वाक्यान म्हाजेर सामकीच भुरळ घातली आनी हाका लागून म्हाका दिसलें की हें नवे तरेचें धोरण आपणावन पळोवचें. ते म्हणटात की न मानपा सारक्या गजालींचो विरोध वा टिका ही करपाचीच, पूण हें करता आसतना कोणा मनशाक केंद्रीत न करतां, तांच्या चुकीच्या मतांचेर (वा वाट शेणोवपी विचारांक) करचें.

ते फुडें अशेंय म्हणटात, आतांच्या तरणाट्यां मर्दी फावो तसो बदल घडोवन हाडपाची, ती पयलींच्या तेंपा सारकी तळमळ ना. एके वटेन तांच्यांनी म्हणिल्लीं तीं उतरां मना-काळजाक तोपतालीं, जाल्यार दुसरे वटेन, तांचें म्हणणें खरेंय आसपाचो साक्षात्कार जातालो.

तशें पळोवंक गेल्यार, ही माची काय टिका करपाची जागा न्हु, पूण चुकता त्या विचारांचो वा म्हाज्या क्षेत्रांतले म्हायतीचो खोलायेन अर्थ समजोवपाचो आनी पसरोवपाचो, तशेंच आपले परीन ताचेर सुधारीत विचार करूंक लावपाचो यत्न तर हांव ह्या सदरा मार्फत करुंकच

शकतां आनी मुळांत ताचो उद्धेशूय असोच आसा. समाजांत विज्ञानीक वृत्ती, म्हळ्यार ीलळशपींळषळल ींशाशीराशपीं घडोवन हाडपाचो.

ह्यो राशी-नक्षत्रां म्हणल्यार किते..? त्यो घडोवपा फाटलो कितें अर्थ आसलो आनी ताचो कितें फायदो जालो..? अजुनूय ताचो आमकां कितें उपेग जावंक शकता, काय ताचो हांगाच अंत करून उडोवपाचो..? तांचो मनशाचे जिणेर खऱ्यांनीच कितें परिणाम जाता काय थोडे लोक तांचेर निंबून, भोळ्या बाबड्यां कडल्यान दुडू उखलून धंदो चलोवपाचो यत्न करतात..? हें हेच माचये वयल्यान आमी पांवड्या-पांवड्यांनी, एका वेगळ्याच, ओडलायण्या रुपान जाणून घेवपाचो यत्न करुया.

(ह्या बरपांतल्यान म्हाजो खंयच्याच मनशाक, धर्माक वा समजांक दुखोवपाचो हेतू ना. हातूंतल्यान हांवें फक्त दर एकल्याच्या मनीसपणाक उलो मारला. तो जर कोणाकूय आयकूंक येयला जाल्यार तांणी ओ म्हणचें!)

आगोस्त म्हयन्यांतल्यो रुचीक अशो, गोंयच्यो खगोलशास्त्रीय घडामोडी

**आगोस्त ३ :**

आमचे सुर्यमाळेंतलो सगळ्यांत सुंदर गिरो शनी (डरींीप), हे दिसा सूर्य आनी पृथ्वीच्या सारको सरळ, एके ओळींत येतलो. म्हणल्यार सूर्य-पृथ्वी-शनी अशी ह्या तिगांची रचना आसतली. हाका जींिळींळेप ेष डरींीप अशें म्हणटात. इत्सूक आस्वादकांनी,



तीन सांजे 7:30 वरां उपरांत पुर्व दिकेवटेन, क्षितीजा कडे दोळे लावन दवरचे.

ह्या दिसांनी शनी, आमच्या म्हऱ्यांत (पृथ्वीच्या) खूब लार्गी येवन, साम की कडक आनी भडक रंगान नटून-थटून, आपले प्रखरतेचें प्रदर्शन करतली आनी जुस्त निसर्गाची म्हाराणी कशी भासतली.

आतां गींळिंशी, म्हणल्यार गुरुक जर आमी गिरावळींतलो राजा अशें संबोदतात, जाल्यार शनी ही नक्कीच ताची राणी जावंक फावो. दिसपाकूय बेस बरी, सोबीत-सुंदर अशेंच तिचें रूप. हरशीं क्रमवारींत तांचो दोगांयचो फुडल्यान-फाटल्यान (5-6) असो नंबर लागता तें जालेंच, पूण ह्या दिसांनी तीं वांगडाच उदेतात आनी अस्तमताय बी.

एके वटेन पश्चीमे कडे सूर्य मावळटलो जाल्यार ताच्या विरुद्ध दिकेन शनी उदेतली, तशेंच सकाळीं ती मावळटा म्हणल्यार, पुर्वेकडल्यान सूर्य उदेतलो. हाकाच लागून हे घडणुकेक जींिळींळेप अशें म्हणटात.

दुर्बीणींतल्यान आनी-आनी शनी कडे बी पळोवपाचें आसा व्हय? तीं तिचीं भायलीं रेवाडपी चक्रां (ठळपसी ेष डरींीप) कितें म्हूण सांगूं..! आवय-आवय..! पुराय शनी सकट तीं इतलीं स्पश्ट आनी मन-भुलयणी दिसतात म्हूण जाणां? पळयतल्यांक तर आपल्या दोळ्यांचेर विश्वासूच बसना, आपूण एके जगा भायले वस्तीची इतल्या लागीच्यान अनुभूती घेतां.

(चीटः तो 7:30चो वेळ हांवें बेटोच मजेक म्हूण घालूंक ना हां, ताका रितसर शास्त्रीय कारणूय आसा. खंयचीय अवकाशीय वस्त, काळख्या मळबांत क्षितीजाकडे आसतना सोपेपणान झळकेक येयना. उदेतगीर ताका फावो ते उंचायेर वयर येवपाक कमीच-कमी 1 तास तरी वयता. सूर्य समज 6:30 म्हणल्यार अस्तंता अशें धरलें, जाल्यार एका वरा उपरांत कितलीं वरां जातात?

ह्या संदर्भात, ही साडेसाती, आजून पर्यंत कोणाकूच खबर नाशिल्ली. ताचो खरो विज्ञानीक अर्थ समजायल्या बद्दल म्हाजे उपकार बी मानीना जाल्यार जाता, म्हाकां वायट दिसचेंना. पूण अंधश्रद्धा बी बाळगिल्यो जाल्यार एक वेळ दिसत)

आगोस्त 8 :

हे दिसा उमास.

ह्या दिसाचें खाशेलेपण हांवें फाटले खेपेक सांगलांच. ताचेर आनीक फोड्डून बरोवंक, म्हाज्या सारक्या आडेच्या बरोवप्याक जमचेंना.

तशें पळोवंक गेल्यार, हांव मात्सो उमेदी पोर आनी ज्या अर्थी, जिणेंतलो

लिपिल्लो आनंद पिशा भशेन लुटपाक, म्हयन्यांतलो हो एक दीस हांवें राखून दवरला, त्या अर्थी, आनीक कांय न्हु जाल्यार, त्योच पिशेपणाच्यो खबरी आनी अणभव तर हांव ह्या दिसा सांगूंक शकतांच. किर्तेय जावं, पूण गिन्यान पसरोवप हो आतां म्हाजो नवो धर्म जाल्ल्यान म्हाका तशें करप चुकना.

हरशीं उमाशेचे राती वेळार जर ताऱ्यांच्या फाटल्या-फुडल्यान नाचपा-पासून आमकां फुरसत मेळ्ळीच जाल्यार कोणा फुकट्याक नाका आशिल्ले उपक्रमूय राबोवपाक आमी फाटीं सरनात. अशेच लोकांक पिशांत काडपाचे जायते पराक्रम हांवें केल्ले आसात. आतां हें आनी नवीन किर्तें, असो कोणाकूय जर प्रस्न पडटा जाल्यार ताची जाप सगळ्यांक फुडल्या म्हयन्यां सावन खिस्ती खिस्तीनी मेळटली.

आगोस्त 9 आनी 10 :

उत्तर गोंयच्या वाठारांत ह्या दिसा सावळी नाशिल्लो दीस अणभवपाक मेळटलो. सुर्यान बी चुकून दर्शन दिर्लेच जाल्यार, त्या दिसा सारकें दोनपारांच्या वेळार (12:35 - 12-40), स्वताची सावळी कशी नाच्च जाता तें पळोवंक विसरूं नाकात.

(सुर्याचेर थेट नदर बी घुवंडायश्यात हां... ना जाल्यार सावळे वांगडा दोळेय बी नाच्च जायत)

आगोस्त 11 आनी 12 :

दक्षिण गोंयच्या वाठारांत रावपी इत्सुक आस्वादकांनी, वेळ (आनी सूर्य) मेळटा जाल्यार वयर सांगलां तो प्रकार पळोवंचो. हरशीं हाचेर आनीक आनी विस्तारून सांगपाची ताकद शिल्लाक उरुंक ना म्हाजेकडे. बरोवन बरोवन थकलों हांव. हाचोच फुडलो प्रकार जेन्ना माय म्हयन्यांत घडटलो तेन्ना ताचे विशीं खोलायेन जाणून घेवया.

हांव अशें गृहीत धरून चलतां की, गोंयांत दोनपार ही सारकी कितल्यांक जाता तें हांगा कोणाकूच खबर आसचें ना (म्हाकाय खबर ना). दर खेपेक म्हाका ती वेळ म्हाज्या इश्टाक - सुर्याक वचून विचारची पडटा. हांव पयरूच ताका मेळून आयलों. पावस ना म्हूण तो म्हाजेर सामको तापलो. हांवें तशेंच घामाघूम जावन ताका विचारलें तेन्ना ताणें सांगलें, प्रयोग कर आनी सोदून काड.

(चीटः म्हाका हाचे विशीं खर शिटकावणी मेळिल्ली आसा म्हूण तुम कांय ती तेच खरतायेन दितां... म्हाज्या इश्टाचेर बी बरी-वायट नदर घुंवडायली जाल्यार दोळेच काडून हातींत दितलो, पयलींच सांगतां)

FRIDAY THE 13TH

आगोस्त 12/13 :

ययातीचो उल्कापात म्हणल्यार जगभरांतल्या रसिकांक, रातीच्या वेळार दिसपी एक नैसर्गीक फोग.

आमच्या पुराय रुतूचक्रांत, पेझाद आनी सगळ्यांत प्रभावशाली, एका फ ुडले एक अशे 2 संवसारीक उल्कापात जातात, तातुंतलो 1 हो हे राती वेळार जावपी ययाती उल्कापात, म्हणल्यार झर्शीशळवी चर्शींशी ड्हेशी.

हाचे विशीं चड कांय सांगून अर्थ ना कारण जे तरेची ताची नामना आसा (वराक 120-150 तुटतात ते तारे दिसप) तसो तो गोंयच्यान केन्नाच पळोवंक मेळना. चुकून खंयच्यान तरी, थोड्या वेळा पुरतीं कुपां निवळ जालींच जाल्यार वराक 5-10 चे सरासरीन आमकां तातूंतले डर्हेळपस डींरी पडटतात ते दिसूंक शकतले.

असल्या घडणुकांची सविस्तर

म्हायती आमी डिसेंबर म्हयन्यांत जावपी उज्या पावस, म्हणल्यार मिथुनाच्या चक्रवर्ती उल्कापाताच्या (ऋक्षाळपळवी चर्शींशी डहुंशी) वेळार पळोवया.

आयकल्यार फकाणांच दिसत, पूण फाटल्या डिसेंबर म्हयन्यांत, मिथुन उल्कापाताक, म्हादय अभ्यारण्य क्षेत्रांत रातचे भोवंडेर गेल्लेकडे आमी 600 वयर तरी तुट्टात ते तारे पळयले (ह्या उल्कापाताची एकंदरीत वागणूक अभ्यासपाच्या हेतान, 523 उल्कां पडटना दिसल्यात हाची आमी अधिकृत नोंद केल्या, बाकिंचे वयले, अशेच पासयेक गेल्लेकडे दिसले ते जोडल्या).

हांगा आमी म्हणल्यार, हांव आनी सौरभ मिश्रा सर (गोंयांत कामाक आशिल्लो बिहारचो हवामान शास्त्रज्ञ). असल्या वेळार हांव चडसो तांकांच घेवन वतां, कारण चुकून समज वातावरण बी अचानक बिघडलें जाल्यार, उमेद-उत्साह तिगोवन दवरूंक ताचेकडे एक अदृश्य शक्त आसा, जाचो त्या दिसा आमी सर्रास वापर करतात.

(चीट: ही 12 ब्रेस्तार आनी 13 शुक्रारची फकाणां आसात पळय ती निव्वळ ढळाशर्रीं, जुस्त म्हाज्या उमाशेच्या पराक्रमा भशेन. कोणाक हें खबर नाशिल्लें तेंकां मुद्दम याद करून दिल्या बद्दल चूक मागतां. किर्ते करतलों, संवयेचो गूण.

तशें पळोवंक गेल्यार हो ययातीचो फोग गोंयच्या आस्वादकांक सदांच शेळेल्लोच मेळटा, तातूंत कोणाल्या 12व्याक ब्रेस्तार येयलो आनी 13 व्याक शुक्रार येयलो म्हूण, मुद्दम काय बरें-वायट जावपा ना आनी समजा एकाद्या वेळार तशें जालेंच, जाल्यार ताका कावळो बसप आनी खांदी तुटप एक जालें अशें समजुचें)

आगोस्त 18 :

हरशीं हें सगळें पळोवंक मेळत, वा ना-मेळत ती गजाल वेगळी, पूण म्हाका मागीर, हें सांगुकूच ना - तें सांगुकूच ना असल्यो कागाळी आयकुपाच्यो नात म्हूण सांगतां.

ह्या दिसा तीन सांजे, 6: 30 - 7च्या सुमाराक, फाटल्या म्हयन्या भशेन मंगळ परतून एकदां हे खेपेकूय जुगलबंदी करतना दिसतलो, पूण हे फावटी ताच्या वांगडाक शुक्र न्हु तर बुध गिरो आसतलो (तें आनी आतां वेगळें सांगीना की बुध म्हणल्यार चशीलींू, हो आमचे गिरावळींतलो, सुर्याक सामको तेक्कून आशिल्लो, क्रमवारींत पयलो आनी आकारान सगळ्यांत ल्हान गिरो).

जरी खगोलशास्त्रीय नदरेन हे घडणुकेक चड व्हडलें म्हत्व नासलें तरी पूण फाटले फावटी सांगलां तशें, असल्या घडणुकांतल्यान आमी आमचे सुर्यमाळेंतल्या गिऱ्यांची आनी भोंवतणच्या अंतराळाची बरे तरेन वळख करून घेवंक शकतात.

बुध हो असो गिरो आसा जो सोपेपणान कोणाकूय वळखपाक येयना, कारण तो आकारान ल्हान आशिल्ल्यान बाकिंच्या ताऱ्यां भशेनूच इल्लोसो दिसता. तो जेन्ना कोणाय वांगडा अशी जुगलबंदी बी करता तेन्नाच ताका बरे तरेन नियाळपाची संद आमच्या असल्या हौशी आस्वादकांक मेळटा.

चीट: ह्या दिसा, सुर्यास्ता उपरांत अस्तंतेकडे, हे मंगळ-बुधाचें इल्लोंशें जोडें, आकाशाच्या ज्या भागांत दिसतलें, तेंच आमच्या सगळ्यांच्या ओळखीचें फाल्गुनी नक्षत्र.

27 नक्षत्रां भितर, पुराय फाल्गुनी नक्षत्राचे 2 भाग करुन उडयल्ले आसात - पुर्व आनी उत्तर फाल्गुनी, ते शिंव (डशे) राशीचें पोट आनी शेपडे कडले भाग जावन आसात.

हें तेंच फाल्गुनी नक्षत्र जाचे वयल्यान



आमच्या निमाण्या म्हयन्याक फाल्गुन म्हूण नांव पडलां. त्या म्हयन्याचे पुनवे दिसा, चंद्र आमकां ह्याच नक्षत्रांत दिसता.

तर ह्या मंगळ-बुध जोडयेच्या थोडे वयर पळयत जाल्यार, त्या फाल्गुनी नक्षत्रांतूच आमकां आनीक एक गिरो पळोवंक मेळटलो, तो म्हणल्यार शुक्र. फाटल्या म्हयन्यांत सांगलां तें जर कोणाच्या लक्षांत आसत जाल्यार ह्या गिऱ्याक सोदपाक आनी वळखुपाक तुमकां मात्तय कळाव लागचो ना.

आगोस्त 20 :

गुरु, आमचे सुर्यमाळेंतलो सगळ्यांत व्हडलो गिरा. हो ह्यादिसा सूर्य आनी पृथ्वीच्या सारको सरळ, एके ओळींत येतलो, वयर सांगिल्ल्या शनी भशेन. दुर्बीणींतल्यान तर जालेंच, पूण ह्या दिसांनी बेश्टें, उकत्या दोळ्यांनी लेगीत तो आकारान खूब मोटो आनी रुपान तेज फाकावपी आसतलो.

जरी ह्या दिसा आमी, तो खूब लागी येयला अशें म्हणटात, तरी पृथ्वी कडच्यान ताचें अंतर हें लागीं-लागीं 62 कोटी किलोमेत्र इतलें आसतलें (तें चडांत चड 92 कोटी कि. मी. इतलें आसूं येता, म्हूण बोबो मारतल्यांक अफवा पसरोवपाची आयती संद मेळटा).

ह्या दिसांनी, बारीक दुर्बिणींतल्यान पळयतगीर, गुरुचो पृष्टभाग स्पश्ट दिसता, हातूंत ताचे ते तांबशे-हळडुवे पट्टे आनी आमचे सुर्यमाळेंतलें, सगळ्यांत व्हडलें वादळ ढहश ीशरीं ठशव ड्रीं सारके झळकेक येतात.

हें सगळें इतल्याचेरूच थांबना, तर गुरुचे 4 सगळ्यांत मोटे चंद्र लेगीत (खज, ऐीरि, ऋरपूशवश उरश्रश्रळीीं), एका फाटोफाट एक, गुरू भोंवतणी फेरे मारतना, बारीक तिबके कशे दिसतात, तांकां ऋरश्रळश्रशरप चेपी म्हूण वळखतात, कारण तांचो सोद हो इटालीचो म्हान खगोलशास्त्रज्ञ, ऋरश्रळश्रशे ऋरश्रळश्रशळ हांणी लायिल्लो. गेलिलीओ सर हे पयले शास्त्रज्ञ जांणी पुराय जगाक खगोलशास्त्रीय अभ्यासा खातीर दुर्बिणीचो वापर करूंक शिकयलें.

(चीटः इतलें सगळें जाणून घेवन समज कोणाकूय ह्या गिऱ्यांक वा गुरुच्या 4 चंद्रांक प्रत्यक्षांत आपल्या दोळ्यांनी पळोवं कशें दिसता जाल्यार तांचे खातीर आमच्या घरचीं आनी दुर्बिणीचीं दारां सदांच उगडीं आसात.)

आगोस्त 22 :

हे दिसा पुनव.

हाच्या शिवाय आनीक कितें काय म्हणल्यार, भारतीय वा गोंयचे संस्कृतायेक कुशीक दवरून, जे पाश्चात्य संस्कृतायेची शबय घालपी थोडे लोक आसात, तांकां लागून ह्या दिसा इर्श्रीश चेप ऊ.

हुं..! निळो चंद्र खंय..! ताच्या बाये घोव..!

ना, ना... हांवें कोणाक गाळ बी मारुना हां.., म्हाका तसल्यो गाळी मारपाक जमनात, आमचें मात्शें दुसऱ्या भशेन आसता, शिश्टाचार बी पाळून, कारण जातीचे सभ्य मनीस न्हु आमी.

तर बाये घोव म्हणल्यार, कोंकणींत ताचो निव्वळ अर्थ जाता बापूय. आतां कोणालो काय म्हूण कितें विचारतात? सभावीकच, चंद्राचो. आनी चंद्राचो बापूय म्हणल्यार पृथ्वी, कारण, सगळ्यांक खबरूच आसतलें आमचो उपगिरो चंद्र, हो पृथ्वीचोच एक अपुर्बायेचो कुडको, म्हणल्यार आवय-बापायलो भुरगोच न्हु?

शास्त्रज्ञ म्हणटात (तशें तांकां थोडे पुरावेय सांपडिल्ले आसात) की लाख्खांनी-कोट्यांनी वर्सा आर्दी, जेन्ना निकतीच आमची पृथ्वी निर्माण जाल्ली, तेन्ना खंय अंतराळांतल्यान एक मंगळ गिऱ्या येदो कुडको येवन पृथ्वीर आपटलेलो आनी ताका लागून मागीर पृथ्वीचो थोडोसो भाग निखळून, हो आमचो शिरवंत चंद्र तयार जालो. (ताच्या ह्याच गुणांक लागून मागीर ताका 27 बायलो मेळ्ळ्यो खंय! व्वा, नशीब बरें बाबड्याचें - नशीबूय बरें म्हणटां आनी बाबडोय बी..? ताची काणी मागीर केन्नाय सांगतां).

तर आतां म्हाका एक सांगात, आमी जेन्ना पृथ्वीक अंतराळांतल्यान पळयतात तेन्ना ती कसल्या रंगाची दिसता?

हेंच कारण आसलें जावंये, त्या निळ्या नांवां फाटल्यान. तुमकां कितें दिसता?

तशे प्रत्यक्षांत ताचें खरें कारण कितेंय जावं, पूण म्हाका तें हांगा सांगूं शें दिसना, कित्याक तर ताचो विज्ञानीक दिश्टीन कांयच अर्थ ना.

हांगा आमची संस्कृताय, मनीसपण कोणाक नाका, पूण भायल्यांचें मात पोसूंक आमी एका पांयार तयार. काळा प्रमाणें बदलप घडये हाकाच म्हणटात आसतलें!

●●●

कथा



मिलिंद
म्हामल

# मनोरंजन पार्क



गोंय विद्यापीठांत [illegible] प्राध्यापक [illegible] मिलिंद म्हामल [illegible] मुक्त विद्यापीठ, [illegible] अध्यापन केंद्राचे समन्वयक जावन आसात. तांचे कथासंग्रह, नाटकां, चरित्रां, इतिहास, ग्रंथसुची, दस्तऐवज संकलन अशीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांकां साबार पुरस्कारूय लाबल्यात जातूंत गोमंतक मराठी अकादमीचो आनी थि गोवा हिंद् असोसिएशनच्या पुरस्कारांचो आसपाव आसा.
पत्तो : सांगोल्डा-गोंय.
मो: 9822580789

"लायल्यांत मरे झाडां. आनां तीं तोडा आनी मगेर भोगा."

"काय रे, कोड्यान सां बोलतंय?"

"कोड्यान न्हू. खरां तांच बोलतय!"

"मोठे इल्ले झाडां लावपी. पेपरार मोठ्ठे गजाली छापून इल्ले मरे, प्रुडंट, गोवा 365, सगल्यार बघले आमी. माद्र्यां डोंगराचेर वृक्षारोपण. क्यांवा बघूंक ना ते मनीस झाडां लावपाक आनी फोटो काडपाक. अरे म्हयनोभर सुद्दा जांवक ना आनी ही दुसरी बातमी?"

"कसली रे?"

"मनोरंजन पार्क करतंत न्हू आतां थैंसर. मोठ्ठो प्रोजेक्ट आसा. सगल्यांची अभिमानान छाती नुसती फुलल्या. जो तो आपणांकच क्रेडीट घेवपाक घेता."

"तां सगलां बरां आसा रे, पूण आतां लायल्ल्या झाडांचां काय करताल्यात?"

"हय मरे, ह्यां सगल्यांत मोठ्ठां मनोरंजन. झाडा लावपीय तुमी, आनी तीं आतां काडटाल्यातय तुमीच?"

"कोरोना कमी जालो तशे हळू हळू सगळे भायर येवपाक लागल्यात. हेंरशीं न्हीदान आसले मरे हे! आतां नाचपाक मोकळे!"

"तिनशें कोटींचा बजेट. तेंतूत हेंचे तीस टक्के."

"हे तीस टक्के म्हणजे काय रे भाऊ?"

"तां काय तां आतां माका काय खबर! सापच कळांना जाल्यार खंयच्याय रस्त्याक विचार. वगीच भगदाडां पडानत ना."

" रस्तेय आतां मोठे जातले. मॅपातल्यान डायरेक्ट हायवेच जातलो. सगल्या रानांतल्यान एक पूलच जातलो. त्याकाच बजेट करात."

"रानांतल्यान रस्तो करतीत तर सामकेच मेले हे, तेंतूतल्यान आमकाय मारतले. डायरेक्ट रायगडाच्यार स्वारी हैंसर येतली."

इलास आनी बाबी अशें एकठांय येंवन बोलांक लागले काय कोणांचांच बीं भात ते दवरिनत ना. सगलां सांगान मोकळे जातत. सगळां आपूणच बोलतत. कोणंय मदी बोलल्यार तेचेर रोखडेच घसारतत. ते कोड्यानी बोलतंत खरे पूण तेंचे गजालींनी राम आसता ह्यां मांत खरां. कोरोना कमी जाल्या उपरांत, इखाळो पावस लागलो, खूब लोकांचां नुकसान जालां. तो गेल्या उपरांत खूब दिसांनी आमी देवळाकडेन जमां जाल्लंव. थंयसर इलास आनी

बाबीचे हे खबरी.

मांद्रा आनी हरमल गांवच्या शिम र एक डोंगर आसा. तो सरकाराच्या मालकीचो. गांवांतली तितकीच एक जमीन सरकाराच्या मालकीची. गांवचो दर्या, तेचे मर्दी न्हंय, मगेर रस्तो आनी वयल्यान डोंगर. सरकारचो डोंगर वीस पंचवीस चौरस मीटर तरी आसपाक जाय. डोंगराचेर सगलीं खंडपा आनी तळप. थंय कसलींच झाडां जायनंत ना. देगेच्या डोंगरांर काजींचीं झाडां आसत, पूण हे जमिनीन काजींची झाडा क्यॉंवा बघूंक ना. खंयतरी एक दोन खाजरीणी ना तर काट्यांचीं शिरडां दिसतत. कितकींय झाडा लायलीं तरी गिमान तीं करपान वयतत. खडपांनी आनी काय वसतांलां?. पूण कोणाच्या तरी सुपिक तकलेंतल्यान थंय मनोरंजन पार्क करपाचो आनी टुरिझमांक नेट दिवपाचो विचार इलो. पणजे बसान सगलां प्लॉनींग जाल्लां आसा. तिनशे कोटींचां बजेट. सगलो आराखडो तयार जाल्लो आसा. तां करपाक गांवांतल्या कोणाचोच विचार करपाची सरकाराक गरज पडांक ना, आनी तेचो परिणाम काय जातलो, असां गांवातले लोक आतां बोलांक लागल्यात.

जुल्लाय म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकांत थंय आमदार, मंत्री, सरपंच, पंच, आनी लोकांनी मेळान झाडा लायल्लीं. तेची मोठ्ठी बातमी छापून इल्ली. शेतकीं खात्यान मोठ्ठो उपक्रम केल्लो आनी प्रसिद्दीय भरपूर केल्ली. पूण त्याच जाग्यार टुरिझम खात्याचो आतां दुसरो उपक्रम. मनोरंजन पार्क. आतां थंय मनोरंजन पार्क जाता जाल्यार आतां ह्यां लायल्ल्या झाडांचां काय. हो खूब जणांचो प्रस्न. इलास आनी बाबीचीं तींच मतां. पूण तीं मांडपाचीं तेंची पद्दत वेगळी. देवळाकडेन आमी पांचजण बसललंव. थंय इलासान आनी बाबीन आमचां बरांच मनोरंजन केलां, पूण आतां ते मातशें थंड जाल्यात. विशय गंभीर आसा ह्यां तेंकाय कळटा, म्हूण मर्दी मर्दी ते आमकां बोलपाक दितंत.

"झाडां लावपाक आर्मींय आसलंव मरे, वगीच हेचेर तेचेर घसरान बोलांचां न्हू."

"मी खंय ना म्हूणतंय, पूण ह्यां काय घडटालां तां बरोबर न्हू. अरे हैंसर एकदा मनोरंजन पार्क जाल्या उपरांत ड्रग्स येतले, वेश्या वेवसाय वाडटलो. पर्यटक काय गोयांत बसटेच नाचांक आनी दर्यार हवा खावपाक येतंत?" – समीर.

"हो विशय मरे लांवन धरूंक जायो."–मोहन.

"कांय लावन धरतंय. हेंचे गाणींत गु आसल्यार मरे लावन धरतले कोणांयच्या फांटल्यान भोंवपी मनीस हे. भाई इल्यार भाईच्या, मगेर काकाच्या, मगेर सराच्या, वारां व्हांवतां तसां पान धरतले." – इलास.

"वगी राव रे. काय बॉलां नाका. हेचेर सारको विचार जावपाक जायो. नाजाल्यार आमचां आसलालांय वयतांला."

"तुमचे कडेन आसा काय, अरे ती सरकारी जमीन, सरकार आपणांक जांया तसांच करतलो. तुमी आनी आमी कोण सांगपी. गांवाचां आनी लोकांचां कोणांक पडलांलां आसा? सरकाराकडेन मसुंडेक जागो ना, पूण नाचपाक आसा. ही जमीन आसा तेतूंत बाना मरे मसुंडे. मगेर मड्याक कोणच आडावपाचो ना. तितक्यांच पुरती बोवाळ तो. मगे सगलां विसारतंत."

"ह्यांका मरे विचारपी कोण ना."

"दुसऱ्यांचां कित्याक सांगतंय? तु विचार मरे?"

"माजां आयकता कोण?"

"मगेर वगी बस, आपणांक जमाना थंय वगीच खणाचां न्हू."

"वगीच ना ते हंय येयनंत. थंय कोंळगंटी आनी बागान कसलो तरी बार बंद करतंत खंय."

"बंद कसलो? लोकांक फटवपाचो धंदो. सरकारी ऑफिसर सतायतत खंय."

"सतायतंत कित्याक ते सांगा म रे?"

"बंद जाता म्हूण सगले धावले मरे मदतीक."

"बग तू आतां. तसलेच चार बार आतां हैंसर उगडटले. ते कायच न्हू, हैंसर तेचे बक्षां जास्ती मेळटा तर थंय कित्याक वयतले ते. मोपाचो आतां विमानतळ जाता. विमानांतल्यान आतां मोठे मोठे लोक येतले. त्यांचा मनोरंजन करूंक नाका?"

"म्हुणानच तर हे भानगडी?"

"वाट लायतले आमची हे."

"आनी काय लागपाची उरल्या. ती पयलीच लागल्या मरे. बीच्यार काय



चलता रे शेंकानी. ड्रग्स मेळटा मरे. बारा जाल्या उपरांत पाट्यांर बंदी आसा, पूण पार्टे चलतत काय ना. मोठ्ठ्यान डि. जे. लांव नाका म्हुणटत. पूण आवाज येता मरे.''

''हे मरे आतां तीं खडपां मुळा सकट काडटले आनी जमिनी सपाट करतले. मगेर आपणांक काय बांदुक जायां तां बांदतले. आनी एकदीस घोग्यानी पावस पडान सगलो डोंगर कोसाळतलो. मगेर बापुयय ना आनी पुडयांय ना.''

''तसांच जाल्या शिवाय हे रसातळांक पावचे ना. कोरोनाचां बगलय मरे, तेणी ल्हान मोठो कोणांकच सोडूंक ना, कोण गाफिल रवले त्यांकां तेणी सगल्यांक धरले.''

''आनी पावसान काय केलां? निसर्गच आपलो चमत्कार दाखयताच.''

''फुडें काय जातालां हेची तशी सगल्यांच चिंता आसली तरी त्या डोंगराचे माजे यादी मात खूब आसत. आमच्या गांवचो हो वर्जीन बीच आसलो त्यांवा पसून. जीतो मूस सुददा दिस्टी पडाना इतको दर्या ते वेळार शांत आसलो. काळोख जाल्या उपरांत थंय वचपाचां कोणाचांच काळीज नसलां. दर्यार गेले जाल्यार रापणींक ना जाल्यार खारां पाणी न्हावपाक. क्याँवांय तरी मी आनी समीर सांजचे वेळार डोंगरार चडान थंयच्या खडपार बसान गजाली करू. थंयच्यान हरमल, मोरजीचो दर्या आनी गांव स्पश्ट दिसतालो. फाटल्या वाटेन कोरगांवाचो डोंगरय दिसतालो. थंय मोठ्ठी दोन खडपां आसत. तेंचे मर्दीं सर्दींच सावळी. धावेन आसताना अभ्यास करपा खातीर सांजचीं चार जाल्या उपरांत आमी दोगय हैंसर येवन बसंव?.

गांवची शीम म्हूणटकत जाणट्यानी काय गोश्टी पाळळले ते माका सर्दींच याद जातत. एका काळार रातचो त्या शीमेर वचाप म्हूटल्यार काळ आसलो. देवचाराचो भय. बायलांनी थंय वचापच ना असो संकेत आसलो. माका आजूनय याद जाता. लग्न जाल्ल्या उपरांत मी माजे बायलेक थंय फिरपाक घेंवन गेल्लय. आईक ही गजाल कळना फ ुडें माका तेणी घे तापयलो,

''तुकाय कळना रे, खंयच्या जाग्यार घेवन गेलंय रे त्याका, तूं एक वयतंय तां बरां आसा, आतां चुकान ताकायत त्या जाग्यार घेवन त्याका वचांक नाका. फाल्यां पयलीं वचान नारोबा देवचाराक पांच केळी दवर आनी पायां पडान ये.''

रातचे थंय गेल्यार कसले तरी चाळेगती जातत ह्यां आमच्या जाणट्यां कडल्यान खूब आयकलांला. पूण आतां थंसलो दर्या रातचोच जागो जाता. मोठमोठे पार्टे जातत. ते थंय काय करतत?, काय खातत?, पितत?, तां कांय इचारपाचां न्हू. तेतूंत हो आतां मनोरंजनाचो पार्क. म्हणजे देवचाराच्या राज्यान स्वर्गच. आतां थंय मनोरंजनाचे सगले सोयी आसतले. मदिरे बरोबर मदनमस्त अप्सराय मेळटले. देश विदेशांतले आपणांक जाय तशे. त्यांच्या वांगडा नाचपाक मोपांतल्यान डायरेक्ट हॅलिकॅप्टर हॅलिपॅडाचेर उतारतालां. जगाच्या नकाशार गांवाचां नांव जातालां. गोंयचा लास विगास असां म्हणपाक आनी तशी जायरात करपाक कायच हरकत ना. मायनींग, कोरोना खातीर पयलीच येणावळ बंद जाल्या. तेतूंत टुरिझमांक आतां बळकटी दिवपाकच जाय. तेतूंत लोकांक खूब रोजगार म ेळटलो. त्याचा सगलां प्लानींग, सेटींग करपाचां टेंशन गांववाल्यानी बघचां न्हू, तां भायल्यार्चेर सोडून दिवचां, गांवच्या तरनाट्य नी फकत भाड्याची टॅक्सी काडून भाडां मेळटा काय म्हूण मनोरंजन पार्का भायर वाट बगीत उभ्या रवांचां.

●●●

दीसपटी



संगिता नायक

# अढी !



वाचनाची आवड आनी भोंवडी तशेंच म्हायती तंत्रगिन्यानाच्या संवसारांत वावुरपी संगिता नायक बरोवपांतूय फिशाल आसा. वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी ताचें बरप चलता. बालसाहित्य तशेंच ललित बरपांत ताका गती आसा.

पत्तो : ताळगांव-गोंय.

मो.: 88051 62600

जर पुनर्जन्म ही संकल्पना खरी आसत जाल्यार फाटल्या जल्मांत सेर्त हांव एक जलचर प्राणी आसलें जावं येत. उदक म्हणल्यार हांव पिशें जातां. पयल्या पावसाची सुलूस लागता तेन्ना पावसाच्या थेंब्यां वरी म्हजें मन पिट्ट पिट्ट उडटा. बेफाम, बेभान व्हांवपी वझऱ्याचो घसघस शिरंतरांनी थड-थड करत भरसता तेन्ना म्हजी ब्रम्हानंदी टाळी लागता. ही वझऱ्या कडली वज्रभेट जाय मेरेन म्हजो पावसाळो सुफळ संपूर्ण केन्नाच जायना .

पावसाच्या पयल्या शिवरा वांगडा उस्तप जाता तें पावसा कडेन बांदिल्ल्या यादींच्या पुरुमेतार्चे. सातवेक -आठवेक आसतनाची गजाल. आम चे दिवाडे मुड्डेर मानशे कडेन एक शेत आसा. खाऱ्या उदकाचो वावर देखून हांगा करंगूट (भाताची एक रफ आनी टफ, दाण्या कणकणी किसर आशिल्ली जात) ओपताले. सरसकट कोंब आयिल्लें भात शिंपडप. एके कुणगेंत थाम (भाताचीं रोपां) व्हडलीं करप आनी मागीर तीं शेतभर लावप असली भानगड ना! पूण मेरे वयलीं, आनी भाता बराबर रुजून आयिल्ली हेर तणाची नडणी मात वेळच्या वेळार काडची पडटा. हीं असलीं ल्हान व्हड कामां करपाक, मत करपाक आमकां भुरग्यांक सुटयां दिसांनी आनी सांजेच्या आदेसाक शेतांत व्हरतालीं. कामेरी, मानायां पसत सकाळची पेज, सांजेची चा-फाती बिस्कीट घेवन वचपाचें कामय आमचेंच. ह्या शेताक लागून मुड्डी हो 10-15 घरांचो वाडो आसा. मूळ गांवां पासून ह्या वाड्या मेरेन पावपाक एक देड किलोमीटर जायत इतलो सरळसोट रस्तो आसा. दोनीय वाटांनी पयस -पयस पाविल्लीं शेतां आनी मदीं हो रस्तो. ना मदीं खंय घर, ना झाड.

एक दीस अशींच हांव आनी म्हजी मावसभयण सरिता ह्या रस्त्या वयल्यान शेतांत चा घेवन वतालीं. भायर सरतना कडकडीत वत आशिल्ल्यान आमी बरोबर सत्री, कापेत कांयच व्हरूंक नाशिल्लें. वाटेर मदीं खंय तरी पावल्यां आसतलीं, व्हडलो वारो आनी पावस. आनी पावस तरी कसो... हे येदे मोठे थेंबे! फुडल्यानच्यान येवन तोंडार थाड-थाड थापटां भशेन बसपाक लागले. फातरांचे शेकरे कोणीय तोंडार शेवटून मारी ना, सामके तशेच. जिवाच्या आकांतान धावून आमी दोगांयनीय एकदाचो जीव शेतांत घातलो. हो थापटांचो पावस तकलेनच्यान केन्नाच वच्चो ना.

आनीक एक हळवी याद, अशीच पावसाकडेन बांदिल्ली. एके जिवा-भावाचे इश्टीणीची.. हांव धावेक आसतानाची. शाळा निकतीच सुरू जाल्ली. म्हाका आनी रोझीक एका बाकार बसयल्लीं. गुलाबा भशेन गोड दिसपी आनी तितल्याच म्होवाळ सभावाचें रोझी कोणागेर तरी कामांक आशिल्लें. तांणीच ताका शाळेंत शिकपाक घाल्लें.

शाळेचो दुसरो काय तिसरो दीस. एक नवें भुरगें आमच्या वर्गाक जॉईन जालें. रसिका ताचें नांव. ल्हान क्लास आशिल्ल्यान सगळे बांक भरिल्ले. नवे बांक दवरपाक जागोय नाशिल्लो. देखून कोणाच्या तरी बांकार तिसरें भुरगें म्हण रसिकाक बसोवपाक लागून टिचरीन क्लासाचेर नदर मारली. हांव तेन्ना सुकडो बोंबील आनी तातूंतल्या तातूंत हुशारूय बी. टिचरीन रसिकाक आम च्या बांकार बसपाक सांगलें. म्हाका सामको राग, राग आयलो. आमीच किद्याक जुळोवन घेवप आनी अडजस्ट करप? आतां आखडून बसचें पडटलें, बांकार बरोवपाक हातांक हात लागून त्रास जातले आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हटल्यार क्लास चालू आसतना, चोरयांनी डेस्कांत पुस्तक दवरून एनिड ब्लायटोनची सिक्रेट सेव्हन आनी हेर पुस्तकां वाचूंक मेळचीं नात. रोझी बाबडें म्हजे हे सगले थेर खपोवन घेतालें. आतां हाणें आनी टिचरी कडेन कागाळ केली जाल्यार? हांव पिसावलें.

रसिकाक त्रास करून कशें आमच्या बांका वयल्यान धांवडावन घालपाक



मेळटलें हाचें प्लॅनींग करपाक म्हजी तकली ओव्हरटायम कामाक लागली. बांकार बरोवपाचे जागेचेर ब्लेडीन लायनी मारून हांवें तीन वांटे केले. चुकून रसिका मातशें सुद्दां आमचे वाटेन आयल्यार हांव बोवाळ मारतालें. टिचरीन डिक्टेशन दितना एखादो शब्द आयकूंक चुकला म्हण रसिका आमच्या बुकांत पळयत जाल्यार हांव बेगीन बेगीन हातान आमचे कादेर्न धापून घेतालें.

एक दीस म्हजे तकलेंत एक अफलातून आयडिया आयली. तेन्ना आमी सगलीं व्हडल्या दांड्याच्यो सत्र्योच वापरतालीं. हांवेंन कादेर्नाच्या बऱ्या 10-15 पानांचे सामके बारीक-बारीक कुडके केले आनी इंटरवालाक रसिकाचे सत्रेंत भरून दवरले. त्या दिसा सकाळच्यान शिरंधरांचो पावस वोत्तालो देखून प्लॅन फेल जावपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. केन्ना एकदा इस्कोल सुट्टा अशें म्हाका जाल्लें. एकदाची बेल वाजली. रोझीचो हात धरून हांवें सगल्यांत पयलीं शाळे भायर धांव मारली. म्हजो प्लॅन फळादीक जातना म्हाका एकदम म्हऱ्यांत रावून पळोवपाचें आसलें. पावसाचे थंडसानीण हुडहुडी भरून, पोटाक चुरचुरीत भूक लागिल्ली. भुरगीं झुंडीनी, एकमेकांक चिड्डीत माड्डीत शाळेच्या अशीर मुखेल दारांनच्यान भायर सरतालीं. सत्री सांबाळीत, भुरग्यां मदल्यान वाट काडत येवपी रसिकाचेर म्हजें सगलें लक्ष लागून आशिल्लें. एकदाचें तें शाळे भायर रस्त्यार पावलें. दप्तर सांबाळीत ताणें सत्री फुलयली. भुरू भुरू करून ताचेर कागदाच्या कुडक्यांचो पावस पडलो. फोरसान व्हांवपी वाऱ्याक लागून कागदाचे कुडके हेर भुरग्यांचेरूय शिपुडले. जाळीमळीचीं सगळीं भुरगीं मजा पळोवन हासूंक लागलीं. मोहीम फत्ते जाली म्हण हांवें हांसत हांसत रोझी कडेन पळयलें. रडकुळ्या रसिका कडेन रोझी परतून पळयतालें. सगल्या भुरग्यां मुखार हांशें जालें देखून रसिकाचे दोळे भरून, झरझरून व्हांवताले. ताच्या तोंडाक पळयलें आनी म्हाका चर्र जालें. हांव कितलें चुकीचें वागलें हें लक्षांत येवन हांवूय न्हिन्नाळलें. हुमश्या हुमश्यांनी रडपी रसिकाक पळोवन म्हज्याय डोळ्यांतच्यान दुकां व्हावपाक लागलीं. आमच्या दोगांयच्या डोळ्यांतल्या दुकांनी भरसल्ल्या पावसाच्या उदका वांगडा म्हजी रसिका बददलची अढी व्हांवन गेली आनी म्हाका एक जिवाभावाची मैत्रीण गावली.

•••



यादिंचो पोसो

ज्योती
दत्तात्रय देशपांडे

# गोंय ते दादरा नगर हवेली-व्हाया बेळगांव आनी सिल्वासा!



**श्रीमती ज्योती दत्तात्रय देशपांडे** म्हळ्यार पुर्वाश्रमीच्यो मालू रघुवीर कामत. तांचो बापूय रघुवीर श्रीनिवास कामत हे गोंयच्या स्वातंत्र्यलढ्यांतले सेनानी आनी राजकैदी. ताका लागून ल्हान पिरायेचेरूच लेखिकेचेर गोंय मुक्ती चलवळीचो (त्या काळची जयहिंद चळवळ) प्रभाव पडलो. तांच्या बापायचे मित्र नामनेचे साहित्यकार रवीन्द्र केळेकार हांच्या मार्गदर्शना खाल वर्ध्याक महिलाश्रमांतलें शिक्षण, आचार्य विनोबा भावे हांच्या भूदान पदयात्रेंत सहभाग. अजूनय तांचें रासवळ वावरांत योगदान आसा. ह्यो आसात तांच्या जिवितांतल्यो कांय यादी खिस्ती खिस्तीनी...
पत्तो : परवरी-गोंय
मो: 9822176170

म्हजो लाव म्हणल्यार लोकसभेचें कामकाज हांवें लागशिल्ल्यान पळयलें. पं.जवाहरलाल नेहरू, अटलबिहारी वाजपेयी, एच.व्ही. कामथ, नाथ पै, नानासाहेब गोरे, बलराज मधोक हांचीं जोशपूर्ण भाशणां आयकलीं. अप्रील 1954 वर्सा हांव गोंयांत परत आयलें. बाबा अजून लेगीत कादयेंतूच आशिल्लो. तो 20जून 1954 क सुट्टलो म्हणपाची खबर आयली. पूण असल्यो वावड्यो जायते खेप उठिल्ल्यो आनी तो सुटुंकूच नाशिल्लो. तरीय ताणें एक कार्ड बरोवन कळयलें, आपूण 20 वेर येतां म्हूण! आमी सगळीं मडकय वाट पळयत रावलीं. त्या दिसा तो खऱ्यानीच आयलो. आजये सयत सगळ्यांचे खोशयेक शीम मेर उरली ना. पूण ती खोस चार-पांच दिसूच तिगली. एक दीस तो मडगावा आत्याक मेळून येतां म्हूण गेल्लो तो दोन-तीन दीस जाले आयलोच ना. त्या काळार फोन नाशिल्ले. चौथ्या दिसा म्हज्या आतेभावाचो रकाद आयलो की तो बेळगांव पावलो म्हण! गजाल कळ्ळी ती अशी, 1954 त लढो चड चालीक लागिल्लो आनी सुटून आयिल्ल्यांक ताबडतोब अटक जातली म्हणपाची सुलूस बाबांच्या लागशिल्ल्या वावुरप्यांक लागली. ताच्या कांय इश्टांनी ताका चोर वाटेन बेळगांवां वचपाचो सल्लो दिलो. फोन तर नाशिल्लेच. तरी बाबान चीट बरोवन आमकां घरच्यांक बेळगांवां आपयलीं. त्या वेळार बेळगांव वचपाक पासपोर्ट लागतालो. तो करून घेतलो आनी आई, हांव आनी लता बेळगावां गेलीं.

बेळगावां माणिकबाग रोडार म्हजी आतेभयण रावताली. तिच्या शेजराकूच आमकां एक घर पळोवन दवरिल्लें.

बेळगावां कितें करतलीं? हो एक प्रस्न आशिल्लोच. पूण वेळ होगडायनासतना बेर्ता मिनेझिस हांकां हिन्दी शिकावपाचें काम म्हाका मेळ्ळें. नोव्हेंब्र-देझेंब्र 1954 ची गजाल ती. त्याच काळांत

राजकीय कारणांक लागून डॉ.आंतोनियु फुर्तादो आनी तांची घरकान्न बेर्ता हांकांय गोंय सोडून बेळगाव येवंचें पडिल्लें. तेच तरेन गजानन देसायाचें कुटुंबय बेळगावां आयिल्लें.

मजगतीं दादरा-नगर-हवेली हो वाठार आझाद गोमंतक दलान स्वतंत्र केल्लो. पूण तो भाग आजून भारत देशाक जोडूंक नाशिल्लो. कित्याक तर पुर्तुगेझ रोखडोच आंतरराष्ट्रीय कोर्टांत गेल्लो. देखून निकाल ये मेरेन थंयचो सगळो वेव्हार आर्दी चलतालो तसोच चालू दवरप गरजेचें आशिल्लें. पर्थून हल्लो बी जायत हे भिरांतेन पुणे-मुंबय कडले लोक थंय वचूंक तयार नाशिल्ले. तशेंच थंयच्या प्रशासनांत पुर्तुगेझ भास जाणां आशिल्ल्यांची गरज आशिल्ली. अशे वेळार बाबांक थंय आफोवन व्हेलो. थंयच्या कोर्टांत तो इस्क्रियांव (रजिस्ट्रार) आनी हांव टायपीस्ट म्हूण नोकरेक लागलीं.

एकंदर आमचें कुटुंब विस्थापितांवरीं जाल्लें. भाव त्रिविक्रम बेळगांवां कॉलेजींत शिकतालो. हांव, बाबा, आई आनी लता सिल्वासाक आयलीं. हंसा मावशेगेर शिकपाक राविल्लें. तें आनी आजी आजून गोंयांतूच आशिल्लीं. कांय म्हयन्या उपरांत परमिटाची बी खटपट करून तांकां सिल्वासा हाडलीं.

हांव 31 देझेंब्र,1954 ह्या दिसा कोर्टांत कामार रुजू जालें.

दादरा-नगर-हवेली हो वाठार सुटके झुजाऱ्यांनी मुक्त केल्लो. भारत सरकाराचें ताका फाटबळ आसलें. दमण हो वाठार सामको अठरा मैलांचेर आशिल्लो तरी पुतुगेझांक पर्थून हल्लो करूंक ये नासलो. कित्याक तर दमण आनी दादरा-नगर-हवेली हांचे मदलो भाग गुजरात राज्याच्या वापी, लवाछा, डुंगरा ह्या गांवांनी व्यापिल्लो. प्रत्यक्ष सैन्य हाडप शक्य नासलें तरी आपणाल्या हिसकावन घेतिल्ल्या वाठारांत वचपाक आपणांक वाट दिवंची असो पुर्तुगालान भारता आड आंतरराष्ट्रीय न्यायालयांत दावो केल्लो. ताचो निकाल ये मेरेन दादरा-नगर-हवेलीचें शासन चलूंक जाय आशिल्लें. तसो निर्णय भारत सरकारान घेतिल्लो. ते पासत पुर्तुगेझ भास जाणा आशिल्ल्यांची थंय गरज आशिल्ली. थंय आशिल्ल्या सगळ्या कर्मचाऱ्यांक मागीर आसपावन घेतले. कांय जाणांनी सत्तांतर आयलें म्हूण दमणाक आनी गोंयांत वचप पसंत केलें. हांव आनी बाबा थंयच कोर्टांत रुजू जालीं. थंयचे जुईज म्हूण बॅरिस्टर आंतोनियु फुर्तादो हांची नेमणूक जाली. सिव्हिल अॅडमिनिस्ट्रटर त्या काळार सुटके झुजारी आप्पा सरमळकार आशिल्ले.

हांगा मुजरत एके गजालीचो आवर्जून उल्लेख करचो दिसता ती म्हणल्यार प्रत्यक्ष सशस्र लढ्यांत वांटो घेवन वाठार मुक्त करून दिल्ले विश्वनाथ लवंदे आनी प्रभाकर सिनारी, प्रशासनाच्या हातांत सत्ता दिवन आपलो भूमिगत लढो सुरू दवरूंक परत गेल्ले. इतलीं निसुवार्थी मनशां मेळप आतां भोवच कठीण!

मुळाव्या स्तराचेर म्हजें पुर्तुगेझ शिक्षण जाल्लें आसलें तरी म्हाका भाशेचो सराव नाशिल्लो. पूण जुईज आनी म्हजो बाबा हांच्या मार्गदर्शना खाल हांवें भाशेचेर प्रभुत्व मेळयलें. स्वता कश्ट घेवन टायपिंगांत फिशाल जालें. ही जाली ऑफिसाची भास.राजधानी सिल्वासा आनी हेर सुवातेर गुजरातीचोच वापर आसतालो. ताका लागून [illegible] गुजराती भासूय आत्मसात केली. आमचे वांगडा आनीकूय कांय गोंयकार आशिल्ले.तातूंत मुखेलपणान आंतोनियु फुर्तादो, डॉ.एसमिना गोमीस (डॉ.मार्टिन्साची घरकान्न) अॅड. क्रिस्तोवांव फुर्ताद (सुरेंद्र फुर्तादाचो बापूय), शालिनी फळदेसाय, व्यंकटेश गोपाळ प्रभू, राजाराम गोवेकार बी हे सगळे आशिल्ले.

कोर्टांत म्हाका टायपिंगे भायर इंटरप्रिटर म्हणल्यार दुभाशाचें काम करचें पडटालें. कित्याक तर जुईजाक पुर्तुगेज भास येताली आनी कोर्टांत थळाव्या लोकांचे खटले चालू आसतना तांची भास गुजराती वा वारली आसताली. ताका लागून तपासणी, उलट तपासणी ह्या वावरांत दुभाशाचें काम म्हजेर आसतालें.

ऑफिसाच्या वावरांत थिरावल्या उपरांत बाबा आनी हांव समाजकार्याचो विचार करूंक लागलीं. पुर्तुगेझ शेका तळा आशिल्ल्यान आनी हो वाठार गांवगिरो आशिल्ल्यान हांगचीं बायलां चडशीं भायर सरऽ नाशिल्लीं. कांय शिक्षिका आनी एक दोन सुशिक्षीत बायलांचे मजतीन थंय महिला मंडळ सुरू केलें. प्रौढ साक्षरता वर्ग, हरिजन वस्तींत कार्य, बालवाचन मंदीर सुरू केलें. ह्या म्हज्या वावरांत बेर्ता मिनेझिस ब्रागांझांचें बऱ्याच पयकी फाटबळ आसलें.

ह्या वाठारांत क्रिस्तांव समाजांत पुर्तुगेझ

उलोवपाची आनी पुर्तुगेझ शिकपाची प्रथा आशिल्ली. थळावे हिंदू लोक आपल्या भुरग्यांक गुजराती शाळांतल्यान शिक्षण दिताले. क्रिस्तांव समाजांतले लोक गोंयच्या लोका प्रमाण पोटा पाणयां पासत मुंबय वा तसल्याच शारां कडेन वताले. ताचे पासत इंग्रजीचें गिन्यान गरजेचें आसतालें. इंग्रजीचें शिक्षण घेवपाकय तांकां भायर वच्चें पडऽ. कांय प्रतितिशठीत नागरिकांचे विनवणेक मान दिवन हांवें कांय म्हयने क्रिस्तांव भुरग्यां पासत इंग्रजी भाशेचे वर्ग घेतले. कालांतरान सरकारी स्तरार इंग्रजी- मराठी शिक्षण सुरू जालें.

1954 ते 1962 ह्या काळांत आमचें कुटुंब दादरा-नगर-हवेली हांगा रावतालें. हो वाठार बलसाड म्हालाच्या लागसार आशिल्लो. बलसाड हो सूरत जिल्ह्याचो भाग. आचार्य विनोबा भावे त्या काळार गुजरात दौरो करताले. त्या दौऱ्या आर्दी बेडछी, बारडोलीच्या गांधीवादी फुडाऱ्यांनी त्या जिल्ह्याच्या खेडेगांवांतल्यान भूदान-पूर्व तयारी करपाक, तशेंच खेड्यांनी प्रचार करपाक कार्यकर्ते आनी आपवावुरपी तयार केल्ले. अश्याच एका पंगडांतल्यान पदयात्रेची पूर्वपिठीका तयार करपाच्या वावरा पासत लता आनी हंसा हांकां बाबान धाडलीं. कोसंबा, चलयाण, दामदोड, कलोल अश्या खूबच गांवगिऱ्या वाठारांत थळावे कार्यकर्ते आनी आपवावुरप्यां वांगडा ह्या दोगांनीय काम केलें. तांणींय वेगवेगळे अणभव घेतले.

ऑफिस कामाचो व्याप सांबाळून हेर कामाय करपाक हांवें फुडाकार घेतलो. शेजारच्या सूरत जिल्ह्यांत आनी उंबरगांव



जिल्ह्यांत महिला आनी बालकल्याण शिबिरां आनी संमेलनात वांटो घेवप, तशेंच मढी, बारडोली, व्यारा ह्या सर्वो दयी आश्रमांतल्या उपक्रमांनी वांटेकार जावप अश्यो कितल्योच गजाली चलताल्यो. बलसाड म्हालांत पार्डी ह्या गांवांत पं. श्रीपाद सातवळेकर हांची आश्रमसंस्था आशिल्ली. पं. सातवळेकर हे संस्कृतचे पर्कांड पंडित. तांणीय स्वाध्याय मंडळ, पार्डी सुरू केल्लें. थंय हांव, प्रकाश प्रभू आनी म्हजी आतेभयण नलू बी तिगांनीय संस्कृतची प्रथमा परिक्षा पंडितजींच्या मार्गदर्शना खाल दिली आनी विशेश प्राविण्या सयत पास जालीं. तशेंच गुजराती भाशेची परिक्षाय पास जालें.

वापी शार दमण बॉर्डरीर आसा. थंय आझाद गोमंतक दलाचे विश्वनाथ लवंदे आनी प्रभाकर सिनारी येताले. बाबांचो तांचे लागीं संपर्क आसतालो.

गोमंतक मराठी संमेलन, गोवन पोलिटिकल कन्वेन्शन (Goan Polituical Convension), गोंय सुटके लढ्या संबंदी आझाद गोमंत दलाच्यो बसका, नॅशनल कॉंग्रेस गोवा(National Congress Goa) आनी पक्षांच्या जोड बसकांक उपस्थीत रावतालें. रवीन्द्र केळेकार हांच्या गोमन्त भारती कोंकणी साहित्याचो प्रचार करपाचो वावरूय केलो. वर्ल्ड पीस कावंशीलचे (World Peace Council) परिशदे पासत दिल्लीक गेल्ल्या शिष्टमंडळांत म्हजो आसपाव आशिल्लो. तशेंच आफ्रो ऑशियन सोलिडारीटी कन्फरन्स(Afro Asian Solidarity Conference) मुंबय आशिल्ली. थंयीय उपस्थीत आशिल्लें. सर्गेस्त टी.बी कुन्हा हांणी बरयल्लें गोवन फ्रीडम स्ट्रगल(Goan Freedom Struggle) ह्या ग्रंथाची प्रत जवाहरलाल नेहरू हांकां डी.डी. कोसंबी हांच्या हस्तुकी दिवपा पासत एक पंगड गेल्लो. तातूंत बेर्ता मिनेझिस ब्रागांझा, फादर मस्कारेन्यस,जॉर्ज वाझ, विश्वनाथ लवंदे हांचे वांगडा हांवूय आशिल्लें.

दादरा आनी नगर हवेली हांगा

रावतालीं त्या काळांत राजकी परिस्थितीक लागून आमकां गोंयांत वचपाक सक्त मनाय आशिल्ली. अश्या वेळार अडीअडचणीक आमच्या मुंबयच्या सोयऱ्यांनी आमकां खूब मजत केली. वैजकी उपचारां पासत वा राजकीय बसकां पासत आमचे मदलो कोणूय मुंबयआयलो काय आमकां आश्रय दिला तो पै धुंगट परिवारान. मुक्ताबाय धुंगट आनी तिच्या घरकारान आमकां खूब आपलेपणान वागयलीं.

नगर हवेलींत वसणुकवादा आड जाल्ल्या सभांचे वृत्तांत आनी हेर बातम्यो हांव फ्री गोवा(Free Goa) ह्या पाक्षिकाक धाडटालें. हें पाक्षिक टी.बी. कुन्हा मुंबय सावन चलयताले. 1958 त तांच्या मरणा उपरांत फ्री गोवा(Free Goa) बेळगांवच्यान बेर्ता मिनेझिस ब्रागांझा हांणी चालू दवरलें.

मुंबय आकाशवाणीच्या कोंकमी विभागा पासत नगर हवेली बातमीपत्र म्हजे कडल्यान वतालें. सिल्वासाक कोर्टांत नोकरी करतना खासगी तरेन हांव पीटमन्स शॉर्ट हॅन्ड(Pitman's Short Hand) चें शिकप घेतलें आनी मुंबय परिक्षा दिली. इतले मजगतीं भारत आनी पुर्तुगाल हांचे मर्दीं हेग हांगा कोर्ट चालूच आशिल्लें. भारता वतीन अॅड. सेटलवाड केस लढयताले. तांकां लागपी खूबशे दस्तऐवज पराष्ट्र वेव्हार मंत्रालयाक (Ministry Of External Affairs) दादरा नगर हवेली सरकारा कडल्यान वताले. डॉ. आंतोनियु फुर्तादो हें सगळें काम करताले. टायपींगचें सगळें काम हांवें केलां. ऑफिसाच्या कामां उपरांतय हें काम कांय म्हयने चलतालें. दादरा-



नगर-हवेली स्वतंत्र जालें आनी तें तशेंच उरचें आनी तो भारताचोच एक भाग आसा हें सिद्ध करपा पासत जाल्ल्या ह्या वाठारांतल्या नागरिकांच्या कितल्याच सभांचो वृत्तांत म्हजे कडल्यान टायप जावन एमइएक (MEA)गेल्यात. पणजेच्या पुरातत्व खात्यांत (Archives) हेग कोर्ट केस(Hague Court) संबंदी जो ग्रंथ आसा, तातूंतले कितलेच संदर्भ म्हज्या हातांतल्यान गेल्यात. तें पळयलें काय म्हाका समाधान भोगता.

हेग कोर्टाचो निकाल भारता वटेन लागलो. थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार पुर्तुगेजांक भारताचे हद्दींतल्यान दादरा नगर हेवेलींत वचपाचो हक्क न्हयकारलो आनी हेर खूबश्या दस्तऐवजांतल्यान हो वाठार प्रत्यक्षांत पुर्तुगेज साम्राज्याचो नाशिल्लोच हें सिध्द जालें. ह्या निकाला उपरांत भारत सरकारान 'दादरा नगर हवेली' हो वाठार भारताचो भाग म्हण सगळे सोपस्कार करपाचो मार्ग मेकळो जालो आनी ते प्रमाण 11 आगोस्त 1961 क लोकसभेंत दादरा नगर हवेली युनियन टेरेटरी अॅक्ट (Union Teritory Act.) पास जालो. त्या खाला हो वाठार भारताचो संघ प्रदेश (Union Teritory) जालो तो आतां मेरेन आसा. ह्या बदलाक लागून सगळे कायदे लागशिल्ल्या गुजरात राज्या प्रमाण बदल्ले.

ताका लागून कोर्टाची पद्दत पूण ट्रायल कोर्ट (Trial Court), सेशन कोर्ट अश्या पावंड्यांची जाली.हांवें ह्या नव्या कामकाजाची पद्दत रोखडीच आत्मसाथ केली.

कोर्टाचो तिसरो पावंडो म्हणल्यार अपिलेट कोर्ट (Appelate Court). येद्याश्या प्रदेशांत उच्च न्यायालय(High Court) उबारप शक्यच नाशिल्लें. ताका लागून हाय कोर्टाचो बॅन्च (Bench) म्हणल्यार दोन जुईज सप्तकांत एक दोन खेप येताल. सुनावणी चलताली. ह्याय कोर्टांत टायपींग आनी दुभाशीची(Typing & Interpreter) जापसालकी म्हजेर आशिल्ली.

भारताचो वांटो जाल्ल्यान प्रशासनांत आयएएस अधिकारी आयले. तांच्या हाता खाल वांट्याक येता तीं कामां केलीं. उत्कृश्ट काम केलां अशी तुस्त आयकतकच समाधान लाबतालें.

आनीक एक घडणूक घडली ती अशी. दादरा-नगर-हवेली हो वाठार भारताचो एक वांटो जाल्ल्यान त्या वाठाराचो एक खासदार लोकसभेंत आसप गरजेचें आशिल्लें. आरंबाक अशें खासदार नेमताले. सोनजी रुपजी हे घोडिया जमातींतले व्यक्तीची खासदार म्हूण नेमणूक जाली.तांकां गुजराती सोडून हेर खंयचीच भास कळऽनासली. तांचे वांगडा दिल्ली वतलें काय म्हूण प्रशासनांतल्या आयएएस अधिकाऱ्यांनी म्हाका विचारलें. थशें हांव मातशें खांकुडटालें. पूण बाबान म्हणलें,'वच, तूं हें काम ज्युस्त करतलें!' खासदारांचे लागशिल्ले इश्ट वांगडा आशिल्लेच. पूण तांकां हिन्दी, इंग्रजीचें तितलें शें गिन्यान नाशिल्लें. आमची रावपाची वेवस्था बलसाडच्या एका खासदाराच्या दिल्लीच्या राबित्यांत केल्ली. खासदारांक येवपी दरेक ॲजेन्डा, आमंत्रण हेर पत्रवेव्हारांचें गुजराथी टाचण हांव तांकां जीव घालून म्हणटात तशें करून दिलें.

म्हजो लाव म्हणल्यार लोकसभेचें कामकाज हांवें लागशिल्ल्यान पळयलें. पं.जवाहरलाल नेहरू, अटलबिहारी वाजपेयी, एच.व्ही. कामथ, नाथ पै, नानासाहेब गोरे, बलराज मधोक हांचीं जोशपूर्ण भाशणां आयकलीं. नानासाहेब गोरे आनी नाथ पै हांची वळख जाली. नाथ पै उपरांत आमच्या घरा वास्को आयिल्लो. पुरुषोत्तम काकोडकारूय त्या काळांत दिल्लीच आशिल्ले.

लोकसभेंत प्रेक्षकगृहांत (Visitor's Gallery) बसून काम काज पळोवपाचो अणभव तर सामको वेगळोच आशिल्लो. हिन्दी, इंग्रजी कशेय उलयले तरी म्हाका प्रस्नूच नाशिल्लो. पूण आमच्या खासदार महाशयांक समजना तसलीं भाशणां आयकुपांत रस नासतालो. ताका लागून बशिल्ले सुवाते वयल्यान खूण करून भायर सरताले. तांणी म्हाका सांगून दवरिल्लें, 'तुका जाय तितलीं भाशणां आयक, मागीर यो.' परकें शार, एकटें वच्चें पडटा म्हण हांवें रस्तो बऱ्या पयकी पाठ करून दवरिल्लो.

योगायोगान रवीन्द्रबाब केळेकार आनी गोदुताई दिल्लींत सन्निधी राजघाट हांगा काकासाहेब कालेलकरांच्या राबित्यांत आयिल्लीं. मदीं हांव तांकां मेळून आयलें. गोदुताईक बरें



दिसनाशिल्लें. देखून म्हजें काम सोंपल्या उपरांत (लोकसभा सोंपतकच) थोडे दीस मुक्काम वाडयलो आनी तांचे वांगडा रावलें. पांच-स दिसां उपरांत डॉ. मयेकार हांचे वांगडा सिल्वासाक परतलें.

1961 नोव्हेंब्र. सिल्वासाक परततना व्हडा मुश्कीलीन ट्रेन मेळ्ळी अशें डॉ. मयेकारान म्हणलें. कारम समजलें. गोंय बॉर्डरीचेर कांय हालचाली चलिल्ल्यो. कसलोच बोवाळ करी नासतना खूबश्यो ट्रेनी मुंबयचे दिकेन सैनिकांक व्हरपाक गुंतिल्ल्यो. त्या दिसांनी किर्ते तरी घडटलें म्हणपाची सुलूस लागिल्ली. पूण नेमकें किर्ते हें समजुपाक मार्ग नाशिल्लो.

सिल्वासाचो एक रहिवासी बाबुभाई राणा हांचे कडेन लवंदे आनी सिनारी अर्दी मर्दी येताले. गोंय दमण बॉर्डरीचेर वेगळ्यो हालचाली जातात म्हणपाची खबर तांणी दिली. देझेंब्राच्या दुसऱ्या सप्तका सावन आमी रेडिओक कान लावन बसतालीं.

अखेरेक 18 देझेंब्राच्या सांजवेळ सावन भारतीय सैन्यान गोंयांत प्रवेश केलो. खंय खंय पावले, खंयचे पूल उडयले, सगळ्यो बातम्यो येताल्यो. 19 देझेंब्र 1961 दिसा दनपरां पणजे तिरंगो बावटो उबयल्ल्याची खबर रेडिओर आयली. ऑफिसाचो दीस आशिल्लो. प्रशासकाच्या (Administrator) ऑफिसा सामकारूच अर्दे वराची सभा घेवन सगळ्यांनी खोस उक्तायली. कितल्याच वर्सांचें आमचें सपन फळादीक जाल्लें. आतां आमकां गोंयांत वचूंक मेळटलें ही आंतरीक खोस आशिल्लीच!

•••

तेफळां



प्रा. डॉ. वामन रा. नायक

# कॉलेज प्राध्यापक



**डॉ. वामन रा. नायक** [illegible] महाविद्यालयांत फाटलें [illegible] प्राचार्य म्हूण वावुरतात. ते क[illegible], कविता, आनी ललित सा[illegible] सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळें चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.

पत्तो : रुद्रमहिमा, प्लॉट न.11, वेर्णेकर स्मृती, मेरशी, पोस्ट सांताक्रूझ, गोवा 403005.

मो: 9527744990

इतलीं वर्सां कॉलेजांत वावरताना, वेगवेगळे विद्यार्थी शिकून गेले. अभ्यासांत तशेंच अभ्यासा भायर वेगवेगळ्या उपक्रमानी विद्यार्थ्यां वांगडा वावरताना मनाक धादोसकाय जाताली. पयलीं परस आतां प्राध्यापकांक खूब बरो पगार आसा, कामाच्यो सेवा सर्ती खूब बऱ्यो आसात.

सुमार १९७८ च्या ऑक्टोबरांत एम. ए. चो निकाल लागतुकूच, कॉलेजांत म्हाका नोकरी मेळत काय म्हूण हांव सोदांत आसलों. तेवेळार गोंयांत कॉलेजी साप उण्यो आसल्यो. पणजेच्या आल्तीनोवेल्या लायसिएमचे बिल्डिंगेत डेम्पो कॉमर्स कॉलेज आसली. तांची एक जायरात पेपरांत आयिल्ली, तांकां अर्थशास्त्र शिकोवपाक लेक्चरराची गरज आसली. वेळ होगडायनासतना हांवें अर्ज केलो आनी म्हाका 4 देझेंब्राक इंटरव्हिवचो कॉल आयलो. ते वेळार कॉलेजचे प्राचार्य आसले, स.प्रा. बी. के. आचार्य, कारवारी कोंकणी मनीस. त्या भायर पॅनलात आसले अर्थशास्त्र विभागाचे मुखेली प्रा.शशिकांत सरदेसाय आनी वरिष्ठ प्रा. एस. डी. एस. भेंडे. तेन्ना म्हाका शिकोवपाचो थोडो अणभव आसलो, तेन्ना हांव 'सेंट ॲन्स' थिवींत शिकयतालों. म्हाका पळायना फुडें प्राचार्यान म्हळें, "तुजी पर्सोनालिटी पळोवन म्हाका कपील देवाची याद जाता." आनी ईस्ट इंडिज खेळगड्या विशीं एक प्रस्न विचारलो. म्हाका नांव याद जायना जालें. पूण हांवें म्हळें, "म्हाका नांव याद जायना, तें एका फिल्माचें नांव आसा–कालिचरण." तें आयकनां फुडें सगले हांसपाक लागले. मागीर ताणी कांय प्रस्न विचारले आनी निवड जाल्यार बेगीन जॉयन जावंचें पडटलें म्हूण सांगलें. एक दोन दिसां भितर म्हाका प्रा. अशोक कामत हांचे कडल्यान निरोप आयलो म्हजी निवड जाल्याची आनी प्राचार्याक मेळपाचो. दुसऱ्या दिसा प्राचार्याक मेळतुकूच ताणी सांगलें. सद्या हो पोस्ट टेम्पररी आसा. फुडल्या वरसा वर्कलोड चड करून आसतलो. तुमी एक नोकरी सोडून येता हें आमकां खबर आसा. देव बरें तें करतलो." इतल्या म्हणसर पणजेच्या इगर्जेची घाट जाली. "हें पळे घाट जाल्या. तूं रुजू जा!" ते प्रमाणे हाव 8/12/78 ह्या दिसा रुजू जालों. म्हजे पयलीं दोग जाण त्याच पोस्टाचेर जॉयन जाल्ले. ते एक ना एक कारणान मदींच सोडून गेल्ले.शारांतले विद्यार्थी हुशार आसतात. तेन्ना बस दरवाडींत सवलत मेळची आनी हेर मागण्यां खातीर विद्यार्थी आंदोलन करताले. शिक्षणिक वातावरण बऱ्याच प्रमाणांत

इबाडलेलें. व्हडा विश्वासान हांवें निर्णय घेतिल्लो. कॉलेजींत लेक्चरराक जाय अशिल्ले बरेच गूण म्हजे कडेन आसात, हें हांव मानतालों. पूण वातावरण नवें आसलें. कामाची पद्दत नवी आसली. प्रा. अशोक कामत आनी श्री. नरसिंह गावणेकार, सी. ए. सोडल्यार हेर सगले वांगडी नवे आसले. म्हजी इंग्लिश बरी आसली. क्लास कंट्रोल जातलो हाची म्हाका खात्री आसली. पूण त्या भायर बऱ्योच गोष्टी लागतात. विशयाचें ज्ञान आनी अभ्यास आसूंक जाय. विशय सोपो करून सांगप, विशयाची गोडी निमर्ण करप आनी शिकोवपाची कुशळटाय आसपाक जाय, भुरग्यांक आपलेपणान वागोवंक जाय. बऱ्योच गोष्टी हांव मगीर शिकलों. कॉलेजींत प्राध्यापकाची नोकरी मेळिल्ल्यान मन खोशयेन भरून गेलें. ते वेळार गोंयांत एकूच कॉमर्स कॉलेज आसली, गोंय भरसून विद्यार्थी येताले पणजेंत. म्हाका अपॉइंट केल्लो लेक्चरर इन इकॉनॉमिक्स. म्हजो चडसो वर्कलोड आसलो एफ.सी.चो. जो इंटर डीसीप्लिनरी पेपर– बऱ्याच विशयांचो आस्पाव आसलो. म्हजें पयलें लेक्चर आसलें 'जाती धर्माचें बदलतें स्वरूप'. हांव व्हडा उमेदीन आनी आत्म विश्वासान भितर सरलों.पळेत जाल्यार क्लास भरिल्ली. पयल्या वर्सा खातीर जरीय लेक्चर आसलें, तरीय घडये नव्या टिचराक पळोवपाक, आयकुपाक वयल्या वर्गातले विद्यार्थी येवन बशिल्ले. विशय सोपो आसतुकूच विद्यार्थी तो सिरीयस घेनात, आनी विशय कठीन आसतुकूच सामान्यपणान विद्यार्थी तो सिरीयस घेतात. लेक्चर सुरु जातुकूच कांय प्रमणांत चुळबूळ सुरु जाली. actions speak louder than words. हावें नदर भोंवडायतकच, जे उलयताले ते मखख जाले. म्हज्या दोळ्यांची भाशा तांकां कळटा, हें म्हाका समजलें. कायद्यान समाज बेगोबेग बदलना, ताका लोकांचें सहकार्य जाय आसता. लोक आपली मनोवृत्ती सोडीनात. एके कमी जातीचे चलये कडेन लग्न केल्ल्यान, लोकांनी तांची धिंड कशी काडली, पेपरांनी त्या दिसांनी आयलेली खबर वाचल्या काय म्हूण विचारलें. तांचें मत जाणां जावपाचो यत्न केलो. तांकां कांय प्रस्न केले. जांणी बरी जाप दिली तांकां शाबासकी दिली. भुरग्यांक इनवोल्व केल्ल्यान ताचो फायदो जालो आनी म्हाकाय एक सारकें उलोवंचें पडलें ना आनी लेक्चर सोपलें. वर्गातल्यान भायर सरता जाल्यार, प्रिन्सिपॉलसर मन लावन आयकताले. नोटीस वाचपाच्या बहाण्यान. बरो यत्न केल्ल्या बद्दल तांणी म्हजें अभिनंदन केलें, आनी म्हाका आपल्या कॅबिनांत आपयलो. हांव डिसेंबर म्हयन्यांत जॉयन जाल्लों. त्या म्हयन्यांत शाळा कॉलेजांनी बरेच कार्यक्रम आसतात. जेन्ना हांव जॉयन जाल्लों तेन्ना विद्यार्थ्यांचो संप आसलो 50% बस सवलती खातीर. म्हणून बऱ्याच वेळार लेक्चर जायनासलीं. म्हाका लेक्चराची तयारी करपाक वेळ मेळटालो. डिसेंबर म्हयन्यांत कॉलेजचें गेदरिंग जाता. पयलेंच गेदरिंग जाल्ल्यान तें कशें जातलें हं विशीं उत्सुकताय आसली. तातूंत प्राचार्याचो रिपोर्ट आसता. कागदाचो कुडको वा चिटारो घे नासतना अहवाल सांगपी प्राचार्य हांवें पळोवंक ना. स.आचार्य सराचो तो अहवाल सगलेच जाण मंत्रमुग्ध जावन आयकताले. वर्स भराच्या कार्यक्रमाचो अहवाल असो याद दवरून धडाधड आडखळ नासताना सांगप म्हळ्यार पोरखेळ न्हय. व्हडले व्हडले नट लेगीत नाटकांत पार्ट करताना खूब खेपो ब्लॅन्क जातात.

दुसऱ्या दिसा प्राचार्यान गेदरिंग कशें जालें काय म्हूण चवकशी केली. हांवें घडलेली घडणूक सांगली. म्हजे कुशीक बशिल्ले प्रा. डिलिमाक तुमची अहवाल सादर करपाची पद्दत खूब आवडली, म्हूण सांगलें. म्हाका खबर नासलें प्रा. डिलिमा आमच्या कॉलेजांत, थोडो तेंप शिकयतलो म्हूण. तांच्या अभिप्रायान सरांक खूब बरें दिसलें. तें अकॅडेमीक वर्स सोपतुकूच प्रा. दत्तात्रय भेंडे कारभारी प्राचार्य जाले. म्हाकाय, मुखावेल्या वर्सा खातीर काम करपाक मेयळें. म्हजी सर्विस चालू उरली. डेम्पो कॉमर्स ही वाणिज्य शाखेंतली पयली कॉलेज. देखून काणकोण, मडगांव पासून साखळे, पेडणे अश्या पयसुल्ल्या वाठारांतल्यान विद्यार्थी येताले. बिचोली, साखळे सावन येवपी कॉलेज जातुकूच घरा वताले. पयस रावपी सोयऱ्यांगेर ना जाल्यार खाजगी हॉस्टेलांत रावताले. तेन्ना एका क्लासांत शंबर –सवाशें विद्यार्थी आसताले. सगले भुरगे लेक्चराक बसले जाल्यार तांकां हॅन्डल करप मात्शें कठीन जातालें. केन्ना केन्ना उलयतालो वा मस्ती करतालो एकलो आनी दुसऱ्याकूच उबं करप जातालें. कांय वसां पयलीं असोच साखळेच्या विक्रांत पांगमाक हांव सेगीत क्लासांत उबो करतालों, आनी प्रस्न विचारतालों. म्हाका तेन्ना दिशिल्लें तो गडबड करता म्हूण. मगीर, असोच एक दीस म्हाका ताचो वर्गमित्र श्री. राजाराम उर्फ श्रीपाद पै म

ळ्ळो. ताणें सांगलें, 'तुमी उगीच पांगम ाचो दुबाव घेतात, उलयतात भलतेंच.' आनी हांवें पांगमाचो दुबाव घेवप बंद केलें!. ते वेळार गोंयच्यो कॉलेजी मुंबय विद्यापिठाक संलग्न आसल्यो, देखून, दर एके मान्यताये खातीर मुंबय विद्यापिठाचेर अवलंबून रावचें पडटालें. सुमार 1985 त गोंय विद्यापीठ स्थापन जालें, आनी मुंबय विद्यापिठा कडेन आमचें नातें सोंपत आयलें. हाचे सुर्वे क फायदेय आसले आनी तोटेय. सुर्वे क कांय जाण गोंय विद्यापीठाक कमी लेखताले. मुंबय विद्यापीठ आंतरराष्ट्रीय नामना जोडिल्लें अशें मानताले. पूण मुंबय विद्यापीठ पयस आसलें. मुंबय विद्यापिठाचोय व्याप वाडिल्लो, कॉलेजी वाडलेल्यो आनी तांचें संचलन करप विद्यापिठाक कठीन जातालें.प्रशासकीय थरार अडचणी येताल्यो.देखीक, म्हजी पयली नेमणूक जाल्ली 1978त. दुसरी मुलाखत जाल्ली दोन वर्सां उपरांत, पूण वि. सी. चो नॉमिनी येवूंक नाशिल्ल्यान पुराय मुलाखतीचो प्रोसेस बाद जाल्लो. मागीर 1982त परत पोस्ट ऍडव्हरटायझ जाल्लो. इतले मजगती म्हजें लग्न जावन हांव फिरूंक वतलों, म्हूण हांव प्रिन्सिपॉलाक सांगूक गेल्लों, तेन्ना तांणी म्हजो पोस्ट ऍडव्हरटायज जातलो हाची कल्पना दिली. मागीर थारिल्ल्या प्रमाण म्हजी मुलाखत जाली. इंटरव्यूक गोंयचो वा गोंयां भायलो कोण आयलो ना. कित्याक ताका घडये खबर आसलें हांव चार वर्सां सावन शिकयतां आनी म्हाका प्राधान्य मेळूं ये. मुलाखतीक हांव एकटोंच अशिल्ल्यान मुलाखत बेगीन जातली अशें दिशिल्लें. पॅनलांत आठ णव वांगडी आसले. चडश्या जाणांक हांव वळखतालों. सबजेक्ट एक्स्पर्ट आसले, प्राचार्य माधवसर कामत आनी म्हजे टिचर आनी विद्यापि ठाचे प्रा. डॉ. अनिलसर पडोशी. तांणी बरेच प्रस्न विचारले आनी तातूंत एक आसलो, पी.एच.डी. कित्याक करूंक ना म्हूण. हेरांनी चडशें कांय विचारलें ना. तेन्ना म्हजे एच. ओ. डी. आसले प्रा.शशिकांत सरदेसाय, तांचो टर्न येतकीर तांणी सांगलें, हांव फाटलीं कांय वर्सां शिकयतां आनी कांय विचारपाचें ना म्हूण सांगलें. अशे तरेन बरीच तयारी करपाक मेळिल्ल्यान इंटरव्हयुव बरी जाली. लेक्चराची तयारी करप ही म्हत्वाची आसता.थशश्रश्र शिरिशिव ठी ठी हरश्रष वेपश, अशी इंग्रजींत म्हण आसा. म्हज्या कांय टिचरांनी म्हाका कशे तरेन शिकयल्ले, तांचें जें म्हाका बरें दिसलें तें आपणांवपाचो यत्न केलो.विषयाचो स्कोप बरे तरेन जाणा जावंक जाय. आपले विचार विद्यार्थ्यां मुखार कशे मांडप, उलोवपाची भास ही पुस्तकांनी वापरिल्ले भाशे परस वेगळी आसपाक जाय, विषय सोपे तरेन मांडप भोव कठीन. म्हत्वाचे मुद्दे सवकासाय्ेन मांडपाक जाय. लेक्चरांत नोट्स दिवप समा न्हय. आपले नोट्स परिपूर्ण वा अपडेटेड आसपाक जाय. टिपणां संदर्भा खातीर लागीं आसचीं. सद्या इंटरनेट आनी हेर माध्यमांक लागून, बऱ्योच सुविधा आसात, ताचो योग्य वापर केल्यार शिकोवपाक ताचो फायदो जाता, आनी त्रासूय वाचतात.वर्गात वेगवेगळे तरेचे विद्यार्थी आसतात. हुशार विद्यार्थी फकत लेक्चरार अवलंबून आसनात. चड गरज आसता ती अभ्यासांत फाट आशिल्ल्या विद्यार्थ्यांक. हे फाटभूयचार प्राध्यापकांनी समजिकाय दाखवप गरजेचें. कोणेंय कुशिकच्या कडेन कळना त विचारल्यार दुर्लक्ष करूंक जाय. हें नव्या शिकोवप्याक कळपाक वेळ लागता. सुर्वेक कोणूय उलयल्यार म्हाका तिडक येताली. म्हाका राग येतालो. मागीर दोळे मोटे करप, ताका पळयत रावप. खरें म्हळ्यार शिकोवप्याक सहज राग येवंक फावना. ऍरीस्टोटलान एकेकडेन म्हळां, रागार जावप सोपें आसता, पूण तें योग्य व्यक्तीचेर, योग्य कारणा खातीर आनी योग्य प्रमाणांत, योग्य पद्दतीन रागावप कठीन आसता. ताणें म्हळां. शिक्षक हो जीणभर विद्यार्थी आसता. म्हजो सेगीत अभ्यास चालू आसा. पदव्यूत्तर कोर्स जातुकूच म्हाका कायद्याचें शिक्षण घेन शें दिसलें. तातूंत मुळावें शिक्षण घेतलें. ताचो उपेग म्हाका संविधानाच्या कांय दुरुस्त्यांचो कोंकणींत अणकार करपाक, आनी हेरकडेन जालो. त्या उप्रांत म्हजो पी. एच. डी. चो अभ्यास सुरु जालो. पुराय करपाक खूब अडचणी आयल्यो, पूण पुराय जालो. धा वर्सां जालीं हांव पुण्यांत प्राचार्य म्हूण वावुरतां. मदीं हांवें वेवस्थापन शास्त्रांतलो एम. पी एम. कोर्स केलो. गणित, स्टॅटिस्टिक्स, आनी अकाउंट्स म्हाका येनासलें, तें शिकून घेतलें. हांवें कॉलेजचें काम सदांच मन लावन केलें. दिसपट्टी शिकोवपाची तयारी करप. तातूंत दोन विषय नवे आसले, हांवें शिकूंक नाशिल्ले. त्या खातीर चड वाचन करचें पडतालें.'जनी अखंडित वाचित जावे ' अशें संतवचन आसा. संतांनी म्हळां

तें उगीच न्हय. वाचनाचे अनेक फायदे आसात. ताचो वेळा कणकणी म्हाका फायदो जाला. कॉलेजांत काम करताना, अध्यापना वांगडाच हेर कामांय करचीं पडटात.परिक्षा घेवप, अभ्यास पुरक आनी अभ्यासेतर उपक्रमांतूय सहभाग करचो पडटा. जे भुरगे अभ्यासांत बरे आसनात ते हेर उपक्रमांनी खूब बरें आसतात, म्हणून विद्यार्थ्याक निगलेक्ट करप समा न्हय.

तशें पळोवंक गेल्यार, डेम्पो कॉलेज ऑफ कॉमर्स, सगळ्या मळार मुखार आसताली.शिक्षणिक, खेळ, अभ्यासपूरक आनी अभ्यासेतर, नाटक, सां स्कृतीक आदी. बरींच वर्सा कॉलेजांत फकत 8ते 10 फुल टायम प्राध्यापक आसले. प्रत्येक जाण आपल्या कामांत बरे आसले आनी कॉलेजांत शिकपी विद्यार्थी, सुमार 900 ते 1000, चडशे शारांतले आनी बरे आसताले. पयलेच फावट विद्यार्थी संसद सर्त घेवपाचे गोंय विधानसभेच्या सभापतीन थारायलें. आमी भाग घेवंचो वा ना तें कळनासलें, कारण जे पोलिटिकल सायन्स वा संविधान शिकतात तांकां संवसदेच्या कामकाजा विर्शी बरी म्हायती आसता. आमी भाग घेवपाचें थारायलें, आनी प्रा. माधवी पिळगांवकर आनी हांवें विद्यार्थ्याक मार्गदर्शन केलें, कांय तांत्रिक मुद्दे सांगले. आनी पयलेच फावट घेतिल्ले सर्तींत पयलें इनाम फावो जालें, आनी व्हडली रोलिंग शिल्ड म`यळी. कॉलेजांत जावपी कार्यक्रमा विशी खूब बरोवं येता, पूण स्तंभाची मर्यादा मतींत घेवन तें शक्य ना.

इतलीं वर्सा कॉलेजांत वावरताना, वेगवेगळे विद्यार्थी शिकून गेले. अभ्यासांत तशेंच अभ्यासा भायर वेगवेगळ्या उपक्रमानी विद्यार्थ्या वांगडा वावरताना मनाक धादोसकाय जाताली. पयलीं परस आतां प्राध्यापकांक खूब बरो पगार आसा, कामाच्यो सेवा सर्ती खूब बऱ्यो आसात. कांय आदल्या विद्यार्थ्यां कडेन अजुनूय संवाद जाता आनी मनाक एकेतरेचें समाधान मेळटा. खूब थोड्या वेवसायांनी अशे तरेचो संबंद येता आनी संवाद घडटा.

•••

दिस्तावो

... मनोज



[illegible]

वर्सां अध्यापन करतात. तांचो 'मनोभाव' हो काव्यसंग्रह उजवाडाक आयला आनी 'मनकळे फुलतना' हो लेख संग्रह उजवाडाचे वाटेर आसा. ते बिम्ब, भांगरभूंय आनी हेर नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन करतात.
पत्तोः चिखली
मोः 98224 41417

# सैम सूरांचें जतन करया जीण सोबोवया





धबधबो लागीं पावता म्हणसर ताचो गाज जसो कानार पडपाक लागता, मनीस उचांबळ जाता. धबधबो लागसून पळोवपाचो आनी तोखेवपाचो जो एक खेरीत उत्साह मनात आसता तो आतां उफाळून आयिल्लो आसता. वाट चलतां चलतां पांयांक आपसूक नेट येता आनी मनशाचीं पावलां झपाझप धावूंक लागतात धबधब्या म्हऱ्यांत.

जिणेंत सूर, ताल आनी लय नामत तर ती जीण पचकी, अर्थ नाशिल्ली थारता देखूनच सैम रचतल्यान धतरेर जियेतल्या सगल्या जिवांक सुरांचें देणें दिलां जावंक जाय. तो सूर मागीर मनशांचो वा हेर जिनसांवार सवण्यांचो, मोनजातीचो, जंगली जनावरांचो वा सैमांतल्या प्रत्येक घटकाचो जावं येता. होच सूर जर म्होवाळ गीत जावन ओंठार घोळत जाल्यार कोणाक मानवचो ना व्हय? पूण केन्ना केन्ना सूर बेसूर जावन रड जावंक लागतात तेन्ना मात मन दुखी जाता आनी त्या गायतल्या विशीं राग आनी द्वेश मनांत तयार जातात. तुमी घडये म्हणटले हांव अशें कित्याक म्हणटां काय म्हूण! हांव गायक वा संगीतकार न्हय पुणून म्हाका संगीत आवडटा. संगीत सगल्यांकूच आवडटा अशें मानल्यार लेगीत भोव थोडे जाण आसतले जांकां संगीत आवडना अशे. संगीताच्यो वेग-वेगळ्यो तरा. ते बाबतींत पळयल्यार मनशांच्यो आवडी लेगीत वेगवेगळ्यो. कोणाक शास्त्रीय संगीत तर कोणाक भाव गीत आवडटा तर कोण भक्तीगितांत तल्लीन जातात. कोणाक

गझल गायन आयकुपाची आवड. तेन्ना तो तान भूक विसरून गझलांनी गूंग जाल्लो आसता. संगीताची जाण आशिल्लो मनीस हाचेर बरे तरेन उजवाड घालूंक शकतलो. पुणून हांव ज्या सुरां बद्दल वा संगीता बद्दल म्हणटां तें सैम संगीत. सैमाचें संगीत! केन्ना तरी आमी सगल्यांनी आयकलां आसतलेंच. दीस उजवाडाक येता तेन्नाच हें संगीत सुरू जाता. फकत आमी तें आयकुपाची इत्सा मनांत दवरुंक जाय. हें संगीत आयकुपाक कसलेंच मोल फारीक करपाची गरज पडना. आमचें मनशांचे एक बरें, एकदां कसली ना कसली संवय जडली काय ना मागीर ती पोसपाक केदेंय मोल दिवंक आमी तयार जातात. मनशान रचिल्ले संगीताचे आवडीक म्हणुया वा संगीताच्या मोगाक लागून म्हणुया आमी त्या वेळार पयशांची उधळपट्टी करुंक लेगीत फाटीं सरनात. पुणून सैमाचें संगीत हें वेगळेंच रसायन! त्या संगीताक कोण आडावंक शकनात. ह्या सैम संगीताचो अंत केन्ना जायना. तें सदांकाळ निसर्गांत जीव ओतता. जे तरेन वाऱ्या झोतान धोलपी पिंपळा पानांचो सळसळ गांवचे भुरगेपणा वयले जिणेची याद करुन दिता. तेच परी माडाच्या चुडटांचें संगीत आयकून मन खोशयेन फुलता. जनेलांतल्यान वाऱ्या धार सूऽऽ करून पासार जाता, एक मध्य लय कानार पडटा तेन्ना मनांत खोशयेचीं तरंगां उसळूंक लागतात. जनेल उगडपाचे गतीचेर तो सूर आदारीत आसता. भुरगेपणार हांव हें संगीत कान दिवन आयकतालों. जे तरेन वा जे गतीन जनेल उगडटा तसो ताचो सूर लेगीत बदलत रावतालो. तातूंत भितर कुर्चे चोय सूर भरसतालो आनी कानाक थाकाय दिवपी असो सूर तयार जातालो. हेंच तर निसर्गाचें सोबीत आनी म्होंवाळ देणें.

दर्या वेळेर ल्हारां एकामेकाच्या आंगार उसळून येतात तेन्नाचो तो गाज मन उचांबळ करता आनी त्या सुरेल नादांत दर्यात घालून घेवं अशें दिसल्या बगर रावना. सांज वेळार सूर्य अस्तंत दिकेक वता तेन्ना वाऱ्या ल्हारां सूर मनाक थाकाय दिवन जिणेंत नवी उर्बा हाडटा. रेवेंर पांय सोडून बसून निसर्गाचो नियाळ करीत रावचें शें दिसता. जेन्ना जेन्ना हांव दर्या वेळेर गेलां तेन्ना तेन्ना म्हाका दर्या वयल्या संगीताचो एक वेगळोच अणभव आयला. थंय येवपी भोंवडेकार वा बारीक सारीक जिन्नस विकपी वेपारी, जण एकल्याचो सूर वेगळो. पूण तो एका सुरान भरसलो म्हणटकच तिसरेंच रसायन जावन कानार पडटा. जशें खतखतें, वेग-वेगळ्यो भाजयो घालून केल्लें आसलें तरी ताची रूच सामकी वेगळीच, तशें शें! दर्या देगे वयलें फ्यूजन संगीत जाय जाय शें.

सकाळीं फात्यां पारार सुर्याचीं तांबशीं किरणां फांकरतकच सवणीं आपलो घोंटेर सोडून भायर सरतात नव्या दिसाक येवकार दिवंक. तीं चिवचिवंक लागतात. तांचो तो म्होवाळ सूर कानार पडटकच नव्या दिसाची सुलूस लागता. त्याच वेळार जर उठून भायर येवन तो सवण्यांचो किलबिलाट आयकत तर दिसाची सुरवात कितली सोबीत आनी मन कितलें प्रसन्न जाता हें तो सौंदर्य तेळपी आनी आयकुपीच सागूंक शकतलो. पोरसांतल्या पानां पानाचेर दवाचे थेंबे पळयतकच आपसूक सैमाच्या जादवाचें कवतूक करीन शें दिसता.

हांव केन्ना केन्नाय चिंतूक पडटां, हे अशे उमाळे म्हज्याच मनांत येतात काय कितें? दुसरें मन म्हणटा ना, धतरे वयल्या सगल्याच मनशांक अशे तरेचे उमाळे मनांत फुटूंक जाय. हें संगीत आयकुपाक जण एकल्याचें मन आकुळ पिकूळ जावपाक जाय. सैमाची तोखणाय करूंक मन आसूसपाक जाय. तेन्नाच आमी जिणेचो सुवाद घेवंक पावतले. सैमाचें संगीत आयकुपाची संवय जायते जाणांक आसता. ताचे खातीर ते वेगवेगळ्या सुवातांनी पासून वतात. त्या सुरांची मजा लुटपाक. थोड्यांक सवणी पळोवंक आवडटात. ते आपलो झूम लेन्साचो कॅमेरा घेवन भायर सरतात तर कांय जाण दोंगर चडपाक वतात. ह्यो आवडी पुराय करतना तांकां सांगात आसता सैमाच्या संगीताचो! ही गजाल कोण न्हयकारूंक शकनात. हें संगीत बारीकसाणेन आयकुपाची गरज आसा. तेन्नाच तें मनाक भावता आनी आपलेंशें दिसता. गोंयांत कितलेशेच ल्हान व्हड धबधबे आसात. पावसा दिसांनी ते उपाट भरून व्हांवतात तें पळोवपाची



उमळशीक कोणाक जायना अशी ना. याद करया, धबधबो लागीं पावता म्हणसर ताचो गाज जसो कानार पडपाक लागता, मनीस उचांबळ जाता. धबधबो लागसून पळोवपाचो आनी तोखेवपाचो जो एक खेरीत उत्साह म नात आसता तो आतां उफाळून आयिल्लो आसता. वाट चलतां चलतां पांयांक आपसूक नेट येता आनी मनशाचीं पावलां झपाझप धावूंक लागतात धबधब्या म्हऱ्यांत. हात मुखार सरता तो फव्वारो आंगार झेलूंक! तें संगीत आयकूंक भारावता मनीस. सैम देणें म्हणटा तें हें! नकळत उतरां फुट्टात, वा! मज्या येता.

पावसाच्यो सरीचेर सरी धर्तरेर येवंक भायर सरल्यो म्हणटकच जे सूर कानार पडटात ताची सर हेर कसल्याच सुरां कडेन करूंक जावची ना अशें म्हाका त्यो सरी आयकतना भास जाता. त्या सुरांत उतरांची म ंडणी नासता, तरी ताल आनी लय आयकुपा सारकी, आवडपा सारकी आसता. ते भायर तिनसांज जाली म्हणटकच बेबे आनी रात किड्यांचो किरकिराट सुरु. पावसाचे अशे तरेचे सूर म्हज्या कवित्व मनाक खुणायता देखून म्हाका तर तो पावस सुरांचो जादुगर कसो दिसता. व्हांवत्या उदकाचो खळ-खळ नाद वेगळोच अणभव दिता. न्हंये देगेर बसून हो नाद आयकुचो आनी जोडप्यांनी बसून फ ुडाराचीं सपनां रंगोवचीं असो हो उर्बा दिवपी सूर!

हो सैमाचो जादू जर आमी तिगोवन दवरतले तर सैमाची राखण करप गरजेची. आयज आमी उदरगतीच्या नांवान सैमाचो इबाड करूंक लागल्यात. तो बंद जावंक जाय. पर्यावरण तज्ञ आनी पर्यावरण मोगी जें सांगतात तांचे सूर लेगीत कान दिवन आयकूंक जाय. सैमाचो मेळ सादून उदरगत केली जाल्यार सगल्यांच्या फायद्याचेंच थारतलें. म नीस संवसार सोडटा तेन्ना ताच्या घराब्याक, सोयऱ्या धायऱ्यांक, ताच्या इश्टांक जशें दुख्ख भोगता तशेंच दुख्ख रुखां कावार करतकच, दोंगर कापतकच, झरे, तळीं, बांयो सुकतकच सैमाक जाता. तेन्ना सैम ाचो रडकुरो सूर कानार पडटा. सैम मागीर रुद्र अवतार घेता. तो सूर मात मनाक भावना. तो कश्टी सूर खोशी दिवचे जाग्यार दुख्ख दिता. नासाडी करता देखून सैम सांबाळया. ताची जतनाय घेवया. म्हणटकच सैम सोबीत आनी म्होवाळ सूर घेवन धर्तरेर येतलें. आमचें जिवीत फुलयतलें.

•••

पासय



डॉ. नूतन देव

# कोठये कूड

डॉ. नूतन देव हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कविचो. तांचो मराठींतल्यान 'आभाळ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.
पत्तो : फोंडें - गोंय.
मो: 9850133160



तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्यो वस्तू जागचे जाग्यार आसच्यो, सगळ्या घर भर कचकच आसचो न्ही अशें सगळ्यांकच दिसता. एक दोन वस्तुंचेर आमचो सामको जीव आसूंक शकता. तशेंच कांय वस्तू आमी यादिस्त म्हणून बाळगून दवरतात. म्हणून सगळ्याच वस्तुंचो पुरुमेंत करपाकच जाय अशें न्ही.

शाळा, इश्कोलांक माया म्हयन्याची सुटी पडली रे पडली काय आमी भुरगीं जळा मळा वतालीं. सोयरीं लागिंचीं काय पयसुल्लीं हाचें कसलेंच सोयरसुतक आमकां नासतालें. तातूंतल्या तातूंत आजोळ हें तर सामकें हक्काचें घर! तशें पळोवंक गेल्यार आजोळा, वांगडा खेळपा सारकीं ल्हान भुरगीं नाशिल्लींच म्हळ्यार जाता. चडशीं सगळीं जाणटीं. पुणून थंय वचूंक आनी आठ दीस तरी रावूंक सामकें आवडटालें. हाका दोन कारणां आशिल्लीं, एक म्हळ्यार माया म्हयन्यांत आजो आनी आजी, सकाळ सांज कोलव्यां वतालीं. मामाचे ऑपेल गाडयेंत बसून आमकांय बी आठ दीस कोलव्यां वचून मजा करूंक मेळटाली.हें जालें एक कारण. दुसरें कारण म्हळ्यार मामाल्या व्हडल्या घराची धाकटुली कोठये कूड !

हय, खरेंच! ही एक इल्लीशी कूड जिचें दार सदांच आड केल्लें आसतालें, तरीय पूण तिका कुलूप घाल्लें नासतालें. हे कुडीक जनेलूय बी नाशिल्लें. वयर नळ्यां मदीं, नळ्याच्या आकारा येदे हारशांचे दोन चोवकोनी कुडके नळ्यां मदीं बसयल्ले, जातूंतल्यान उजवाड भितर पडटालो.तांचे वयर जर काळीं कपां दाटिल्लीं आसत जाल्यार मात उजवाडा खातीर मागीर एक मिणमिणपी बल्ब पेटोवंचो पडटालो.

ही कोठये कूड म्हळ्यार काणयांतली अलीबाबाची गुहाच. हे कुडींत कितें मेळना म्हूण नाशिल्लें. सुतळी धरून, आज्युताचे वादये पोत्तान सगळें कितें हांगा आशिल्लें.

नाल्ल, कड्डण, तांब्याचीं, पितुळचीं व्हडलीं व्हडलीं तपलीं भरून तांदूळ, गंव... बुयांवांनी भरून सोलां, आमटाण, लोणचीं...चौकोनी व्हडल्या मुडीस डब्यांनी (पत्र्याच्या ह्या डब्यांनी मुडीस ह्या ब्रॅन्डाची च्या पावडर भरून येताली देखून तांकां मुडीस डबे म्हणटाले. ते रिकामे डबे हाडून तातूंत पुरुमेंत करून दवरताले.) साणगे, पापड, कणगांचीं मानां आनी घोंस भरून दवरिल्लें आसतालें. माथ्या वयर एक कोंड्या बडी आडवी बांदिल्ली आसताली. ताचेर कांद्याच्यो मोळयो हुम कळायल्ल्यो आसताल्यो. लाकडाच्यो पेटोय आसताल्यो जातूंत पुजेचें साहित्य

दाब्लून दवरिल्लें आसतालें. सगळ्यांचो जागो थारायिल्लो.

ह्या सगळ्या सामाना भितर म्हाका जाय आशिल्लें तें म्हळ्यार चवथीक, दिवाळेक बी वापरून उरिल्ल्यो तरेकवार रंगाच्यो फोली. जांबावलेच्या पाणट्यार सावन पुंजावन हाडिल्ले ल्हान व्हड गुळगुळळीत फातर आनी थोडीशीं ल्हान ल्हान भगुर्णी. मागीर ह्यो वस्तू घेवन भायर वासरेर बसून आमी खेळपाचें.

अशी ही कोठये कूड जरी भरून ओत्ताली तरी सगळें सामान वर्सभर भायर बितर जाल्ले कारणान, वापरांत येता आशिल्ल्या कारणान केन्नाच भितर अडगळ जाली ना. कसलोय जिन्नस एखादरो वर्सा परस चड उल्लोच जाल्यार तो कामेऱ्यां, मानायांक दिवन वाटून सोंपोवपाचो आनी इबाडिल्लो आसल्यार काडून भायर उडोवपाचो हो नेम. पुणून चड करून भायर उडोवपाचो प्रसंग येवप कमीच! कित्याक तर जाय तितलेंच सामान घरांत येतालें. त्या तेंपार लोक दोळ्यांक दिसलें म्हूण वा बोल्सांत पयशे खुळखुळटात म्हूण वा दुसऱ्या कोणाच्या घरांत वस्त पळयली म्हूण, उठसूठ सामान खरेदी करनाशिल्ले. कपडे लत्ते तर एखाद्या सणासमारंभाकच विकत घेताले. आनी खरेदी करपी चड करून घरांतलो कर्तो पुरूश म्हळ्यार एक दादलो आसतालो. आनीक एक गजाल म्हळ्यार, जागो आडावपाक तेन्ना आयचे भशेन नाशिल्लें. आसल्यारूय खूब खूब कमी प्रमाणांत!

अशे हे कोठये कुडीचें म्हाका खूब अप्रूप. जेन्ना आमी फोंड्यां घर बांदपाचो प्लॅन केलो तेन्ना हांवें आर्किटॅक्टाक



सरळ सांगलें, बाकिचें सगळें तूं तुका जाय तें कर, पुणून म्हाका एक कोठये कूड जायच! आनी थारायिल्ले प्रमाण जेन्ना ती जाली तेन्ना हांव खूब खोशाल जालें.

करोनाक लागून जाल्ल्या लॉकडावनांत जेन्ना आमी चार वणटीं बितर उरलीं तेन्ना एक लक्षांत आयलें तें म्हळ्यार आमच्या घराच्यो सगळ्योच कुडी कोठये कुडी जाल्यात. दोन चार बोडकां आशिल्ल्या घरांत गरजे भायर जमिल्लें सामान कितलेशेच पटीन चड आसा. वर्सान वर्स धुल्ल खायत पडिल्ल्यो कितल्योश्योच वस्तू आसात.

तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्यो वस्तू जागचे जाग्यार आसच्यो, सगळ्या घर भर कचकच आसचो न्ही अशें सगळ्यांकच दिसता. एक दोन वस्तुंचेर आमचो सामको जीव आसूंक शकता. तशेंच कांय वस्तू आमी यादिस्त म्हणून बाळगून दवरतात. म्हणून सगळ्याच वस्तुंचो पुरुमेंत करपाकच जाय अशें न्ही. आमी त्यो कोणाय गरजवंताक दिवंक शकतात, ज्याका लागून तांचो बरे तरेन वापर जावंक शकता. हें करपाक हात मातसो सैल सोडपाक कळूंक जाय.

घरांत जाय तितल्योच वस्तू आसप हाचो आमकां खूब फायदो जाता. मुख्य म्हळ्यार थोड्योच वस्तू आशिल्ले कारणान जाय ती वस्त रोखडीच मेळटा. सोदची पडना. हाका लागून खूबसो आमचो वेळ वाटवता आनी ताचे बरबर

श्रम! सोदतना जाल्ली चिडचीड जावंक पावना आनी मूड बरो उरता. घर टापटीप उरताच पुणून ताचे परस चड, आमचो वेळ, शक्ती, मूड बरो उरिल्ल्या कारणान आमी नवें कितें तरी बरें घडोवंक शकतात. एक बरी उमेद येता.

Quality may be any but where quantity is more than one can manage,there starts the problem.

तरेकवार कपडे, वस्तू,फर्निचर आनी हेर वस्तू आमकां खोशालकाय दिताच, पुणून कितलो तेंप? आमी तांकां गरजे परस चड जीव लायतात. ह्या वस्तूंक ज्यांकां भावना आसनात तांचेर आमचो घरांतल्या मनशां परस, ज्यांकां भावना आसतात तांचे परस चड मोग करतात. आसूं!

व्यवस्थीत सगळें जाग्यार घालप आनी सदांच व्यवस्थीत रावप हें दोनय वेगवेगळें! कचकच चड जालो,पसारो वाडलो, जाय ती वस्त मेळना जाली म्हणटकच आमी एक दिसभर आवाशिवा करीत तें सगळें जाग्यार घालतात.पुणून कांय दिसांनी परत आशिल्लो तसो पसारो तयार जाता. म्हुणून आमी मुळांत सावन व्यवस्थीत रावपाची सवंयच करपाक जाय. जाणटीं करतात तें पळोवन भुरगीं शिकतात आनी व्हड जातात तशीं ती सवंय तांचे आंगवळणी पडटा. ही सवंय जावंक जाय जाल्यार आमकां साद्यो, सोंप्यो अश्यो तीन गजाली करूंक येवंक जाय.

एक म्हळ्यार जें कितें जायच पुणून दिसपट्टें वापरांत येना तें कोठये कुडींत व्यवस्थीत दवरूंक जाय आनी फउडें केन्नाय जाय पडत म्हुणून दवरिल्ल्यो वस्तू कोणाकय दिवन उडोवंक जाय.

दुसरें म्हळ्यार एक सारके जिन्नस एका खणांत दवरचे. आनी तिसरें म्हळ्यार कसलोय एक जिन्नस भितर दवरतात तेन्ना भितर आशिल्लो दुसरो नग भायर येवंक जाय. कसलीय वस्त विकती घेवंचे पयलीं, सतिचो कितलो वापर जातलो हाचो मातसो अदमास घेवंक जाय आनी ते प्रमाणे पावल मारूंक जाय.

चला तर मागीर 'जाय तितल्योच दवरुंया आमी घरांत आमच्यो वस्तू. घरय उमेदी जातलें आनी म्हणटलें तथास्तु!' •••

उशणी तायनां



शैलेंद्र मेहता

# सादत हसन मंटो



कोंकणी, मराठी, इंग्लीश
ह्या भासांतल्यान [illegible]
बरोवपी शैलेंद्र मेहता
हांचो '[illegible]'
हो कवितासंग्रह उजवाडाक आयला आनी ताका विमलाबाय पै फावंडेशनाचो पुरस्कार लाबला. विद्यार्थी चळवळींतल्यान मुखार येवन तांणी आपली समाजीक बांधीलकी जपल्या.
पत्तोः मुंबय
मो. : 98206 54233

---

## 1. खबर नाशिल्ल्याचो फायदो

ट्रिगर दामलो... पिस्तोलांतल्यान उजो ओकीत गुळी भायर सरली.

जनेलांतल्यान भायर पळोवपी मनीस जाग्यारूच सोंपलो.

ट्रिगर कांय वेळान परतून दामलो. दुसरी गुळी सणसणत भायर सरली.

एकल्याच्या खांदा वयली उदकान भरिल्ली चामड्याची पिशवी फुटली. तो सोणकूट आपटीत पडलो आनी ताचें रगत पिशवेंतल्या उदकांत भरसून व्हावंक लागलें.

ट्रिगर तिसरे फावट दामलो... तीर चुकलो. एक गुळी वण्टी भितर रोमली.

चवथी गुळी एके म्हातारेचे फाटींत घुसली. ती तोंडांतल्यान आवाज काडी नासतना थंयच पडून मेली.

पांचवी आनी सवी गुळी फुकट गेली. कोणूच मेलो ना वा घायाळ जालो ना.

गुळयो मारपी पिसावलो. अचकीत रस्त्यार एक ल्हान भुरगो धांवतना दिसलो. गुळयो मारप्यान पिस्तोल ताचे वटेन करून तीर धरलो.

ताच्या वांगड्यान ताका विचारलें, " हें कितें करता रे?"

गुळयो मारप्यान म्हळें, " कित्याक?"

"गुळयो सोंपल्यो मरे!"

"तूं ओग्गी बस... एद्दाश्या भुरग्याक कितें खबर? "

***

## 2. लुकसाणाचें नॅगॉस

दोन इश्ट एकठांय जावन तांणी धा- वीस तरणाट्या चलयां मदली एक वेंचली आनी बेचाळीस रुपया दिवन तिका विकती घेतली.

तिचे वांगडा रात सारल्या उपरांत एका इश्टान ते चलयेक विचारलें, "तुजें नांव कितें?"

चलयेन नांव सांगलें तेन्ना तो साम को भेरेलो. "आमकां तूं दुसऱ्या धर्माची म्हूण सांगिल्लें."

चलयेन जाप दिली, "ताणें तुमकां फट मारली."

तें आयकून तो धांवत धांवत इश्टा म्हऱ्यांत पावलो आनी सांगूंक लागलो ,

"त्या चेडयेच्यान अमचे कडेन तड्डकां केल्यांत. आमच्याच धर्माची चली आमकां दिल्या. चल, तिका परत दिवया."

***

## 3. सामायिकरण

तो आपल्या घरचें सगळें गरजेचें सामान एका ट्रकांत घालून दुसऱ्या शारांत वतालो. रस्त्यांत लोकांनी ताका आडायलो.

एकल्यान ट्रकांत उपाट भरिल्ल्या म्हालाचेर नदर मारीत म्हळें, "पळयात इश्टानों, इतलो सगळो म्हाल घेवन हो

एकलोच मजा मारूंक वतालो.''

म्हालाच्या धनयान म्हळें, ''म्हजो स्वताचो म्हाल तो, पात्रांव !''

दोग - तिगजाण हांसले, ''आमी सगळें जाणात.''

एक मनीस आड्डलो, ''लुटात ताका, हो गिरेस्त ट्रक घेवन चोरयो करता.''

***

### 4. जेली

फांतोडेर स वरांचेर पेट्रोलपंपा लागीं हातगाडयेर झेल विकतल्याक सुरी तोंपून मारलो.

सात वरां मेरेन ताचें प्रेत रस्त्यार पडून उरलें आनी ताचेर झेलाचें उदक ल्हव ल्हव पडत रावलें.

सव्वा सात वरांचेर पुलिस प्रेत घेवन गेले. झेल आनी रगत मात रस्त्यारूच.

एक टांगो थंय सावन वतालो. तांतल्या भुरग्यान रस्त्यार जमा जाल्ल्या रगताच्या थाप्या कडें पळयलें.

ताच्या तोंडांत उदक सुटलें. आपले आवयचें भूज ओडून, आपल्या बोटान ताचे कडेन खूण करून ताणें म्हळें, ''पळय मम्मी, जेली!''

***

### 5. तुमचे वतीन

हातांत दांडे-कोंडे घेवन चाळीस पन्नास जाणांचो एक चोमो लुटमार करचे पासत एका घरा वटेन वतालो. अचकीत गर्दी चिरून एक बारीकसो दिसपी मनीस मुखार सरलो. फार्टी पळोवन ताणें एखाद्र्या फुडाऱ्याच्या झेतान दंगलखोरांक सादूर केले.

''भावांनो, ह्या घरांत अदमासा भायर म्हालवज आसा. म्हारग सामान आसा. चलात आमी सगळे मेळून ताचेर घुरी घालुया आनी लुटिल्लो म्हाल आमचे मदीं वांटून घेवया.''

कितलेशेच दांडे हवेंत वावुडले. कितल्योश्योच मुठी आवळून आयल्यो आनी घणघणीत आवाजांत घोशणांचें एक ल्हार उसळून आयलें.

बारीकशा मध्यम वयाच्या मनशाचे नदरे खाल चाळीस पन्नास जाणांचो तो चोमो त्या घरा वटेन बेगोबेग पावलां मारूंक लागलो, जातूंत हिस्पा भायर दौलत आनी सुमारा भायर म्हारग सामान आशिल्लें. घराचे फुडले गेटी कडेन पावतकच तो बारकेलो मनीस थांबलो आनी ताणें दंगलखोरांक सांगलें, ''भावांनो, ह्या घरांत जितलो म्हाल आसा तो सगळो तुमचो, पूण लटाफटी करूं नाकात...आपले मदीं झगडीं नाकात...येयात.''

एकलो आड्डलो, ''दाराक कुलप आसा!''

दुसऱ्यान ताचे परस मोठ्या आवाजांत म्हळें, ''उडय फोडून.''

''उडय फोडून... फोडून उडय.''

कितलेशेच दांडे हवेंत वावुडले. कितल्योश्योच मुठी आवळून आयल्यो आनी घणघणीत आवाजांत घोशणांचें आनीक एक ल्हार उसळून आयलें. बारकेल्या मनशान दार फोडूंक फुडें सरिल्ल्यांक हातान कुरु केली आनी हांसून म्हळें,

''रावात, भावांनो... हांव तें चावयेन उक्तें करतां.''

अशें सांगून ताणें बोल्सांतल्यान चावयांचो घोस भायर काडलो. एक चावी वेंचून कुलपांत घाली आनी कुलप उक्तें केलें. एक किळांच मारीत शिसमाचें गडगंज दार उक्तें जातांच सगळेजाण पिश्यांवरी भितर घुसूंक फुडें सरले. बारकेल्या मनशान आपल्या कपला वयलो घाम भुजान पुशीत म्हळें,

''भावांनो सवकास, ह्या घरांत जें किर्ते आसा तें सगळें तुमचेंच, अशी ताकतीक करपाची कसली रे गरज?''

चोम्याक मात्शी शिस्त लागली. एकेक करून दंगलखोर घरांत भितर सरले पूण थंयच्या वस्तूंची लूट सुरू जाल्ल्यान परतून गोंदळ जालो. दयामाया दाखय नासतना दंगलखोर म्हारग वस्तूंचेर हात मारूंक लागले. बारकेल्या मनशान हो देखाव पळयलो आनी दुखेस्त आवाजान लूट करतल्यांक सांगलें, ''भावांनो, सुशेगाद, सुशेगाद... आपले मदीं झगडपाची कांयच गरज ना. मोडपाची, बुड्डून व्हरपाचीय गरज ना. सुशेगादीन काम करात. कोणच्याय हातांत कसलीय म्हारग वस्त लागली जाल्यार ताचेर जळपाची गरज ना. येदें व्हडलें घर, आपले पासत दुसरी वस्त सोदात. पूण अशे रानवटी जावं नाकात... झगडीं -झुजां करश्यात तर सामान मोडटलें. लुकसाण तुमचेंच जातलें.''

लुटमाऱ्यां मदीं परतून एक फावट मात्शी शांती आयली. भरिल्लें घर ल्हव- ल्हव रिकामें जालें. बारकेलो मनीस वेळच्या वेळार सुचोवण्यो दियत रावलो,

''पळय भावा, हो रेडिओ... सवकास उबार, मोडत बी तो...

ही पळय ताची वायर, व्हर..

सांबाळ रे भावा सांबाळ... सांबाळून, बदामाच्या लाकडाचें टीपॉय तें...

हतयाच्या दांतांचो डीझायन आसा ताचेर. नाजूक वस्त ती ...

हां आतां सारकें. नाका नाका... हांगा पियेवं नाका. झेलतलो तूं ... घरा व्हर ती...

रावात रावात , हांव स्विच बंद करतां. कोणाकूय शॉक लागूं येता...''

इतले मजगतीं एका कोनशांतल्यान मोठो आवाज जालो. चार दगलखोर सिल्काच्या कपड्याच्या एका ठाणाक लागून लटाफटी करताले. बारकेलो मनीस वेगींच तांचे म्हऱ्यांत पावलो आनी तांकां तापोवन काडिल्ले भशेन उलयलो, ''कितले नेणार रे तुमी! वादऱ्यो वादऱ्यो जातल्यो मरे त्या म्हारग लुगटाच्यो! घरांत सगळें आसा. मेजपाचो वारांव आसतालोच! सोडून काडात आनी कपडो मेजून आपले भितर वांटून घेयात...''

अचकीत कुत्र्याच्या भोंकपाचो आवाज आयलो.

' भौ , भौ, भौ'.

एक व्हडलो कुत्रो झोंपय मारून कोणाक कळचे आदींच भितर आयलो आनी एकाच धपक्यांत ताणें तीन लुटमाऱ्यांक फाफसून उडयले. बारकेलो मनीस आड्डलो,

''टायगर, टायगर!''

टायगराच्या भयांकृत तोंडांत एका लुटमाऱ्याच्या बानयनाचो कुडको पिंजून आयलो. शेंपडी हालयत तो बारकेल्या मनशा कडेन पळोवन नदर सकयल घालीत येवंक लागलो. कुत्रो आयल्या उपरांत सगळे लुटमारे पळून गेले. फकत एकलोच फाटीं उरिल्लो जाच्या बानयनाचो कुडको टायगराच्या तोंडांत आशिल्लो. ताणें बारकेल्या मनशा कडेन पळोवन विचारलें,

''कोण तूं ?''

बारकेलो मनीस हांसलो.

''ह्या घरचो मालक...पळय, पळय... तुज्या हातांतले कवचेंचें आयदन सकयल पडत.

•••

## मचमचीत



- डॉ. रिना लवंदे

फाटलीं साबार वर्सां कांदोळे-कळंगुटे दातांची वैज म्हूण लोकप्रिय आशिल्ल्यो डॉ. रिना लवंदे एक बऱ्या पयकी सुगरणूय जावन आसा. अन्न संस्कृतायेचें जतन करपाचे हावेसान खाणां जेवणांत वेगवेगळे प्रात करपाची तांकां आवड. त्या भायर वाचन आनी ललित लेखनाचीय आवड आसा.

**पयलो आयतार**

थोड्यांगेर मुटवे करतात, कांय जाणांगेर हालउंडे करतात.

### मुठवे

सामान- 2 वाटी तांदळांचें पीठ, 1 नाल्लाची सोय, 1 वाटी किशिल्लें गोड, 1 व्हड कुलेर वेलचेचो पिठो, अर्द वाटी काजू बिंयांचे कुडके, 2 व्हड कुलेरां तेल. चवी पुरतें मीठ, 2 वाटयो हून उदक.

करपाची तरा- पिठांत मीठ घालून गरम उदकांत ल्हान ल्हान गुळयो करच्यो. सोय, गोड, वेलचे पिठो, काजू बिंयां कुडके घालून चुन्न तयार करून घेवंचें. हाताच्या तळव्याक तेल लावन पिठाच्यो गुळया पातळावन घेवंच्यो.तातूंत मर्दी चुन्न घालून हाताचेरूच हे मुटवे वळचे.

एका तोपांत उदक घालून उदका वयर एक चाळण दवरची. ताचेर हे मुटवे दवरचे. तोपा वयर घट्ट धाकणें घालून सुमार अर्दवर हे मुटवे उकडचे.(हालउंडे करपाची तरा बिम्ब फेब्रुवारी 2021 ह्या अंकांत आयल्या ती पळोवंची)

आयताराक केल्लीं गोडशीं

**दुसरो आयतार**

पातोळ्यो वो गोड वडे करतात

### पातोळ्यो

सामान-2 वाटयो तांदळां पीठ, 12-15 हळदीचीं पानां, 1 नाल्लाचें चुन्न, वेलची पूड, गोड, सोय आनी रुची पुरतें मीठ, 3 वाटयो उदक.

करपाची तरा- पिठांत मीठ आनी उदक घालून पातळशें पीठ तयार करचें. हळदीच्या पानांचेर हे पीठ पातळावंचें. ताचे वयर चुन्न घालून तें पान दोडचें. अश्यो सगळ्यो पातोळ्यो तयार करून घेवंच्यो.

एका तोपांत उदक घालचें. उदका वयर एक चाळणीर ह्यो पातोळ्यो एकार एक दवरच्यो. घट्ट धाकणें धांपून उज्यार दवरचो. अर्दवर पातोळ्यो उकडून घेवंच्यो.

### गोड वडे

सामान- 2 वाटयो तांदळां पीठ, 1 वाटी उड्डां दाळीचें पीठ, 1 वाटी नाल्लाचो रोस, 1 वाटी उदक, 4 वाटयो तेल (तळपाक), रुची पुरतें मीठ, केळीचे दोन ल्हान चोळखे. (पानां).

करपाची रीत- दोनूय पिठां, गोड आनी मीठ एकठांय करचें. हें मिश्रण नाल्लाच्या रोसान घटसार कालोवन घेवंचें. कायलींत तेल तापोवपाक दवरचें. ह्या पिठाच्यो गुळयो करच्यो. केळीच्या चोळख्याक तेल लावन एक एक करून वडे हातान थापचे. मागीर ते तेलांत तळून काडचे.

**तिसरो आयतार**

### खिचडी/गोड अन्न

सामान- अर्द वाटी मूग दाळ, अर्द वाटी तांदूळ, अर्द वाटी नाल्लाची सोय, 1 वाटी गोड, 1 हळदीचें पान, चवी पुरतें मीठ.

करपाची तरा- मूग दाळ बरी तांबसार भाजून घेवंची, मूग दाळ, तांदूळ 2 वाटयो उदक घालून मोव जायसर शिजोवचें. तातूंत मागीर गोड, सोय, मीठ आनी हळदीचें पान घालून उदक आटऽसर शिजयात.

**चोवथो आयतार**

### गोड पोळे

सामान- 2 वाटयो तांदूळ, 1 वाटी उडदांची दाळ, अर्दवाटी गोड, रुची पुरतें मीठ.

करपाची रीत- तांदूळ आनी उडदांची दाळ बरी धुवन, उदक घालून 3-4 वरां भिजत दवरपाची. मागीर बारीक वाटून घेवपाक जाय. ह्या पिठांत गोड घालून बरेंऽ चाळून 7-8 वरां धांपून फुगपाक दवरचें. ही सगळी कृती पयले रातीक करपाक जाय. दुसरे दिसा सकाळीं मीठ घालून चाळून घेवंचें. तवो तापोवन ताचेर वाडग्यान वाटकुळेंच पातळावंचें. धांपून दवरचें आनी मागीर परतुवचें. मागीर तव्या वयल्यान सकयल काडचें.

केन्ना केन्ना पांच श्रावणी आयतार येतात तेन्ना चौथ्या आयताराक तवसळी, मणगणें, शेंवयां खीर, तांदळांचो दुदा पायस करपाक जाता.

भलायकी



राज वैद्य

गोंयांतले नामनेचे [illegible] फार्मासीचे [illegible] **राज वैद्य** हे वखदां भलायकेर तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगड विंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

पत्तो : इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय

मो. : 9422062286

ई-मेल : ipacpd@gmail.com

# सोऱ्या खातीर वासीन

हांव आयतारा म्हज्या एका आंतीक आमिगाक सदूक मेळूंक गेलों. तो आनी हांव पयली ते बारावी वांगडाच शिकिल्ले, पणजे. हांव फार्मसी लायनींत गेलों, तो आर्कीटेक्चराक... अमेरिकेक गेलो.सेमी रिटायर्डमेंट घेवन परतो आयलो. आपल्या मूळ गांव-घरा- सांवरी गांवांत रावपाक लागलो. भाभी आनी तो. पूत, सून आनी नातू दर शेनवार-आयतारा हाजेरी लायतालींच तांगेर...खबरो करतां करतां कोविड वासिनाचेर आयलेच, तुवें घेतलें मरे? हांवें घेतलें बी असल्यो गजाली. इतल्यांत तांचो नातू घरांत भितर सरलो आनी ताणें गंभीर मुखामळान गंभीर प्रस्न केलो.

**सर्वेश–** काका सोऱ्याचेर केन्ना वासीन तयार जातलें काय ?

**हांव–**( गोंधळ्ळों) .....अं...शाण्या, हें अशें कित्याक विचारता रे?

**सर्वेश–** कोविडाचेर रोखडींच कितलीं तरी वासिनां आयलीं न्ही कोवीड जावंचो न्हय म्हूण! तशेंच सोऱ्याचीं दुर्येसां जावंची न्ही म्हूण वासीन कित्याक काडी नात तर?

**सदू:** आतां तूंच सांग रे हाका कितें तें.. दर आयतारा आमकां हो होच प्रस्न करता. आयज हांवें ताका सांगलें की तूं येवपाचो आसा आज तेन्ना तुकाच विचार.

**हांव:** ( अपुरबायेन ) शाण्या, हें वासीन कोणांक दिवंक सोदता रे? सोरो पिता तांकां काय सोरो पिना तांकां?

**सर्वेश:** अं...दोगांकूय...जो सोरो पिता ताका दितकच ताणें लोकाक त्रास दिवंचो न्हय म्हणून आनी ताचें लिवर आनी बाकीचे अवयव पिड्डयार जावंचे न्हय म्हणून...आनी जो सोरो पिना ताणें केन्नाच सोरो पिवंचो न्हय म्हणून!

**हांव:** वाह ...खूब बरे विचार आसात तुजे सर्वेश!

**सदू :** हो विचार ताच्या मनांत येवपाचें कारण म्हणल्यार ताच्या मित्राचो बापूय. हांगा थोड्या घरां फुडें ताचो एक मित्र रावता.. ताचो बापूय दर रातचो बरो तायट जावन येता आनी मागीर घरच्यांक कितें सोंसचें पडटा हें ताणें पळयलां...

**सर्वेश:** पिवन येतकच खूब त्रास करता तो घरच्यांक..बुरश्यो बुरश्यो गाळी घालता, बायलेक मारताय केन्ना केन्ना.. म्हज्या फ्रेंडाकूय बेश्टांच तापयता. कमायता तें पयशेय रोखडेच काबार करता. हे फावटीं म्हज्या फ्रेंडाक मोबायल रिचार्ज करपाकूय पयशे ना म्हणटा. घरांतलो टिवी लेगीत विकून उडयलो ताणें फाटल्या म्हयन्यांत..

(सदूली सून येवन तीय आपली गजाल सांगता.)

**सून:** काका, म्हापश्या आमचे बिल्डींगेंत लेगीत असलीच गत आसा एक कडेन. तोवूय हागेलो घट इश्ट देखून ही गजाल ताणें चड मनाक लावन घेतल्या.

**सर्वेश:** काका, म्हाका टिचरीन असायन्मेंटाक तीन स्टार दिल्ले. हांवें सोऱ्याच्या वायट परिणामाचेर गुगलाचेर खूब वाचलें आनी ताचेर आदारून असायन्मेंट तयार केलो. तोच सबमीट केल्लो हांवें.

**सदू:** सखोल अभ्यास केल्लो ताणें पूण तरी लेगीत सातवेच्या भुरग्याचेर अशे तरेचो परिणाम जावप ही गजाल दुर्लक्ष करप सारकें न्हय..!

**हांव:** ही सगळी तुमची देख ...अरे शाण्या, सदू आजो पिता रे सोरो?

**सर्वेश :** हे..ना ना..

**हांव :** आनी पप्पा रे तुजो....?

**सर्वेश :** हे नाच्च! ताका खबर आसा, तो पिवन आयल्यार आमी ताका घराच घेवपाक ना..!

( आयकून सगळीं खो खो करून

हांसतात.)

**सर्वेश:** हांसता किते तुमी सगळीं? कितलें सोंसचें पडटा लोकांक आनी आम चें सरकार लेगीत पयशे करतात सोऱ्याचेर टॅक्स लावन. लोक सोऱ्याचेर धंदो करतात. आनी जितलो सोरो खपता तितलेंच दुख्ख आनी दुयेंसां आनी अत्याचार वाडटात!

**हांव:** तूं म्हणटा तें एकदम बरोबर! लॉकडावन जालो तेन्ना सोऱ्याक लोक तानेल्ले. सोरो विकतात तांचो धंदो आनी उत्पन्न डावन जालें. देखून ते बेजार जाले. सरकाराक वर्साक चारशीं-पांचशीं कोटी तरी येणावळ येता सोऱ्याचेर! एक्सायज आनी कसले कसले टॅक्स धरून..देखून हें एक तरेचें दुश्ट चक्र जावन पडलां.

**सदू:** हय रे बाबा! आमच्या टायमार कोण बियर लेगीत पियेता म्हणून कळ्ळ्यार कितले कुजबूज करताले! आरे.. तो बियेर पियेता...! आनी आयज किते परिस्थिती!

**हांव:** आतां पिवप म्हणल्यार सोशल स्टेटस जाला. कितल्याशाच घरांनी 'मीना बार' म्हणून आसता खंय...! आनी आतां बीअर कल्चर!

**सर्वेश:** पूण काका, हेंच सरकार कितलो पयसो खर्च करता आसतलें सोऱ्यान जावपी दुयेंसाचेर! लिवर, किडनी, कॅंसर, मानसीक समश्या,टीबी...

**हांव:** मान्य...

**सर्वेश:** आनी सोरो पिवून जातात ते अपघात, अत्याचार, चोरयो-मारयो... आनी बायलांचेर, भुरग्यांचेर मानसीक त्रास.. किते मेळटा आमकां सोरो प्रमोट करून?

**हांव:** मान्य आसा...त्या भायर सोऱ्याचे दुयेंसीक, कोर्ट कचेरी हाका मनीसबळ लागता कितलें! तांचो पागामेंत आनी किते आनी किते! त्या 500 कोटी जोडीचेर तूं म्हणटा तशें सरकार मोडटा आसतलो ताच्याहून चड...

**सर्वेश:** म्हणून हांव म्हणटालों, वासीन काडल्यार बरें...हांव फुडें शिकून हाचेर करतलोंच संशोधन..

**हांव:** जरूर कर. तुजी जिद्द आनी धडाडी! नक्कीच किते तरी चीज करून दाखयतलो तूं फुडाराक...

**सदू:** कर बाबा, कर लोकांचें कल्याण!

**हांव:** शाण्या...तुका दिसता तूं फुडाराक तरनाटो जातकच सोरो पियेतलो?

**सर्वेश:** नाऽऽऽ म्हाका अजिबात पिवपाचें ना, एक घोंट पासून ना. पूण म्हाकांय भंय दिसता केन्ना केन्ना हांव पिवपाक लागलों जाल्यार? म्हणून म्हाका तें वासीन जाय. जाका लागून म्हाका पिवचें शें दिसचें ना.

**हांव:** वासीन आजून कित्याक ना तें मातशें कुम्पलीकाद आसा...तें मागीर तूं फुडें शिकून संशोधन कर आनी यश मेळय. पूण सद्या तुवें समजून घेवंक जाय,तुका आतां मेरेन सोऱ्याच्या वासिनाचे डोस खूब पडल्यात.

**सर्वेश:** ऑऽऽ म्हणजे किते?

हांव: हें पळय..वासीन नेमकें किते करता? तें आमच्या शरिरांत दुयेंसांच्या आड झुजपाक अँटीबॉडीज तयार करपाक मजत करतात. आतां म्हज्या म्हणण्या प्रमाणे, तुज्या शरिरांत, खरें म्हणजे काळजांत, मनांत ह्यो अँटीबॉडीज सामक्या व्हडल्या प्रमाणांत तयार जाल्यात. म्हणूनच तूं सोऱ्याच्या आड असो ठामपणान उबो आसा. आतां हीं वासिना जायतीं आसात! तुवें पळयल्लें, अणभवल्लें, तुजे हे शेजारचे फामिलींनी किते घडटा, किते जाता, तुज्या इश्टांनी किते किते भोगलां आनी तुवें पळयलां, आयकलां हाका लागून तुजे भितर जागृताय जाल्या. तुजे भितर झुजपाची अँटीबॉडी तयार जाल्या. तुवें वाचलां, संशोधन केलां सोऱ्याक लागून किते वायट परिणाम जातात ते भलायकीचेर!

**सर्वेश:** हय काका, जायत घडये!

**सदू:** जायत न्ही बाबा, नक्कीच आसात.

**हांव:** ह्या भायर हांवें ल्हानपणा सावन पळयलां तुज्या आज्याक, पणज्याक... तुमगेर रावलां हांव ल्हानपणी..सोरो-सिगरेट हाचेर वासिना तुज्या आज्या बराबर म्हाकाय मेळटालीं. तुजी पणजी आनी पणजो भायर वतना आमकां सदांच सांगतालीं, सांबाळून वचात, कोणें तुमकां सिगरेट सोरो दिलो जाल्यार चुकून लेगीत हात लावं नाकात. दरेक खेपे तेंच! पूण फुडे मागीर सारखेंच कळ्ळें ते चार शब्द कितले मोलादीक ते!

**सदू:** हय रे बाबा! आजुनय याद जातात तांचीं तीं उतरां!

**हांव:** आनी हेच मंत्र तुज्या आज्यान तुज्या बाबाक सांगल्यात आसतले! आनी शाण्या, तुका तर किते रे..इतल्यो अँटीबॉडी जाल्यात, तूं आपल्या बाबाकूय अँटीबॉडीज मारता मरे...! आतां एक काम कर तूं हें जें किते सगळें शिकला पळय तें नेमाळ्यांनी, दिसाळ्यांनी बरय. भुरग्यां मदीं जागृताय हाड. हींच खरीं वासिना आज लोकांक तोपपाची गरज आसा. हीं वासिना तुजे सारख्यांनीच आतां तयार करून समाजांत ताचो प्रसार आनी प्रचार करूंक जाय जाका लागून वेसना विरेंत एक आदर्श समाज तयार जावंक पावतलो! ●●●



**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर.फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615




आगोस्त 2021 उतरकुवाडें

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | 1-अ | | 2 | | 3 | | 4 | | |
| 5 | | | 6 | | | | | | 7 |
| 8 | | 9 | | | 10 | | | | |
| | | | | 11 | | | | | |
| | 12 | | | | | 13 | | 14 | |
| 15 | | | 16 | | | | | | |
| 17 | | | | | 18 | | 19 | | |
| | | 20 | | 21 | | | | | 22 |
| 23 | 24 | | 25 | | 26 | | | | |
| | 27 | | | | | | 28 | | |

**आडवे :** 1. मळचें, निसर्गान दिल्लें, सैमीक 3. सगळे प्राणी, सजीव आनी निर्जीव सृश्ट, संवसार. 5. हिन्दू धर्माचीं पुस्तकां. 6. दशानन. लंकापती 8. दुर्बळकाय, पयसो आडक्या बगर जाल्ले हाल उपद्रे. 10. उजवाडान भरिल्लो. झगझगीत. 11. व्हडलो तुतयो. 12. चक्र. 13.मुत्रपिंडांत मुतांतल्या द्रव्याचो पडिल्लो फातर. 15. विसर पडिल्लें. विसरभोळें. 17. नशीब(इंग्लीश). 18. घराचो धनी, घोव, यजमान. 21. बावटो, ध्वज (मराठी). 23. कश्ट, श्रम, खटपट. 26. परसाकडेंतल्यान गेल्लो बुळबुळीत मळ वा रगत. 27. पयशे परत दिवपाची प्रक्रिया, सूड घेवपाची कृती. 28. झुज .

**उबे :** 1. सांगणी, म्हणणी. 1-अ. विस्कळ.गळगळीत. 2. कबलात, समट, तह. 3.उणपण, उणाव, तुटवडो. 4. मचमचीत, मसालदार . 7. सात दिसांचो गट. 9. आकारान बरीच लांब कथा. 11. केळ्या फण्याचो घास.12. ववस्थापक, कारभारी, वाहन चलोवपी. 13. सामकार, ताडावटेन.14.बातमी. समाचार 15. व्हड तारू. 16. आडखळ, त्रास. 18. घडणूक, घडीत. 19. कानपट, कानमूल. 20.रग (इंग्लीश). 22.वखदां काडा वा खाटीक. 24. हालव्याचो वा कसलेय वस्तूचो कापिल्लो कुडको. 25. मन्य, गुर

जुलाय 2021 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ति | न | मां | ज | | अ | जा | पा | व्र | प |
| टो | | गा | र | ठा | | ग | | र्त | |
| | मु | ती | | क | म | र | | मा | मा |
| मा | र | | का | प | शी | ण | | न | ल |
| ग | व्रा | य | | | द | | व | | म |
| | त | म | | शु | | | मु | ब | ना |
| य | | न | त | द्र | श्ट | | धा | र | |
| नु | न | | ग | | | श | | क | म |
| र्व | | ना | म | द | | क | वा | य | त |
| द | ग | द | ग | | क | र | णी | | ग |




YOUR THOUGHTS, OUR CREATIVITY !

**OUR SERVICES**

**LIVE BROADCASTING, PHOTOGRAPHY
CINEMATOGRAPHY, EDITING, AD - FILMS
WEBSITE DESIGNING, AUDIO BOOKS
RECORDING**

**FOR MORE DETAILS CONTACT US ON**
**www.palashagnistudios.com**
**8788728784**

**NityAnant**
CREATIONZ

निखळ इश्टागतीची, समाजीक लागणुकेची, परिवारीक नातें सबंद जपपी संस्था



**AN ONLINE PLATFORM PROMOTING
DIFFERENT FORMS OF ART, CREATIVITY
AND WRITE UPS**


PALASH AGNI


ANISH AGNI


YUGA GHOTGE


PALIA AGNI


VAIDEHI ZARAPKAR


AARYA NAIK

POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2021-2023
RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413
Published on 1st and posted on 5th & 10th day of every month



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim-Goa & Printed at Impression, Belgavi. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, Email : bimbkonkani@yahoo.co.in